# अपु

जिची याद जातकच
हांवे ही कादंबरी बरयली
त्या म्हज्या बाक
आज्येक (लक्ष्मीक) ही बरपावळ ओपतां



शेणवी प्रकाशन - मडगांव

# प्रस्तावना

## "अपु" पासून प्रेरणा घेतना ......

"अपु" चें हातबरप जेन्ना श्री. उदय शेणवी हांणी म्हजेकडेन पावयलें तेन्ना "वाचचें सवकासायेन" म्हण हांवें तें कडेक काडून दवरलें पूण जेन्ना श्री. शेणवी हांणी "अपु" खातीर म्हजेकडल्यान प्रस्तावना मागली तेन्ना मात हांव भोव अजापलों. पुस्तकांक प्रस्तावना बरोवप हो तर म्हजो संवकळीचो प्रांत न्हयच. आनी इतलेंय आसून आत्र्या-पयज्यान बरप करपी म्हजे सारख्याकडल्यान प्रस्तावनेची अपेक्षा धरप। गांठीक तीन पुस्तकां ते भायर हेर बरपावळेचो अणभव आशिल्या लेखकाच्या पुस्तकांक प्रस्तावना बरवप म्हळयार म्हज्या नवख्या भुजांचेर पडिल्लें वजें कशें म्हाका दिसलें वांगडाच कसलोच बोवाळ वा प्रसिध्दी-तंत्राचे वाटेक वचनासताना सादेपणान साहित्य-सेवा करपाची श्री. शेणवी हांची पाटभुंय नियाळून "अपु" चें हातबरप पुरायेन वाचून काडलें देखून "अपु" चीं उजवाडावणी लांबली जाल्यार फक्त प्रस्तावनेक जाल्या कळावाक लागून हें प्रांजळपणान हांव कबूल करतां.

"खतखते" १९९६, "आवाळें" १९९८ आनी "उगडास जीण" १९९९ ह्या तीन पुस्तकांचे वळेरेंत "अपु" २००० हें श्री. उदय शेणवी हांचे चवथें पुस्तक. कविता, कथा आनी कादंबरी अशे साहीत्य प्रकार हाताळताना "आवाळें" उप्रांतची श्री. शेणवी हांची "अपु" ही दुसरी कांदबरी. वाट चलपी सैम मोगी वाटसुर्यान सैमीक सोभीतकायेक भुल्लसून मदिंच थारप आनी सैमाची तेळणी करप तशें तांचे बरप, लोलयें काणकोणांतल्या पाचव्याचार सैमाच्या गोपांत जिणेचीं मोलादिक वर्सा सारिल्याान तांच्या उतरांतल्याान ताणी भोगिल्ले अणभविल्लें सैम उलयता. मागीर तीं उतरां कविता, कथा वा कादंबरी रूप घेवं, तांच्या सादांउदेशीं सैमची गुणवर्णना आयकुपाक मेळटात सैमाचे होरावणेतल्यानच श्री. शेणवींच्या बरपावळींनी जिविताचो पडडो फुडें सरता आनी त्या पड्डयाचेर तांच्यो कथा-कांदबरीतली पात्रां आपापणाल्या सवंगांवरवीं वाचप्याकडेन उलयतात.

"अपु" कादंबरी म्हळयार तांतुतल्या मध्यवर्ती पात्रांचे जिणे-चरित्र. हेरशी "उगडास जीण" काणयां घोसांतय बी बरोवप्यान व्यक्ती चित्रां पितारिल्लीं पूणुप "अपु" चें व्यक्ती-चित्रण वेगळे धाटणेन मांडिल्ल्याचे दिसुन येतलें. "अपु"

एक सेवाभावी, पतिव्रता, सोशीक अस्तुरेचें रूप. ''अपु'' एक साध्वी, एक आवय, एक सून, एक सासू घराण्याची कतृत्विनी .... सगळें किते अस्तुरेचे सप्तरंगी गुण बरोवप्यान हातूंत पितारल्यात. आयज जरी शारी वातावरणांतली बायल मनीस दादल्यांच्या पावलार पावल मारून चलता अशी दिसता जाल्यारय समेस्त अस्तुरी संवसाराची ती प्रतीनीधी थारता.भारतीय समाजातली खरेली अर्धांगिनी गांवग्मिया भारतांत जियेता कश्टता. ''स्वामी तिन्ही जगाचा, आईविना पोरका'' हाची सार्थता ''अपु'' चें जिवित नियाळटकच दिसून येता.

सैम मनश्याक घडयता हाची प्रचिती 'अपु' वाचतकच येता. सैमाकडेन जुळोवन कशें घेवप, गरज पडल्यार सैमान हाडिल्ल्या आपत्तीकडेन दोन हात कशें करप हे विषयीचे तंग ''अपु'' न आत्मसात केल्ले आसतां देखुनच तें तिगुंक पावता आपणाल्या मर्णा उप्रांत लेगीत.

साहित्यिकाची खरेली सुवांत माचुल्याच्या रस्मी पड्ड्याभितर नासून जिणेतल्या प्रत्यक्ष झुजामळार आसता हाची जाणविकाय हया लेखकाक जाल्ली आसा. वास्तव जिणेची वळख मेळिल्यान ताच्या विचारशैली भितर जाल्या बदलाची नोंद घेयन दिसता. समाजातल्या स्थिती आड बंड करून सासणाचे चिडिल्ल्या मनिसपणाक नवो ताळो दिवपाचो श्री. शेणवी हांचो यत्न तुस्त जोडुन वता.

''आवाळें'' तलो सामाजीक संघर्ष हो झुंडशाये, दडपशायेआड चलिल्लो पळेवंक मेळळो जाल्यार ''अपु'' तलो अपुलो संघर्ष हो स्वताआड, परिस्थिआड उबारिल्लो संघर्ष सगले अर्दान विपरीत स्थितीआड आसुनय बी स्वतांच्या कुंटुबापासत, पोरूस घराण्याची इभ्रत सांबाळूंक एक एकसुरे अस्तुरेन उबारिल्लो संघर्ष श्री. शेणवी हांणी यशस्वीतरेन चित्रायला. निवळ बायलमनशेची महिमा सांगपाकच म्हण ''अपु'' ची निर्मिणी केल्ली ना हें मतींत धरपासारखें. चंद्र नखेत्र, दव, सांज, सकाळ, रातराणी, फुलां हांचेकडेन जिची तुळा जाता अशी गुणसंपन्न व्हंकल, हरि-हर-ब्रहम हया त्रिमूर्तीक पाळण्यांत घालून धोलवपी अनुसया यमदेवाच्या पासाच्या घोवाची भीख पालवाभितर जिखपी सावित्री, उज्याच्या भगभगपी होमखणांतल्यान अग्निपरिक्षा दिवनय बी फुलावरी रसरसपी सीता आनी घोवाच्या हितापासत सुर्याक उदेवंक आडखळ करपी सुकन्या हांची तेजपूर्ण सावळी अस्तुरेच्या माथ्यार आसा. तिच्या कतुत्वाची नबत ''अपु'' उदेशी सादताच पुणून वांगडाच अस्तुरे-शक्तिचें व्हडपणय बी हे कांदबरिक उंचेल्या पांवडयार व्हरता.

तारकेश्वर अनंत नायक
राय: २६ ऑक्टो. २०००




# दोन उतरां

" अपु " हीं अक्षरां त्या घराचेर पळोवन हांव अजापलों म्हजी पावलां फुडे पडली नात. झाडा झोपानी उभ्या आशिल्या त्या घराकडेन हांव पळयत रावतालों. पांडुरंगान म्हाकां पळयलो आनि "उदय यो रे" म्हणुन आफयलो. हांव ताच्या उतरांक मान दिवंक घरात सरलो. पांडुरंगान म्हाका सगळें घर दाखयले. घराक नवे टाईल्स बसयल्ले, नवो रंग मारिल्लो. घर दाखयत दाखयत तो एका कुडी मऱ्यात आयलो. थंय ताणें म्हाका चावी उगडुन ती भीतर शेणाची जमीन आसली. अपुचो दांडो, पोन्नी कांग, पीग-दांडी आनि पत्रावळीचो पेळो आसलो.

भितर एक दिवो दिस रात पेटतालो. पांडुरंग म्हणुक लागलो " हें पळय अपुचे सामान हीं ताची कुड तशीच दवरल्या ताणे जीणेक केल्ले कष्ट हया पत्रावळीनी आनि शेणाच्या जमनीत दिसतात. महात्मा गांधीचो चरखो, वालो, साबरमती आश्रमांक यादेस्तेक दवरिलो आसा तो आश्रम सगळया भारतीयांचे प्रेरणा स्थान जावंन आसा. अपुच्यो हयो वस्तु आमकां प्रेरणा दिवपी जाल्यात तशेंच फुडल्या पिळगेक जावच्यो हो हेतु " म्हजें मन साठ वर्सा फाटी गेले. त्या घरातल्यो घडणुको दोळयां मुखार उभ्यो रावल्यो " बरे रें येता हांव " म्हणत हांव रस्त्यार येवन घराची वाट चलुंक लागलो. घरा येतगच म्हजी बा (आजी) आसली सामकी कष्टाळू तिणे विदवपण भोगले रूपया ऐदो कपला वेलो तिळो पुस्तगच तिची शक्त गेली. परत तीणे नव्या उमेदीन संसाराक वेंग मारली. एक दिस ती अंतरली ही गजाल आयकतगच म्हज्या काळजाक लाथ बसली. तिच्यो यादीच हांवे बरवन काडल्यात ती पैगीणी रावताली केन्नाय लोलये नातवां म्हऱ्यान येताली येतना किर्तेय खावंक हाडुन तोंड गोंड करताली, तें तशेंच जीणभर आसचें अशे तिचेकडेन मागुन.

अक्षर जुळवणी तशेंच छपाई केल्या बद्‌ल हांव गौरिशा ऑफसेट हांचो रिणकारी आसां, तशेंच वेळांत वेळ काडुन प्रस्तावना दिल्या खातिर तारकेश्वर बाब हांका देव बरें करू म्हणतां, मुखावळ दिवपी बाब शंकर धुरीचे हांव उपकार आठयतां.

बरे मागुन
उदय शेणवी
एम. ए.

# अपु

## १

हुंबरावेले तांदळान भरुन दवरिलें माप ल्हवुच पायान परतिलें, तशें ते शंकरा फाटोफाट घरान सरलें. नवे घर, नवी मनश्यां, नवो गांव, नवो संसार सगलेंच नवें. कुळारची याद ताका परत परत जाताली. घरच्यांचो ताका हुस्को जातना मांय गंगेन ताका म्ह्यान घेत म्हळें

" तुझे नांव जरी 'अपुर्बाय' आसले तरी आमी तुका 'अपु' म्हणुन उलो मारतली ".

पाचवो चुडो, तांबडो शालु, गोरेपण पळोवन गंगेक दिसलें शारान सुंदर कायेची जतनाय जाता ती ह्या खेड्यान हाची करपुची ना मूं ? तरी अस्तुरेची खरी सोबीतकाय ही तीच्या मुखावेल्या गोऱ्या सोबितकाये परस खर कष्टानच आसता, त्या कष्टानच ती आपली निजांची सोबितकाय वाडयता हे गंगेक खंय खबर आसलें ? ते मनातले विचार सोडुन तीणे भानार येत म्हळें

" अपु हो वास कसलो ? "

" रातराणयेचो "

" बरोबर अपु ही रातराणी खंय आसा ही रातची सोदची पडना तर ती आपसुकच आपल्या परमळान वाठार भरता, खरें तर ती वास घेना तरी लोकांक वास दीता. रातराणयेसारखे तुवें ह्या घराण्याक झीजुंक जाय, वायट परिस्थिती आयली वा तुझो जीव गेलो तरी."

मांयची उतरा ताच्या मनाचेर चेपण हाडटाली तरी ताका आपल्या कर्तुबाचेर विश्वास आसलो. अपुक दिसलें रातराणयेचे परमळान सगळ्यांक खोस जाता तरी सोरोप तिच्या म्हथान येता, ताणे चितलें विखारी सोरोप त्या वासान दंश करपाक विसरता हें ही तितलेंच खरें.

शंकरा फाटोफाट तें देवाकुडीन गेलें. शंकराची मुर्ती नंदादिपाच्या मंद उजवाडान चडच शांत दिसताली. ताणे घोवाचेर नदर मार तर तोही ताका मुर्तीसारखो शोत दिसलो. देवाक, दादूक नमस्कार करूम ती गंगेक नमस्कार करूंक

आयली

" बरें जांव " चांवयाचो घोस अपुकडेन दित तिणे सांगले

" अपु हो घोस व्हर आनी कुलपां उघडी दवरल्यांत तांकां चावी करून यो ". अपुन त्या त्या कुलपाच्या आवाठा वेल्यान ती ती चावी त्या त्या कुलपाक लावन तीं बंद केली.

" शाब्बास, अपु तुं शंभरांतले शंभर गुण घेवन पास जालें " अशे म्हणत गंगेन काजळाचे बोट अपुच्या पोल्याक लायलें

" आई काजळाच्या बोटान अपु चडच उजळ दिसता "

" पूरो शंकर तुझी तोखणाय, तोखणायेन मनश्या घाणतात हे लक्षांन दवर. जण एकल्या न्हवऱ्याक आपली बायल म्हळयार सर्गातली परी कशी दिसता. हावें काजळा बोट लायलें तें अपुच्या सुंदरतायेक उणेपण येवचे म्हणुन न्ही तर एक रीत म्हणुन ".

रात बरीच जाताली तितली रातराणी वाशेताली.

" अपु सगल्याचो सुर्य उदेलो, तुझो उदेवचो आसा कांय किते ? " ह्या आवाजान अपु जागें जालें बेगी बेगी उठून ताणे तोंड धुवन च्या केली. सोप्यार दादु विडी ओडत खोकली काडतालो च्या पितगच ताची. खोकली बंद जाली. गंगी च्या पित म्हणुंक लागली

" आगो हो च्या काय धवळ, नांव च्या दिसता ".

च्या पावडर चड घालुन कडक केल्यार कितें गो फॅस्ताक आयला, काय आसा म्हणून च्या चो पावडर घालता. सोपल्यार कोण हाडटलो ? तुजो बापुय काय आवय. हीं उतरां आयकुची पडत म्हणुन ताणे च्या कमीच घाल्लो. थंय ताका हीं उतरां आयकुची पडिलीं. खरें तर तें आस्तिकदारालें, तरी हांगाची परिस्थिती पळोवन ताणे ओडतो हात धरिल्लो. गोठयांतली गाय हांबेताली. पिटांगुळ शवणे आंब्याच्या सुक्या बडयेर बशिल्लें. मांयची उतरां अपुक लागतालीं तरी ताणे तीं मोन्यानी सोसली. " जाणत्याचे आयकप परतें उतर दिवप ना " अशे आवयन ताका सांगीले ताची ताका याद आसली.

कोनश्याची सान्न घेवन ताणें घर, आंगण, वाट झाडली, ताचे कमर मोडून आयलें. सांगतलें कोणाक ?

" अपु कोयराक उजो लाय नातर वाऱ्यान सगळयाक जातलो " फस्क व्हरून उजो पेटयता तें पळोवन गंगेन म्हळें

" आगो फस्क फुकट येता ? दादु म्हऱ्यान उजाची कोलती आसा, तिणे उजो पेटवचो न्हय ? "

'वोकक' 'वोकक' असो आवाज आयकुन " कितें जालें? " म्हणत अपु

हांडया म्ह्-यान धावलें.

" आगो जातलें किर्ते, तुझ्या घोवाची कर्तुबां तीं, आमकां सदाचींच तुका नवी. "

" शंकर ती भुरगेपणा सोड आता तुं दादलो, भुरगो न्हय, अरे अपुची चुक ना ताळयान बोटां घालून कोण जीभ घासता, असले विचीत्र आवाज ताणे जन्मान आयकले नासतले." च्या घेवन शंकरान राजवान बांयचें उदक काडुन हांडो भरलो .

" अपु कुळागरान वचून जळव हाड " अपु कुळागरान गेलें, पोयी, पिडे, काबळुको एकठांय करून घरान येवन गंगेक विचारूक लागलें

" आई जळव हाडप कसो ? "

" अगो, शंकराक सांग विमानान हाड म्हणुन. " शंकराक आईचो राग आयलो. ताणे कचरेलान आसले प्लास्टीक खेळण्यातले विमान भायर काडले, तें पळोवन गंगी नीर्शेली.

" तर्शे न्हयरे आपली तकली उजार करुंक जाय काय नाका ? जळव हाडपाक वतनाच बुटी व्हरपाची न्हय. " अपुन बुटी व्हरून जळव हाडलो, हांडया पोना उजो घालो. तें पडवेंन सरलें तर सगळयाक नीळो धुंवर जाल्लो. सुर्याची किर्णा गावठी नळयान सुन बुराक मेळता थंयच्यान घुसून पडवेन पडिल्लीं. नीळी टयुब लायट कशी धुवंर वयर सकल वता, ही मजा अपु पळयत रावलें. अपु शारान बंगल्यान वाडिल्लें, गाडयानी भोविल्लें, सातवी मेरेन शिकिल्लें, ताणें वयर सकल जावपी धुवंर केन्नाच पळोवंक नासलो, ताका दिसलें लग्न म्हळयार चलयांची सोर्त, लागली तर लागली नातर सोर्तीचे पैशे गेल्यान जमा.

" धुवंर केन्नाच पळोंव नागो ? काय थुळेणी, चल म्हजे बरोबर गोठयान, हो घे उदकाचो तांबयो. "

ती खावडिचो तोप घेवन चलुंक लागली. अपु मोन्यानी तिच्रे फाटल्यान उदकाचो तांबयो घेवन चलतालें. गंगेच्या पायान जोतें नासले, तरी चलण्यात वेग आसलो.

थोडिशी वाट चलतगच आखाडो लागलो. गंगेन ताचेर तोप दवरलो आनी ती आखाडयाभायर सरली, परत तोप हांडीर मारलो तशी चलुंक लागली. अपुक आखाडयातल्यान वतना तो ल्हान आशिल्यान ताका त्रास जालो. इतलो ल्हान आखाडो कित्याक केला ? हाचो प्रस्न ताका पडलो. माड माडयो सगळया कुळागरान दीष्टी पडताल्यो. पाट मदेनसुन गेल्लो तरी तो सुको आसलो. ताचे कडावळीक पांचवो पालो वाडिल्लो. फुडे रवण आसले ते उदकान भरिल्लें दोन दोंगर एकठांय जाल्ले, मदीं झर फुटील्ली. थेंबाथेंबान उदक रवणान एकठांय

जातालें. अपुक सगलें नवेंशें दिसतालें. रवणाच्या वेल्या वटेन एक घरा इतलो उबार तणा गुडवो आसलो ताचेर वयर कुळणें घाल्लें. दावे वटेन केळी आसल्यो. थोडयांक घड आयील्ले. फुडे आनीक एक आखाडो आसलो. थोडिशी चडती आसली. त्या आखाडयाचेर काटी लायिल्ली. गंगी ती काटी काडुन वयर गेली. गाय हांबेताली आपले तोंडवयर करून खावडिचो तोप पळयताली. गोठो बरोच व्हड आसलो. तातुन गोरवां, रेडे, पाडकां आसली. खावडिचो तोप गायफुडे दवरून पाडकाक सोडुन गंगी तांबयान दुध काडुंक लागली. 'चुळ' 'चुळ' आवाजा कणकणीं दुधान तांबयो भरतालो. धवो फेंड बरोच वयर आयिल्लो.

" तानु ही तुझी धनीण "

तिणें पाडकाक सोडलें आनी तांबयो अपु सुवादिन केलो.

अपुची नदर गोठयावयर आशिल्या देवळेचेर गेली. अपुन मांयक कायच विचारलेना. गंगेक प्रस्न करचेपरस केन्नाय तरी कळतलें हें ताका खबर आसलें. आखाडयाक काटी लावन गंगी सकयल आयली. रवणान सात आठ पीके जांभ उफेत पडिल्ले. तिणे बडयेन एकठांय करून व्हटयेन घाले. रवणाचे खाणु बांधिल्लें तें थोडे उकतें केलें, पाटानसुन झोतीन उदक धावतना आपल्याबरोबर पत्रो व्हरतालें. गंगी तो पत्रो हातान एकठांय करून भायर वडयताली. नातर पाट भरून मदी वाट मेळता थंय उदक वचपाचे. हे खातीर ती पाट निवळ करताली. वत सगल्याकच न्हाण घालतालें. तण वताचेर भांगरा कोराचें दिसतालें. पाटान मदींच कुल्ली वयर येताली. वाटेवेलीं पुरडां लावन ताचेर फातर दवरुन गंगेन उदक कुळागारान सोडिल्लें. तरी थोडे थोडें खाण -वानसुन गेल्याबगर रावनासलें. मदीं पांडड आसली थंच्यान कोणी पसऱ्यार, कामाक वताले.

इतक्यान राखण्यान उलो दिलो. गंगी काम सोडुन वयर गेली आनी सगळयाचीं दावीं काडुन शेण भरुंक लागली. अपु आंगणात देविल्लें. उदक कुळागारान पाविल्लें. शंकर कल्यान धवें उदक पांचव्या कवत्याचेर वडयतना दिसतालो. तर दाद पुरडां परतितालो. अपुक उदक शिंपचेशें दिसलें तरी मांय कितें म्हणत काय हया विचारान तें शिंपुक गेलें ना. तांबयो कचरेलान व्हरून दवरलो. आंगणान तीग जाण बाटल्यो घेवन दुध व्हरूंक आयील्ले. अपु तांका वळख नासलें. अपु सोप्यार येवन बसलें. कुळागरान एक चुडीत पडलें.

" तें कोणाचेर पडुंक ना मूं ? " दुध व्हरूंक आयील्लो म्हणुक लागलो

" व्हनये चुडित, नाल्ल, माड कोणाचोच आळ घेनात. मनश्याचेर पडल्यार खेडयान मनश्यां आसचीच नासली. नवीं ओगीच बांधिनात तांका. मनश्या सारखो मनीस तो ".

गंगी आयली. तीणे पावशेरान दुध मेजुन तांका दीलें. दादु वालो न्हेसल्लो

तरी आगांक कांयच घाल नासलो. मर्दीच धाप लागतच तो हातांत केळिची शेतां काडुन घेवन घरान आयलो. माथ्याक शेंडी दवरतालो. कोलतेन तो तंबाखुची विडी ओडुंक लागलो. " अपु खावडिच्या तोपान कुंडो भर आनि उदक घालुन रान्नीर दवर. " अपुन कुंडो घालून तोप रान्नीर दवरलो.

व्हंकल पावणे बरोबर ताका दिल्लो ट्रंक ताणे उघडलो. तातुन एक पिशवी आसली ती उघडून पळय तर एक तांब्याचो तांबयो आनि एक केळमो. गंगेन ते पळयत ताका म्हळें

" अगो हाचो अर्थ तुका खबर आसा ? "

" ना आई "

" हो केळमो व्हर आनि नेम मारून मागील दारान पुर." केळमो व्हड जातलो ताची केळ जातली, चारी वाटेन मुडगे दितली, आपुण व्हियेतली, विकल्यार पैशे मेळतले. घडाक जशी केळी गच्चुन जातात तशी हया पोरूस घराण्याची वंशावळ वाडुंक जाय. केळ सोपली तरी वंशान ती तीगुन आसतली, तिची याद, नांव फुडल्या पिळगेक दिप स्तंभा सारखे वाट दाखोवपी थारूंक जाय. आतां तांबयाचो अर्थ, उजो रान्नीन चड पेटता तेन्ना तांबयातलें उदक मारून तो कमी करूं येता. संसार म्हणतगच केन्ना केन्ना झगडीं जातात तेन्ना तुवें मारतें घेवपाचे, तुवें तोंड घेत तर तें वाडत वतलें मागिर झगडें पालोंवक जावचेंना. तांब्याच्या तांबयान रातीन उदक भरून दवरून सकाळचे पीत तर बलायकी बरी आसता. " अपु मागिल दारा गेलें नेम मारून ताणे केळमो रोयलो. तांब्याच्या तांबयान ताका उदक घालें.

अपुची नदर आंगणान गेली, दादुन विडयेचे थोटूक वडयिल्लें, हातान कोयती घेवन तो उदकाच्या फोंडाच्या म्हऱ्यान गेलो. पाटातलें थेंब थेंब उदक पडून तो फोंडारो भरिलोच आसतालो तरी ओत नासलो. दादुन तातुन हात घालून निष्ण्याचो फातर काडलो ताचेर तो कोयती पाजुंक लागलो. धार कितली आयल्या तें बोट ओडुन तो परत परत पळेतालो. कोयतेक धार येतगच ती घेवन कुळागरान गेलो. चुडताचे पीडे काडप, काबळुको एकठांय करप, झोंपा मारप, माडयेची पोंयां कापप, ताचे काम सुरू जालें. म्हणसर शंकर शिपुन वयर आयलो. कल्ले आंगणान दवरून कमराचेर हात ओडत भीतर सरलो.

कांव कांव आवाज जायनाफुडें अपु फाटी पळयतर निरपणसाचेर कावळो बसला. भितरल्यान गंगेचे सुर आयले

" आगो तो कितें सांगता तें आयक " अपुक दिसलें कुळाराची सुखी आसात अशेंच तो सांगता आसतलो.

“ आगो बुटयेतलें बेडे तुझी तशीच वताची वाट पळयतात ”

“ फोडणी फोव शंकराक दिले गो ? पिंवक दुधपाणी दी ” अपु भितर आयलें फोडणी फोव बशयेन घालून बशी तशेंच दुधपाण्याचो ग्लास व्हरून शंकराक दीलो. ते सालान आशिल्या बेडयाच्या बुटये म्ह्यान आयले. बुटी जड आसली. व्हरतलें कशें ? ताणें विचार केलो. लागसल्लो पाटलो घेतलो, कोनलेन बुटयेतले बेडे पाटल्यान भरले आनी आंगणान वताक व्हरून रकयले, पांच स पाटले व्हरतगच बुटी काबार जाली. ताका कळळे कामां कठीण आसली तरी तकली लडवन, आवड निर्मील्यार ती सोपी जाताच. तें मान्यान न्हांवक गेलें. पडवेन येवन पळय तर दांडयेर दोन कापडां सुकत घालीं आसलीं. गंगी तर आंगान मोठी आसा ती कशी खुर्चेर रावंन कापडां घालतली बरें खुर्चेर रावल्यार लेगीत दांडयेर तीचो हात कसो पावतलो ? अश्या विचारान आसताना कुडीनसुन सुर आयले

“अगो कोनश्याची सोवळया बडी मेळ्ळीं मगो ? ”

अपुन कोनश्यार नदर मार तर कोंडयाची लांब बडी आसा तर खरी. हीचो उपेग वोलें कापड दांडयेर सुकत घालुंक करप दिसता हें ताणे मनानच ताडलें. सोवळया बडी घेवन ताणे आपलें कापड गंगेन घालां तें पळोवन तशेंच घालें.

“ आई फुलां खंयची काडुं ? ”

“ आगो फुलां कुळाराचीं हाडटलें ? तें कितें सांगपाचें. ”

तें परडी घेवन कुळागरान गेलें. आबोली, चाफीं, दसणी मेळता तीं फुलां काडुन ताच्यो व्हायार गुथून माळो केल्यो. तुळशीक उदक घालून ताणे दारा मुखार, देवामुखार रांगोळी घाली. गंगेन रांगोळी पळोवन म्हळें

“ आगो सोबीत घाल्या मुगो ” ही मायची उतरां आयकुन अपुक आंगार मुठभर मांस चडलें कशें दिसलें.

“ ताक चाळ्ळलें गो ? ” ही उतरां आयकतगच तें पडवेन गेलें. रवीक दोरी गुटलावन तें बुयांवानचें ताक चाळुंक लागलें. चाळतां चाळतां रवी बुयांवाक आपटली. आगो बुयांव फुटल्यार कोण हाडुन दितलो ? अपु हळु हळु ताक चाळुंक लागले. आगो हळु चाळो मारल्यार ताक तशेंच उरतलें, लोणी येवचेना. मुये सारखे काम केल्यार दिस सोपलो तरी कामां जावचीना. खिणभर अपुक दिसलें माय शेक गाजयता. तरी ती वायटाक सांगना आयकल्यार म्हजेंच बरें जातलें, समजतलें. ती नासली तर कोणाचो आधार आसता आसलो ? हात घालून लोण्याचो गुळो तोपलान आशिल्या उदकान सोडलो आनी ताक आयदनान काडलें. बुयांव धुवन उमथें घालें. गंगेक ताणे कातुन शिनुन दिलें. गंगी रानुक हुषार आसली. शाक बरी करताली. कडी दनपारची चडशी कर नासली. ताक

आसल्यार कडी जाय शी नासली अशें ती म्हणी. सोमार, बिरेस्ताराक ती नुस्तें खायना आसली.

दादुन कोयती दवरली तसो तो न्हांवक गेलो. शंकरान शेतांक वचुन मुगीळ हाडली आनी आंगणान धापुन दवरली. दादु न्हावन मेकळो जालो. शंकर बांयचे थंडच उदक न्हालो. दादुन गांट वाजयली तर शंकरान देवाची पुजा केली. आरती वरभर चल्ली.

आगो ताट, पाट, पेले कोण दवरतलो ? अपु पाट दवरूंक लागलें. अपु पाटार बसतात, जमनीचेर ते आपटूक फावना, तांका दुकता. पाटाचो आवाज तशेंच शित वाडतना दायचो आवाज येवंक उपकारना. एक फावट सांगतकच अपुक समजतालें. दादु उठतगच गंगी ताच्या ताटान जेवली आनी शंकराच्या ताटान अपु जेवलें. दादु जेवतगच पंलगाचेर वचुन आड पडलो. शंकराक दनपरची न्हीदची सवंय नासली. शंकर सोप्यार बसलो. गंगी आयदना घासुंक लागली. अपु शेण काडुन व्होडो मार. ताका जम नासलें, तरी ताणे व्होडो मारतना गंगेक पळयीलें. शेणाचो वास ताच्यानी घेवंक जायना आसलो तरी व्होडो मारलो. गंगेन कापुस दिवन अपुक जोडवीं करूंक लायली. बारीक वाती करूंक गोबर दिलो, तो हाताक लावन तें जोडवीं करूंक लागलें. वयर तेण्यार शंकर बशिल्लो. सालान शेनरी घालुन गंगी आड पडली.

" कशें आसा आमचे घर ?"

" घरचीं खरी सोबा म्हळयार तातुन रावतलीं मनश्यां ती बरी म्हणतगच घर बरें. "

" बरें आसा. आमचें शेत कुळागर कशें आसा ?"

" बायलांची खरी गिरेस्तकाय म्हळयार घोव तो बरो आसतगच कुळागर शेत हांचे मोल तें कितलें ?"

" आईन तुजेर जी जापसालदारकी घाल्या ती तुं पेलतलें मुगो ?"

" तुमचो वांगड मेळयार किदेय आनी कसलीय जापसालदारकी कुस्कटा एदी " शंकरान अपुची बुध्दी अजमायली. तरी आईक परतें उतर दिना आसतना हे वोगी कशे रावता ? आईक ते मान दिता जावये, शिवाय सत्ते मुखार शाणपण खंय चलता ? शंकर खोरें खांद्यार घेवन शेतान गेलो.

वत मोव जातालें. सोप्यार वयर मेरेन वत पाविल्लें.

" आई वाती जाल्यो "

" आगो कुडीन तांदळाचो साक आसा खिळयाक सुप आसा, सुपान तांदुळ घेवन वेच ".

अपुन वाती व्हरून देवाच्या संधे पेळयेन दवरल्यो आनी सुपान तांदुळ

घेवन तें वेंचुक सोप्यार बसलें. अपुक दिसलें शारानीं संसार चार वणतीं मदीं करपाचो तर खेडयानीं चार दुर्गामदी, हात पांय हालयल्यारच संसार ना तर इबाड. आपणें पिकोवन खाता तातुन आसली गोडी आनी बाजारान विकत घेतिल्या वस्तुची गोडी सारखी जावंक शकना. पिकयता त्या वस्तुन घाम आसता देखुन ती वस्तु गोड.

गंगी, दादु उठतगच अपुन च्या करून दीली. शेतान मारिल्लो खोऱ्याचो आवाज वयर सोप्यामेरेन येतालो. दादुन शेनवत कापलें तंबाखू उज्या कोलतेर शेकयलो आनी तो ती कोलती विडयेक लावन फक् फक् करून धुवंर सोडुक लागलो.

“ सुनबाय ही आमची गोबोर करपाची फॅक्टरी, फायदो कांयच ना लुकसाण ”

“ गंगे तोंड बंद कर म्हज्या पैशाची विडी हांव ओडतलो. तुका किर्ते जाता, तुझेकडेन पैशे मागता तेन्ना तुं उलय ” सुने मुखार दादुन केलो अपमान तिका सहन जालो ना ती उठून भीतर गेली.

ठप् करून आवाज जालो, “ कुळागरान नाल्ल पडला. ” अशें दादुन म्हणना फुडें तें जोतें घालून नाल्ल सोदुंक लागलें. सोदतां सोदतां माडये पोना तांबडे बेडे पडिल्ले दिसले. ताणे वयर पळय तर माडी तांबडया बेडयानी गच्च भरील्ली. सकयल धवी भींगरी फुटताली तर वेले थोडे बेडे पांचवे आसले. ताणे बेडे पुजावन व्हटयेन घाले. तें नाल्ल सोदुक लागलें. सकाळी उदक शिपिल्यान जोत्याक ओलसाणेन चीखल चीकटतालो. तें कुळागराच्या देगेर पावलें सकयल शेतान शंकर चीखल खोऱ्यानी काडुन मेरेर वडवन पायानीं तो थापुन खोरे फाटीन ओडुन मेरो तुळतुळीत करतालो. काम करतना तो कामाचेरच लक्ष दवरतालो. मदींच रावन ताणें सुर्याकडेन पळयलें आनी परत कामाक लागलो. अपु बरोच वेळ ताका पळयतालें. आपणें काम करचें अशे ताका दिसलें तरी मांयचो भंय ताका आसलो. शंकराची नदर ताचेर गेली.

“ आगो आंबाडयापोनाक नाल्ल पडला तो व्हर ”

अपुक अजापच जालें शंकराक सांग नासताना नाल्ल व्हरूक आयलां हें कशें कळलें ? शंकर शेतान काम करी तरी ताचें लक्ष कुळागरान कशें ? तें आंबाडया पोनाक पावतनाच ताका नाल्ल मेळळो. तो हातान घेवन येताना पेरीणे पोनाक ताका पिकें झडील्लें पेर मेळळे. नाल्ल कोनश्याक वडवन पेर गंगेक हाडुन दिल्लें.

“ अपु पेराचे चार कुडके कर शंकराचो धापुन दवर तीन आमी खावया. अपु पेरीण तन्ने पेर केन्नाच झडयना. तें तिका जड जायना पेर पिकतगच मात

ती दवरून घेना. जर कोणें काडलेना तरी तीं ताका धुकलुन दिता. तशी तुवें आपल्या भुरग्यांचीं जतनाय घेवंक जाय. ती हातापायार उभी रावतकच तांच्या लागी रावंक फावना ताका ह्या संसाराच्या दर्यान जाय तशे पेवुंदी. मनशाक बुडता जाल्यार आधार दिवपाचो. एक फावट ताका वाचयतगच ती आपसुकच शाणी जातात मागिर तीं कसल्याय दर्यान पेवंक शकतात भंय नासतना. तीं व्हड जातगच आपलो शेख तांचेर गाजोवप न्हयच. पेरिणी सारखे तुवें वागुंक जाय. पेरिण आपली वंशावळ फळातल्या बियानी वाडयता. जर फळ येना आसतना आसत तर तिच्या दावांक लेगीत कोमरी फुटून तिची पेर जाता हे लक्षान आसु. पेरिणीक सारें उदक कांयच लागना.'' अपु सगळे मोन्यानी आयकतालें. खंची वस्त सगल्यानीच वाटुन खावप.'' गंगेन दादुन पेराचो कुडको खालो. अपुन खावंक ना.

'' अगो तूं पेर खा ''

'' आई घोवान खावचे पयलीं बायलेन खावप ना हे शास्त्र न्ही गे ''

'' अगो हें शास्त्र खावपाक लागना जेवणाक लागता. खा तूं! '' अपुन पेराचो कुडको खालो. ताचे तांदुळ सुपान आसले वेचुन जाल्ले ते व्हरून ताणें क्ापऱ्यान रकयले. तांदळान आशे नासले तरी काळे फातर खुबच आसले.

'' आई तांदळान काळे फातर चड कशे ? ''

'' अगो खळ करतना पेट बरो पडुना जमीन मोव उरल्ली मळणे वेळार रोकडीच माती सुटली आनी भातान ती भरसली. '' अपुक फातराचे कारण समजलें. वारो बरोच सुट्टीलो आंब्याची, पणसाची पाना वाऱ्यार नीखळुन सकयल देवंताली. एका कणक्या माडाक दोन नाल्ल सुकील्ले सोप्यावेल्यान दिष्टी पडताले. आंब्याचो रुख पालेल्लो तन्नी तांबशी नाजुक पानां वतार तिक तिकताली. पैस कोंडयाची आळ वाऱ्यान तकली हालयतना दिसताली. पणसाक ल्हान ल्हान कुंवले पांय ते तेगशेमेरेन फुटीले दिसताले. अनसाक धडे येताले. कावळे कांव कांव करून मळबांतल्यान हुडन वताले. आंगणान बांदीलो कुत्रो भोकत आसलो. मांजर सोप्यावेलो खंबो बरगीतालें. शंकर खोरें घेवन येतालो.

अपुचें लक्ष मस्काचेर गेले. ल्हान ल्हान शेवणी म्होवा आशेन फुलार बसतालीं. शिवोण्यो घालतालीं. ताका दिसलें आपणागेर अशींच भुरगीं जातगच ती शिवोणी घालचीं नात रडत रावतलीं. मस्का रूक म्हाकाच जावचें पडतलें. पैस गोरवांच्या घंटे आवाज येतालो तो गंगेन सालान न्हिदिलें कडेन आयकलो तरी सोप्यार आशिल्या अपुन आयकलो ना. तिचे लक्षच थंय आसलें जावये. ती खावडिचो तोप घेवन भायर सरली तेन्ना अपु उदकाचो तांबयो घेवन तिचे फाटो फाट वचुंक लागलें. दादुन ताका ''कोलती व्हर'' म्हणुन सांगलें. अपुक कोलती कित्याक व्हर म्हणुन सांगता तें कळना जालें. तरी ताणे ती व्हेली. पाटान पाय

दवरतकच ते ओले जाताले. पाटाच्या धडेवेल्यान गंगी तुरतुरीत तोल वच नासतना चलताली. ल्हान ल्हान शेवर्णी घोटेरान वच्चे पयली गायतालीं. सुर्य बरोच सकल देंविलो तरी गोठयाकडेन तसो उजवाड आसलो. गंगेन तोप सकल दवरून खणाचें खाणुं घट्ट लावन वयर फातर दवरलो तशे पाटान उदक व्हावचें बंद जालें. गंगेन धेंगसो घालतगच सगलीं गरवां गोठयान गेलीं. गंगेन मनजातीक लेगीत धाकान दवरिली थंय मनश्याक दवरूंक कठिण काम नासलें हे विचार अपुच्या मनांक घोळताले. अपुन सांगचे पयलीं गोठयानचो कोयर भीतोडेन व्हरून एकठांय केलो.

“ आगो तो ते कोलतेन पेटय, धुकटेवंदी म्हणतगच जळारी, किट्टी पैस वतल्यो. ” गंगेन सगल्या गोरवांक दावीं घालीं. काब्रो मात रोयण शिंगानी खणतालो. येता काय ना दाव्यार ? म्हणतगच गंगेची भास ताका कळताली जावये तो दाव्यार गेलो. पाडकाक सोडतगच गाय पानेली गंगेन रोकडेच दुध काडलें

“ अपु हांगायो हे गायक हात लाय ”

गाय फोसकारताली मागीर थोडया वेळान वोगी रावली. मनातल्यान अपुक भंय दिसतालो तरी गंगी आशिल्यान भिवपाचें कारण नासलें.

“ अपु ही पाडी मीरगार व्हियेतली म्हणसर तानु दुध सोडतलें ”. दुध काडतगच थंच्या शेणाच्यो शेणयो थापल्यो. हात धुंवक ती खणाकडेन आयली.

“ पाव तूं वाघ्रेश्वरा ” म्हणत तिणें वयर दोंगुले कडेन पळोवन हात जोडले

“ आई कोणाक हात जोडता. ”

“ आगो यो ” अशें म्हणत ती चडती चडून वयर येवन देवळेन गेली. ल्हानशी घांट मारून तिणे देवळेचे दार उघडलें. भितर वाघाची मुर्ती आसली.

“ हाका पुनवेक दादु पडिचो नेवेद्ध दाखयता. ” अपु आयकतालें.

गंगी थंयच बसली. सुर्याचे वत देवळेचे कळसाचेर पडिलें. वयर तशें मळ आसलें तरी मदीं मदीं रानटी झाडां दिसतालीं. खंय काजुचे, आंब्याचे रूक दिसताले लागसर का ऱ्याच्या रूखार माकड का ऱ्या फळां खावन सकल वडयताले. पैस रेडियो वाजतालो.

“ आई ही देवळी कोणें बांधली ?”

“ आयक म्हाका हाडचे पयलीं हांगा वाघ खुबच सतावंक लागले. लोकांकडेन बंदुको नासल्यो. वाघ चार चार दिसानीं एक एक धोर मारूंक लागलों. तशे वाघ सदांच एकाच कडेन रावना आसले. चार पांच म्हयन्यानी परत येताले खंय. म्हाका हाडतगच दादुन म्हाका ही गजाल सांगली. तेन्ना म्हज्या कुळारा एक घाडी आसलो ताका हावें वचुन विचारलें तेन्ना ताणे म्हळें “

वाघ्रेश्वराची देवळी बांधल्यार वाघ सतावचो ना. तरी देवळेक चुनो वर्सान वर्स भायल्यान कांडुक जाय ''. दादुक ही गजाल हावें सांगली.

दादुन वाडयावेले लोक एकठांय केले. चीरे, फातर, माती कालोवन कष्टानी देवळी उभी केली मेस्त कामा पैशे नासले. तशेच मुर्ती खंयच्यान हाडची हो प्रस्न आसलो ? आतां तुका रेडिओ आयकता न्ही तो मिंगेल तारवटी. बायलेक स म्हयने चीट मेळ्ळुंकचना तिणे सांगुन घेतलें मिंगेल जर म्हयन्या भितर येत तर मदेरामेंत तर्शेच मुर्तीक लागता ते पैशे दीतां. दादुन सांगणी केली. पंध रा दिसा भितर जोड भरपुर घेवन मिंगेल आयलो. ताका भुरगी ना. बायल रोजान सांगतगच ताणे दादुक तीन हजार रुपये काडुन दीले. पलतडेन एक वडाचो रूख आसलो ताच्या पोनाक एक पाषाणी फातर आसलो. म्हज्या कुळाराक एक मुर्तिकार आसलो. ताका आफोवन ताची मुर्ती करूक लायली. ताणें पैशे घेवंक ना तरी जेवण खाणाक आमगेर आसतालो. वर्सा भितर ताणे ही कुत्र्या एदी वाघाची मुर्ती केली. दादु तसो धार्मीक न्हंय तरी ताणे हया मुर्ती खातीर खुबच कष्ट काडले. मुर्तीची स्थापना ताणेच केली, तरी भायर मिंगेलीन दीलो अशी पाटी मारल्या पळय. आता वर्सान वर्स धवो रंग आमी मारतात. तेंन्ना सावन आज मेरेन वाघ हे वटेन येवंक नात. आयले तरी वयर मळार, सकयल गोठयामेरेन देवं नात. म्हाका दिसता वाघ रातचे फिरतात, हो धवो रंग पळोवन ते भितात आनी हे वटेन पास मारना जावये. ते कितेय जरी जाले तरी वाघ पयलीं सारखे सतयनात ही गजाल खरी. गंगेची गजाल सोपतगच अपुक सपन भंगल्यासारखे जालें. दादुन वेळ जालो म्हणुन सकयल्यान गंगेक साद घालो 'गंगे'. देंवती हळू देवन तीं खणाकडेन आयलीं आनी दोंळयार पेज दित हळुहळु काळखान दुध, खावडिचो तोप घेवन घरची वाट चलूंक लागलीं.

शंकर न्हावन देवाकडेन भजन करतालो. दादु थंड वारें व्हावंतगच चादर पांघरून खोकली काडतालो. लावणेचे दुध दिवन अपुन च्या केली. ताळांचो आवाज येतालो. शंकर देवभक्त आसलो. वणतिर पाल चुकचुकली भायर काळोख बरोच जाल्लो. पाखो माथ्यावेल्यान वचुन केळीर बसलो. अपुन चिमणी पेटवन सोप्यार हाडुन दवरली. शीं आगांक आफुडतालें. घुघुम देवळे सामकाराक रडतालो तर रातराणी वाशेताली. अपुन तुळशीकडेन नीरंजन लायलें, दादुक गंगेक तें पायां पडलें. उदक घालुन ताणें तपलें रान्नीर दवरलें. शंकराचें भजन सोपुन तो सोप्यार बसलो. दादु शंकर खबऱ्यो उलोवंक लागले. इतल्यान दुर्गाचो फातर पडलो. शंकर हातान बडी घेवन धांवलो. कोणाचो तरी बैल कुळागरान आयील्लो. ताका पैस आडद्यामेरेन धांवडावन शंकर आयलो. गंगी सालान बसुन आसली. अपु रानतालें. रातचीं धांक ती जेवतालीं. दादु जेवतगच पदां म्हणतालो.

अपु

नातर ताका समाधान जायना आसले. गंगी तोंडातल्या तोंडान व्होवयो गुणगुणताली शंकराक जेवतगच रोकडीच न्हीद येताली.

दुसरे दिस सकाळीं शंकर पसऱ्यार गेलो. शंकर एकटोच पसरो चलयतालो. गावांन एकच पसरो आशिल्यान गिरायक बरें जातालें तरी उदार पातेवर्चेंच पडतालें. दादु कोयती घेवन कुळागरान गेल्लो. शेतान मानाय कामाक लायील्ले ताचेर तो मदीं मदीं नदर मारतालो. नातर ते काम करनात हें ताका खबर आसलें. दोन बैल ताचे घरचे आशिल्यान जोत विकतें हाडचें पड नासलें. जोतकारी आफयल्यार काम भागतालें. दोन खंडी जमीन रोवंक एका जोतान जातालें. व्हाळाक बांद घालतगच उदकाची तुटवण पड नासली. वायगण बेगीन रोयना तर मागिर उदक शेताक शिपचें पड हे खातिर रोकडोच दादु वांयगण रोवन घेतालो.

दनपारां शंकरान बांगडयाची गाथन हाडली. अपुन नुस्ते उजरायलें. सोमाराक तीं नुस्तीं खायना आसलीं. शंकर न्हावन देवपुजा करून नुस्तें खातालो तरी नुस्तें खाल्यार रातचे भजन कर नासलो. बांगडे तळिल्लो वास सुट्टील्लो.

" अपु तिळसानची रातराणी तर दनपारचे बांगडे वाशेतात "

" बांगडयाच्या वासान जिभेक उदक सुटता तर रातराणीच्या वासान नाकाक तरतरी येता. "

" करपत पळय गो सारखे " अपु आतां कल्यान कुळागर शिपतालें तरी ताच्या कमरान येतालें. शंकर दिसभर पसऱ्यार आसतालो. रातचो आठाक णव्वांक पसरो बंद करून येतालो. म्हाल हाडुंक एक दिस तो शारान वतालो. नाल्ल, सुपाऱ्यो, अनसां, आंबे वतना तो पसऱ्यार व्हरून दवरतालो ताका बरी दर मेळताली. दादु सुनेक मानानच वागयतालो. केन्नाच काम कर अशें म्हण नासलो. हे 'काम केल्यार जाता' अशें म्हणतालो.

गंगेक मात तापयल्या बगर राव नासलो. सुने मुखार तापयतगच गंगेक वायट दिसतालें. ताचें तशें दोघायचेंय पट नासलें. अपु दादुचें काम सांगचे पयलींच करतालें. गंगेचो भरभर सदचोच ताका तें मान नासलें. काम केल्यार ती भरभरताली ना तरी भरभरताली. अपुन सारखे काम केल्यार ती कांयच म्हण नासली तरी काम चुकयल्यार तापयल्याबगर राव नासली.

शेत रोवन जातगच अपु सदांच वचुन कुणग्यानीं उदक सोडतालें. किड लागल्यार शंकराक कळयतालें. शेत कापतगच ताणें पेट मारून खळ केलें. मळणी तेंच आमुडतालें. कमरभर भाताची रास जातगच दादुन तेलीस भाटकाराक आफयलो. शेत तेलिस भाटकाराचें दादुन खंडाक करून घेतिल्लें.

तेलिस भाटकारान माथ्याक वालो बांधुन खळार कुडव लायलो. खंड मेजुन मानाया कडसून ताणें आपल्या घरा व्हरून घेतलो. तण रवणाकडेन दादुन व्हरून गुडवें शिवुन घेतलें. अपुक भाटान भोवंक आवडतालें. ताका दिस आपलें नशीब बरे म्हणून हांगा पडलें. शारान सैमाचे लागीं वचुंक मेळना. हांगा सैमाबरोबरच जीण घालोवची पडता. पयली थोडेशें चलतगच खरस मारताली ती आतां मार नासली. पयलीं कपडयांक चीखल लागतगच तें रोकडेच धुतालें आता ताका तार्चें व्हडलेशे दिस नासलें. पयलीं तें पावडर केस करून व्यवस्थीत रावतालें. आतां ताका दिसतालें सैम इतलो सुंदर ताचे मुखार मनीस कितलोय नटलो तर फाटी पडता. सैमिक सोबितकाये मुखार कृत्रीम सोबीत काय फुकट.

मीरगार गाय व्हियेली. गंगेन पोस केलो. अपुक तो खुबच आवडलो. पावस मात खुबच पडतालो. भायर काम करूक दिना आसलो. दांगरावेलो उदकाचो लोट आखाडयानसुन येवन शेतान पावतालो. घरा फाटल्यान उदकाची झर फुटताली. तरी चार पांच दिस पावस ना तर बंध जाताली. गांवठी नळे आसले तरी गळ नासले. चुडताची खोण्णी सोप्यार लायील्यान वावझड मार नासली. आंगणान उदक एकठांय जातालें. वेल्यान पावस पडतगच बोमाडे येताले. कुळागर भर पालो वाडतालो. अपु व्हीळयान कापुन तार्चें आझे बांधतालें. असोच पावस पडतना दादुन म्हळें 'तांदळाची भाकरी केल्यार जाताली ' अपु रानचे कुडीन गेलें दात्यार तांदुळ दळले. कांदो मीरसांग घालुन ताणे पिठ तव्यार थापुन चरचरीत भाकरी भाजली. दादुक ताणे अध र्ी दिली.

" गंगेच्यान असली भाकरी ह्यातिन करूंक जाली ना ती तुवें रोकडीच वर्सा पयली केली "

हो शेरो आयकुन अपुच्या दोळयांन दुकां आयली. गंगी बोचो वांकडो करून अपुचेर पिकार जाली.

" आगो भाकऱ्यो केल्यो म्हणुन संसार जायना "

अपुक जाल्ली खोशी खंयचे खंय नाच्च जाली. दादुन सुन येत साकुन विडी कमी केल्ली. गंगेक तो काम सांग नासलो तरी अपुक तो काम सुचयतालो. गंगेची काणी अपुक सांगतालो. अपुक हय हय म्हणुन दिस काडचे पड. असोडये गंगी अपुकडेन दादुचें वाजयताली.

अपुन शंकराक सांगुन चीकु, आंबे, तिकी, काजु, जायफळ हांची कलमा हाडुन घेतली.कामे-या कडसुन नेमां मारून रोयली. जाणत्यानीं रोयील्या कलमाचीं, झाडाचीं, बियाची फळां आमी खातात, तशेच आमी लायील्ली कलमाक फळां येतली ती फुडली पीळगी खातली. ताणें सारें, गीमान उदक घालें. कलमां वाडलीं.

अपुन चितलें वांचल्यार आपणाक तांची फळां मेळतलीं. रोयना तर झाड जावचे ना, झाड नासतना फळां खंयचीं येतली ? दादुन आडयार कवाथे लायले.

" सुनबाय तारवटी मीरसांगो पिकल्यात त्यो काढ, तरी तन्यो झाडाकच दवर, कावळे पळय कशे खाताते. "

अपुन जुन जाल्यो मीरसांगो काडुन सुकत घाल्यो. गंगी म्हणुक लागली " आगो हांका तारवटी मीरसांगाचे पापड जाय आसतात. खातलो एक तरी किस्पोती चड दुसऱ्यो मीरसांगो घाल्यो तर पापड खावपी प्राणी न्हय! म्हज्या गोरवां मुखार म्हाका फुरसत खंय आसता ? "

२

शंकर आयतारचो पसऱ्यार वच नासलो. अपुक तो घेवन कुळागरान, गोठयान, रानान वतालो. सगलें समजुन सांगतालो. पावस पडुन पंधरा दीस जावन गेले. अपु आनी तो खणाचे वयल्यावटेन गेल्लीं. देवणशे जमनीनसुन फुट्टील्ले कोंब ताणें कोयतेन कापले आनी पानान घाले. मागीर तो आंबाडयाचेर चडलो आनी सात आठ आंबाडयाचे घोस काडले. अपुन विचारतगच ताणें सांगले ही 'लुती भाजी'. गंगेक खबर आसलें दादुक लुती भाजी आवडताली तरी शंकरा इतली न्हय. अपुन ती खातगच ताचो ताळो कुचकुचुंक लागलो. तरी शंकरान ती तोप पुसुन खाली. शंकर तसो हौशी आसलो तरी ताचे तिडत तर चार पांच दिस उलयनासतना रावतालो. शंकराक अपु मानानच वागयतालें. कितेंय सांगल्यार जीवाची पर्वा करी नासतना तें काम करतालें.

सकाळीं उठतगच अपुची नदर आंब्याक लागील्या म्होवाच्या पोळयाचेर गेली. शंकराक ताणें म्हळें " म्होव खायन दिसलां. दिवशीत काडुन ?" रूख मोठो आसलो आनी पोळें भायर गेल्या खांद्याक लागिल्लें. शंकरान म्हळें तें चार पांच म्हयन्यासावुन थंय आसा. आता उमाशेकडेन ताका म्होव मेळतलें. तो निसण घेवन रूखा पोनाक गेलो. अपुक ताणे शिन्या बडी हाडुक सांगली. जाता नजो करून तो वयर चडलो. पोळे भायल्या खांद्यार आसलें पोनान ताणें अपुक पाटलो दवरूक सांगलो. आनी शीन्या बडयेन पोळे कातरून वडयलें तें पाटल्यान पडलें. अपुन तें म्होंव अधाशा सारखे खालें. अपुक दिस गेल्ले.

आतां दिशीं दिशीं ताच्यानी काम करूंक जायना आसलें. गंगी ताका त्रासाचे काम करूंक सांग नासली. खाणा जेवणा कडेन ती लक्ष दिताली. आपुण आजी जातली म्हणुन ती खोशेन आसली. दादुक गजाल कळतगच नातवाचें केन्ना

तोंड पळेता अशें ताका जालें. ताका दिसलें बलायकी बरी आसा म्हणतगच नातु पळोंक मेळतलोच. अपुन तोपरीं, आंगलीं शिंवलीं. ताका शिवण येताली. मर्दी दोन फावट तें कुळारा वचुन आयलें. दोतोरान सांगलें भिवपाचें कारण ना. शंकर खुश आसलो. पसऱ्यावेल्यान बेगसार येवन अपुक मदत करतालो. सात म्हयन्यान अपु बाळंतराक कुळारा गेलें.

गंगी आता काम करताली. अपुची याद तिका परत परत येताली. बडबडलें तरी पोर मनान धर नासतना काम करतालें. आतां काम कोणाक फर्मायतली ? ना तेन्ना मनशाचें मोल कळता हेंच खरें. सकाळी उठून दादुन दोन तन्न्यो पोपया काडुन गंगेक दील्यो. गंगी शिनुक बसली. दादु कोयती पाजुन कुळागरान पिडे कापुंक लागलो. गंगी रानताली. शंकर पसऱ्यार गेल्लो मर्दी वर भऱ्यान गंगेन कुळागरान सुगाव घेतलो तिका कोयतेचो आवाज आयलोना. ती न्हावन मेकळी जाली. ताक चाळलें निरपणसाच्यो फोडी तव्यार घालुन तळल्यो. कडी पीळली. सकाळी तिणें कांदो सोय घालुन तांदळाची भाकरी केल्ली. तिचो कुडको खावन ती कॉफी पियेली. शंकर एखादे नुस्ते हाडत हाची सोप्यार ती वाट पळयत रावली. कुळागरान तिणें कान शेळायले तर आवाज नासलो. शेतान दादु गेला आसतलो अशें तीच्या मनात आयलें. शंकरान नुस्ते बारांक हाडलें.

" अगे दादु खंय ?"

" कुळागरान ना तर शेतान आसतलो. "

" तरी इतलो वेळ तो कित्याक रावतलो ?" गंगेक दुबाव गेलो. ती तशीच कुळागरान गेली. खंयच कोयतेचो आवाज नासलो. मागीर ती शेतान गेली तर थंय तिका आवाज येवकना. खंय गेलो काय ? तिका दिसलें गोठयाकडेन गेला आसतलो. शंकर भायर सरलो शेतान व्हाळान पळोवन तो कुळागरान आयलो. चुडतां माचा कडेन पावतना ताका दादु पडिल्लो दिसलो. ताणे किळाच मारली. 'दादु'! ती आयकुन गंगी धावली पळय तर दादु घट्ट जाल्लो. तिका थंयच घुवंळ आयली. शंकरान उदक व्हरून मारतगच मी साव शीद जाली. मागीर ताणे दादुक पळयलो हात लाय तर गरमसाण मात लेगीत नासली. दादु मरून दोन तीन तास वचुक जाय अशें ताका दिसलें. गंगेक घरा पावोन ताणे वाडयावेल्या लोकांक सांगले. तेलीस तारवटी म्हणुक लागलो 'तो काळो जाला त्या कोतान तेका सोरपान फुकरिला आसतलो. पांयाक पळयलें तरी फाड दिसलोना. दादु गेलो शंकराचेर पेज आयलो. गोठया वेल्या वटेन ताचो दाह संस्कार करून वृंदावन बांधले. लोक येतना वतना म्हणुक लागलो,

" दादु खरो भाग्यवान, चलता भोवतना गेलो, अशे मरण मागल्यार मेळना "

शंकरान अपुक दादु गेलो म्हणुन रकाद धाडु ना. अपुची चिंतना ताका आसली. णव्या दिसाक शंकर जेन्ना मागिल दारान आयलो तेन्ना ताणे अपुन रोयील्लो केळमो केळ जावन व्हियेल्ली पळयली तो तसोच कुळागरान गेलो तर अपुन लायील्या कलमाक फुलाचेर ल्हान ल्हान तोरा धरिल्ली दिसली. गंगेक सांगुन तो अपुचे खबरीक मावोडया गेलो तर अपुगेर गोरोच चलो जाल्लो. दादुचो बारावो करून तो चल्याच्या बारशाक गेलो. दादुचे नांव पांडुरंग. तेच नांव चल्याक दवरलें. म्हयन्यान अपु पांडुरंगाक घेवन घरा आयलें.

गंगी खंती जाली. कपल फटफटीत जालें, साज गेल्लो वैराग्य आयिल्लें. घरा भायर वचुंक ती कांचवेवुंक लागली. पयलीची धार तिच्या उतरांची गेली, विनवणी आयली. दादु लग्न जाल्लो तेन्ना कफलकच आसलो. पस च्यार तशे गिरायक व्हडलेशे येना आसलें. कुळागरान माड थोडेच आसले. ना म्हळयार गोठयान चार पाच गोरवां आसलीं. गंगी पोरूस घराण्या खातिर झटली. दुधाचे पैशे घर खर्चाक ती मोडटाली. गोरवां वाडतगच शेण वाडिल्लें सारे मेळतगच कवाथ्यो वाडल्यो. शेतान पिक बरें येवंक लागले. दादुन केन्नाच गंगेन केले कष्ट चार चौघांक वा पुताक सांगले ना. तिचे तो दोषच पळयतालो. ति दादुक तशी मानताली तरी 'घोव म्हळयार देव' हे ती मानुक तयार नासली. ती ताका तोंडारच पाडताली. तरी दादु तिका आयकनासलो आपलो शेक गाजयतालोच. गंगी आतां भीयेताली. पयलीं सारखी उमेद नासली. भुक लागता म्हणुन जेवप. अळणी लेगीत आसल्यार तिका तें कळ नासलें. इतलेशें कुकमाचें बोट कपलावेलें वतगच तिका आपली जीणच फुकट कशें दिसुंक लागली. कपल धवें फुल्ल आरशान पळयतगच तिचे जीणेचे रंग सोपिल्ले. धार्मीक कार्य आसल्यार तिच्या हातचें रानील्लें उपकार नासलें. दादु गेलो म्हणुन न्हय तर समाजाच्यो चाली रीती वायट आसात हाचो तिका खेद जातालो. त्यो मोडपाची तांक तिच्यान नासली कित्याक तर जीण भर ती तांका मानत आयिल्ली. '' दादु गेलो हातुन आपलो कांयच दोष ना तरी ''

शंकराक वायट दिसलें तरी तें दुख ताणे गीळलें. गेल्याचेर शोक करप व्यर्थ हे ताका खबर आसलें. गंगेक तो कांयच म्हण नासलो. मनीस कायम कोणच रावंक येवकना. आपणे धीर सोडल्यार अपु आंग काडतलें मागिर पांडुरंगाचे हे चितुन तो दु:ख गिळतालो. ताच्या दोळयानसुन दुकां व्हांवलीना तरी तो काळजान रडतालो. ताका याद उर नासली. तकलेर ताज्या पेज आयील्लो. आतां निर्णय ताणेच घेवचे आसले. खरें म्हळयार ताका व्हडपण नाका आसलें. कोणा फाटल्यान कोणेय संसार सोडिल्लो जाल्यार संसार उरचोच नासलो. दादुचो बापुय धा वर्साचो आसतना मेल्लो तरी दादुन संसार केलो नासलो ?

अपुक घरान येतगच घर खावंक येवंक लागलें. येतना तें कुळ दिपक घेवन आयलें खरें तरी जाणतो घरचो पुरीस गेल्लो. दादुच्यो यादी ताच्या गाठिक आसल्यो. दादुचो वालो दांडयेर सुकतालो पळोवन ताचे दोळे ओले जाले. शंकर देवाची पुजा करतना जगाटेचो आवाज जायना आसलो. तंबाखुची पिशवी तशीच भरून आसली. ओडणारो नासलो. अपुन ती दुधाक येतल्यांक दीली. दादु एक ग्लासान च्या पितालो तो ग्लास अपुन जतनायेन व्हरून कुडीन दवरलो. दादु एक फावट काशीक गेल्लो जेन्ना ताणे गंगाजळ हाडिल्लें तें देवा म्हऱ्यान तांबयान बंध करून दवरिलें. अंत्य कालाक तें पिवपाची ताची इत्सा जशीच उरील्ली. मनीस येवजिता तशें जाताच अशें नासता. ताणे पयलीं अपुक सांगिलें

" सुनबाय म्हाका घटे लागतगच गंगाजळ तोंडान ओतपाचे म्हणतगच कुड शुध्द जातली, आकांता वेळार गंगी, शंकर हे काम करूंक शकचिना तांका सुचत म्हणुन सांगु नजो हे खातिर तुका सांगतां. " अपु नासले म्हणतगच तें कशें गंगाजळ घालतलें ?

गंगेच्या उतराची धार परतलि विनवणी करूंक लागली.

" अपु हें केल्यार बरें आसले " अशे समजावन सांगुक लागली. तिचें बळ उणें जालें. हातुणार पडल्यार अपुनच पानार घालचे पडटलें हे तिका खबर आसलें. तरी इस्टेट शंकराच्या नावार ती करूंक तयार नासली. म्हातार पणान तो पळयना जाल्यार ? ति आपली धापील्ली मुठ सैल करूंक तयार नासली. शंकराचेर तिचो विश्वास आसलो तरी अपुन ताका शिकयल्यार अशे प्रस्न तिका भेष्टायताले. शंकर आवयक दुखोवंक सोदी नासलो. तिणे जाय तें करपाचे. उरल्यार घेवपाचें नातर कांयच ना. तरी दादु ना आनि इस्टेट आपल्यानावांर कर म्हळयार तीका आधार आसचोना हें ताका खबर आसलें. तो विचारी आसलो.

" आई विश्वास हो कोणाचेर तरी दवरचोच पडता, राजा आसलो तरी रानप्याचेर विश्वास दवरचो पडता " गंगेक ते पटलें तरी ती कोणाचेरीच पाते नासली, जरी आपलो एकुलतो एक पुत जालो तरी, हांव किर्ते सर्गार ही इस्टेट घेवन वतली वतना. हें सगळें तुझेंच अशें तोंडान म्हणताली तरी नावार करतां अशें म्हण नासली. तिका शंकर वळखुन आसलो.

अपु गंगेक कायच म्हण नासलें तरी गंगी जीवाचे बरें वायट करून घेत म्हणुन ताका भंय दीस. पांडुरंगाक तेल लाय, न्हाडय, पाळण्यान न्हीदय ही कामां गंगी करताली. अपु रानप, कुळागरान शिपप, गोठयान वचुन शेण भरप, दुध काडप ही कामा करतालें. पाडुंरंगाचेर लक्ष दिंवक ताका तसो चड वेळ नासलो. ताणे पांडुरंगाक पासाक घालो नातर तो सोप्यावेल्यान पडत म्हणुन तें भीतालें. गंगेक तो आयकना आसलो. दिशी दिशी तो वाडतालो तशी ताका शक्त भरताली. घरावें

दुध मेळतगच तो चडच मस्ती करूंक लागलो. गंगी ताका 'धवळो' म्हणताली. पांडुरंग तिच्या घोवाचे नांव ती घेना आसली. अपुन शंकराक सांगले

" हे पळय कोणीतरी आधाराक हाडात, शेतान कुळागरान काम करपी जाय. "

शंकर पस थार येता तांका म्हणतालो. पस थार साकुन मुखेल रस्त्याक जोडपी रस्त्याचें काम सुरु आसलें. सामान व्हरूंक दनपारचो एकटो धोतर न्हेसुन आयील्लो. ताचेकडेन पैशे नासले.

" शनिवारी पैसे देतो "

" तु खंचो "

" सावंतवाडी गावचा " अशें ताणे मराठीन सांगलें.

" तुमचो विश्वास ना, फाल्यातुमी गावान वच तर हांव कोणाक सोदुं ?"

" दुकानदार जरा ऐका गरीबानं, तुम्हाला फसवलं तर देणारा तुम्हाला दुप्पट देईल, आम्ही तुम्हाला फसवुन जाणार म्हटलं तरी गांवात आमचं पोट भरणार नाही म्हणुन इकडे आलों. आमचं सोडा ल्हान मुलगा आहे त्याला उपास कसा करायला लावणार ?"

शंकरान ताका सामान दिलें. शेनवारचो पगार पडतगच ताणें सगले सामानाचे पैसे दिले. शंकरान ताची परिक्षाच घेतिल्ली.

" खोपुट बांधुन दिल्यार तूं कामाक रावशीत. शेतान, कुळागरान, गोठयान काम करपाचें "

" मालक पडेल तें काम मी व म्हाजी पत्नी करायला तयार आहोंत आपण आश्रय दिला तर उपकार होतील, आम्ही कुळ हक्क गाजवून तुमची जमीन हडप करणार नाहीत. आम्हाला गावीं जमीन आहे. "

शंकरान तांका हजारभर रूपया दिले. त्या पैशानी ताणीं ल्हानशे खोपुट म्हयन्या भीतर बांधलें.

शंकरान नांव विचारले

" म्हाजें नांव तोळु, पत्नीचे नांव मोगरा तर मुलाचं नांव सोमा. "

तोळु दिसोडयाच्या कामाक वतालो. मोगरें अपु सांगता तें काम करतालें. दुध काडप, शेण भरप, तांदुळ वेचप, उदक शिपप. अपु हात उखलून रोस, कडी, भाकरी किर्ते करता तें दितालें.

गंगी अपुन कितेय केल्यार ओगी रावताली. तिची बलायकी बरी नासली. खाणजेवण मदी मदीं विसरताली. अपुक तिचे वागणें कळताले तरी तें किर्ते करतलें ? दादुचे वर्स श्राध्द दिसा ती सकाळची मान्यान गेलेकडेन पडली आनी तकलेक मार लागलो. दोळे उघडे आसले कांयच उलय नासली. अपुन 'गंगाजळ'

तिच्या तोंडान रकयलें मात तो आंवडो गिळुन ती मेली. अपुचेर मळभ कोसळळें. कितेय बडबडली तरी तिचो आधार आसलो तो ना जालो. वर्सा पयलीं ती गेली इतलें दु:ख ति सोसुन आसली. दादुच्या शेजराक तिचें वृंदावन बांधलें. सवाशिण वचपाची तीची इत्सा पुराय जालीना.

अपुगेर दुसरो चलो जालो ताचे नांव दास दवरलें. मोगरें आता दिसभर अपुगेरच आसतालें. सोप्यार वान आसलें. भात घालून दिल्यार मुसळान काणतालें. तांदुळ आसुण्ण दितालें. बेडे पुजावन हाडुन वताक घाल, आयदना घास, ओलीं उमळ, हांडो भर, ताक चाळ, सान्न मार ही सगली कामा मोगरें करतालें तरी हात सैल सोडुंक जाय आसलो.

पांडुरंग, सोमो खेळताले. दास तशी मस्ती कर नासलोय तरी हट्टी आसलो. अपु संसाराचेर लक्ष दवरतालें. शेतान पिक येतालें. तोळु आपलेंच शेत समजुन वेळच्या वेळार सारें, उदक घालतालो. शंकरान आश्रय दिला ताचो पाळो दितालो. माकड दादु वचत साकुन खुबच सतायताले. तोळुक आयक नासले. अपु कुळागरान गेलें तरी मन ताचें भुरग्या कडेन आसतालें. मोगरें कामा करतालें तरी नीवळ जाय नासली. अपुक दिसतालें आपुण मेल्याबगर सर्ग दिसना तरी तें कितें म्हणुन करतलें ? मेळता तो आधार व्हड समजल्या बगर उपाय नासलो.

दासा फाटल्यान दोन वर्सानी अपुगेर चली जालें. ताचे नांव 'तारा'. तारा

ताऱ्या सारखे तेजपुंज आसले. तिघाचें अपुक करचे पड. पांडुरंग तसो चार वर्साचो आसलो तरी नदर दवरची पड. दास खेळणी दिल्यार त्या खेळण्या कडेन खेळत रावतालो.

अपुन पांडुरंगाक शीस्त लायीली. उठतगच पयली व्यायाम करुंकच जाय, काडिली वस्त त्या त्या जाग्यार दवरुकच जाय. दुसऱ्याच्यो चाडयो करुक उपकारना, अभ्यास वेळच्या वेळार करुक जाय. पांडुरंग शाळेन वतालो. शंकर ताका पसऱ्यार वतना घेवन वतालो. बालवाडी नाशील्यान दास घराच आसतालो. पांडुरंग वर्सान वर्स पास जातालो. सोमो शिकुंक 'ढ' आसलो दोन दोन वर्सा एका यत्येक काडतालो.

वर्सा अशीच गेली. भुरगी वड जाली. तारा घरान रानुक मदत करताले. पांडुरंग मॅट्रीक जालो. दास पयलो नंबर सोडनासलो. तो कॉलेजीक धाकटया मामागेर गेलो. ताका शिष्यवृती मेळळी. तारा चौथी करुन घराच रावलें. अपुक घरातले कष्ट झेपना जाले. तरी लक्ष दवरचे पडताले. पांडुरंग शंकराक मदत करतालो. पसऱ्यार बसून व्यवहार शिकतालो. म्हाल हाडुन पसऱ्यार घालतालो. गांवची लोक वस्ती वाडील्यान गिरायक वाडील्ले.

शंकराक जेवण खाण चलना जाले. दिशी दिशीं ताची बलायकी इबाडुक

लागली. दोतोराक दाखयल्यार तांका दुयेसाची परिक्षा मेळना जाली. तो हळदुवो दिसूक लागलो. कामीण जाल्या जायत अशें समझून कामणीचे वखद दिले. तरी गुण पडलो ना. दोळे भितर गेले, पोले पडले. हात पाय थंरथंरुक लागले. पसऱ्यार वतना दोन तीन कडेन बसुन तो हळूहळू वतालो. पांडुरंगाक ताणे पसरो चलवंक शिकयील्ले. अपु बापडें किते करतलें ? शंकराची जाता तशी सेवा करताले.

" पसऱ्यार वचना जाल्यार जायना ?"

" जाता गो तरी काम करुन आयील्या मनश्याक बेकार बसूंक आवडना ."

आता तो चड सो भायर सरना जालो. पांडुरंग व्यवहारान पडतगच बरो सुधारिल्लो. दास एक दिस शंकर बरो ना म्हणतगच आयलो. तो इंजीनीयरींग शिकतालो बरे बरे प्लॅन काडतालो.

" बाबा म्हाका अजाप जाता तें आमच्या घरार्चे कितलीं वर्सा जालीं तरी अजुन गुन्याद वणती घटट् आसात, दादून खंच्या तेपार दुरिग बांधुन घेतिल्ले कोसळ नासताना तशेच आसात. आज काल शिमीटाची घरा बांधली तर ताका फुट येता "

" अरे पयली इंजीनीयर नासले तरी गंवडे हुशार आसले अपु पत्रावळीचेर वडयो घालता त्यो पळय, तांचो आकार तशेच तें पापड करता ते एकच सारखे वाटकुळया आकाराचे. अरे कला ताच्या हाताताच आसा. दास आतां आयक म्हजे दिस थोडेच आसात, तुमी दोघ जाण पुत तेन्ना तुमका ही इस्टेट अर्धी येता. तरी तुमी अपुक विसरुक उपकारना ताराक लग्न करपाची जालदारकी म्हज्यानी जाता आसली, तरी म्हजे दिस थोडेच आसात. म्हाका आता उजो दिसूक लागला. तेन्ना तुमी दोघी जाणानी ताका लग्न करपाचे. "

" बाबा एक गजाल सांगपाक म्हाका जमलेना ती तूमच्या कानार घालता, तर हांव कॉलेज शिकता थंय म्हजें दुसऱ्या धर्माच्या चलये कडेन सुत जुळला. तुमी धार्मीक म्हणतगच तांका हाव घरान हाडुक सोदीना. बरे ताचे शिवाय हाव जगुंक शकना हे ही तितकेच खरे. "

" दास तू गिन्यानी, शिकला, सवरला म्हजो तसो विरोध तुका ना, आसलो म्हणून विरोध करची तांक ना. तुझें बरे जाल्ले म्हाका जाय. खंय राव तरी सुखान राव. म्हजे आशिर्वाद तुझेर आसातच. अपुचे कानार ही गजाल घाल. पळय ते किर्ते म्हणता ते. जण एकटयाचे विचार आगळेवेगळे आसतात. तुवें सांगले हातून सगळे आयले ना तर म्हाका फटयील्या सारखे जाता आसले. म्हाका वायट दिसलें तरी जुवानपणाक मनीस चूक करता हे ही तितकेंच खरे. दास कितेय

जाले तरी तुझे बरोबर जुळोवन घेवंक ताका बरीच वर्सा लागतली. आमका आता संसार करपाचो ना ताचे बरोबर तुवेच करपाचो. घर म्हणतगच केन्हाय येवन वच. पांडुरंगाचे लग्न वर्सा भितर जातले. दोन तीन सोयरीको आयल्यात. " दास शंकराची स्थीती पळोवन सामको निर्शेलो तरी तार्णे केल्लो बोध मोलादिक आसलो. मरणाच्या दारान पावलो तरी दोघय पुताक ताणे सारखेच लेखिले. ताका ताच्या जीणेचेर विश्वास नासलो वखद पाजना तरी तो तसो दाखोवन दिना आसलो. लाचार जालो ना. दासाक ताणे व्हंकल मरचे पयले हाडुन दाखय म्हणून सांगले. दासाक बापायचे काळीज वळखूक पंचवीस वर्सा लागिल्ली. तो रागीट आसलो तरी मनान मोव आसलो. चुक जाल्यार ती सुधारप अश्या मताचो. खरें म्हळयार दासाक ताच्या इस्टेटी परस ताची उतरां म्हत्वाची दिसली. दास पैश्यानी बरो आसलो. शिकतनाच तो खाजगी कामा करून पैशे मेळयतालो.

दिर्शी दिर्शी ताची शक्त उणे जायत वताली. खुर्ची सोडून तो खाटीर न्हीदून आसतालो. अपु ताका जाय ते करुन घालताले. ताचे उतर सकल दवरनासले, दमालागतालो, राती राती जागरण करतालो तरी दुस-याक न्हीदेक आडखळ हाड नासलो.

एक दिस तो म्हणूक लागलो " अपु तुवें घराण्या खातिर खुपच केलें ते ही तोंड धापुन, तुझे रीण फारीक करप कठीण. आता तुवें एकटयानच संसाराक मार्थें मारपाचे. हांव गेलो म्हणून धीर सोडून उपकारना. घरान सून येतगय तिचेकडेन गंगे सारखे वागूं नाका, तर मॉयपण गाजोव नाका, तांचो आधार तुका जाय पडतलो. जुळोवन घे. येतल्या परिस्थीती तोंड दी. कोण हांगा साचणाचो रावंक येवंक ना. संसार म्हळयार एक नाटक. थंय सून, बायल, आवय अशी सवंगा सजवपाची नाटकाचो पडडो पडतगच सगळी सवंगा काबार नाटक चड वेळ खंय आसता ? " अपुच्या दोळयान दुकां आयली ती शंकरान चादरिन पुसली.

" अपु आज सावन दुकां गळवपना, जरी हांव गेलो तरी ती दुकां घामाच्या रुपान भायर फूट मेरेन तूवे काम करपाचे. एक खोशेची गजाल म्हळयार समजा दुसरो जन्म म्हाका मेळळो, लग्न करचे पडलें तर तुझे कडेन जातलों हे वचन घे. पांडुरंगाक ताचे पसंदीची चली पळोवन लग्न कर, दासाचे करची गरज ना ताणे पयलीच थारावन दवरलां. ताराक ताचें तेज पळोवन चंद्र येवन मागुन व्हरतलो. ते आसाच तशे गुणाचें तूं मात बरिच्च वर्सा आसतलें. रुखाची मुळां घट जमनीन रुजलीं तरी किड लागतगच तो मोडता. " शंकरान अपुक ल्हानसो सुळसुळीत पाषाणी फातर दिवन म्हळें " तुवें तुझे काळीज हया पाषाणा सारखे करपाचे तेन्नाच तुका देवी मानतले. हे पाषाण थंडी, वारो, पावस आयल्यार ताका बाधना उलटें तें निवळ सुळसुळीत जाता. हो पाषाणी फातर म्हाका आज्याचो, दादुन

म्हाका एक दिस दिल्लो. तो शाळीग्रामा सारखो जप, तो तुका स्फुर्त दितलो. म्हजी याद जाता तेन्ना ताका पळय म्हणतगच तुझे मन ताच्या सारखे घटट जातले. चित्राची पुजा कोण करता ? कित्याक तर तो मोव. आनिक म्हजेकडेन तुका दिवपा कायचं ना. ''

" तुमी म्हाका किते दिवंक ना ? आनिक म्हाका कांयच नाका तुमचे आशीर्वाद हेच म्हजे बळगे. तुमचे कडेन हांव कायचं मागीना. तुमका दुयेसातल्यान सोडणुक दिवची हेंच देवा कडेन मागतां. ''

" अपु खरे आणि खोटे हातुन अंतर आसता, ही म्हजी निमणी अवस्था, हांवच दुयेस जाला. ''

दास एक दिस बायलेक घेवन आयलो. शंकरान आशिर्वाद दिलो. दासाक ताणे सांगलें

" ती खंच्याय धर्माची जावं तुं तिका हिंदु करुन घे. ''

" बाबा ती हिंदु जावक तयार ना म्हाका ती इस्लाम धर्म स्विकार म्हणता. म्हाका ते पटना. आमी थारायला तिणें तिचो धर्म सांभाळचो हांवे म्हजो धर्म, जाता तें बऱ्याक, हांव पयली मुसलमान जातगच मागिर तें हिंदु जावंक तयार आसा. ''

" ताच्या मना सारखे वाग. बळया ताका हिंदु करु नाका तशेंच मनान नासताना तुं इस्लाम धर्म आपणांव नाका. तुका योग्य दिसता तें कर अपुक विसरु नाका. जाला ते जाला. '' शंकरान आपल्या सोयऱ्याक रकाद धाडून आफोवन घेतले. तांका दोळे भरुन पळयले. आपल्या मनान जे आसा तें तांका सांगले. शंकर खोशी आसलो. मरणाचो भंय ताका दिसनासले. हे त्रास ना जावचे, ताचेर उपाय म्हळयार मरण. तें येतगच त्रास जावचे नात अशें तो म्हणी. अपु ताका पाते नासले. ताका न्हांडवप ,जेववप सगळे करताले. वखदां दिली तरी उपेग जायना आसलो. तो फिकट धवो धवो जाल्लो. हात पाय म्हळयार हाडांच आसली.

" अपु तुवें म्हजे खातिर खुबच केलां. ताची भरपाय हया जल्मान करुंक जावची ना. आता हांवे उसवास घेत रावप म्हळयार तुंझे आयुश्य सोपोवप आमच्या भुरग्यांचो फुडार आसा. तुवें गळयील्या घामाचे भांगर पिकतलेंच. म्हाका विसर, शोक करु नाका. ''

सकाळचे अपु ताका दुध घालतालें. तो तें दोळे धापून पितालो. पीतां पीतां अचानक दुध परतें येवन तोंडासून पडलें. अपु सटकलें. पांडुरंगान ताका मांडी दिली. ताणें निमणो उसवास सोडलो. अपुन किळांच मारली. वयर काजून ताजें वृदावन बांधले.

पावस पडतालो. पांडुरंगाक सोयरीक आयील्ली. घरचें घरा लग्न करपाचें थारायलें. देवा कडेन गेलो आमंत्रण पत्रिका दवरुन तो वृंदावना कडेन गेलो आनी तीनय वृंदावनाचेर तार्णे लग्न पत्रिका दवरल्यो. शंकराच्या वृंदावनाच्या वयर आशिल्या काजूचे पान पत्रिकेचेर पडले. बापायचो आशिर्वाद समजून तार्णे ते पान आपल्या बरोबर बांधून दवरले. मरतगच लेगीत बापायचो आशिर्वाद मेळलो हाचे ताका समाधान जालें. माळ पडतना कुपांचो गडगडाट जालो. वाद्य नासले तरी शंकरान ते धाडिल्लें पावस पडतगच सगळयाक थंडाय आयली थंड पिवंक लोकांक दिले ना तरी व्हडलीशी गरज नासली. रातीन जोगलानी रोषणाय केली. अशे तरेन दुःखानच पांडुरंगाचें लग्न साकशिलें.

पांडुरंगा बरोबर जेन्ना ताची बायल तांदळाचे माप परतुन घरान सरली तेन्ना अपुन तांका देवाक पाया पडुंक लायलें. मागिर तीं जेन्ना अपुच्या म्हयान पाया पडुंक आयली तेन्ना अपुन सुनेक आशिर्वाद दिवन म्हयान घेवन म्हळे " आज सावुन तुझें नाव 'आशा' आमका आता तुजीच आशा हो घे चावयाचो घोस तुवेंच सांभाळपाचो. पावसान लग्न जाल्यान रातराणी परमळ नासली. अपुक दिसले आशाचे नशीब पळोवया कित्याक तर सैमाचो घमघम घरान पावलोना, म्हाका मेळीलो तो आशाक मेळूक ना. तरी आशान आपल्या कर्तुबान परमळ संसारान भरल्यार पूरो, आपले वजे ल्हव जाले, तरी ताचे वजे चडच जड जाल्लें हे त्या भावार्ती अपुक खंय खबर आसलें ? आशा तशे गिरेस्तालें न्हय. तरी भीकाऱ्याक ओंकारे चड म्हणतात हे खरें. तार्णे खेडे म्हणतगच पयलीच नाक मुडडील्लें. कुळारची व्हडपणा सांगूक लागलें. अपुन म्हळें कुळारा बारा म्हशी सूनेक आयल्यो उटाबशी.

" कुळारची व्हडपणां हांगा कामाक येनात तुका खबर आसलें मागिर लग्न कित्याक जालें, कुळारा रावपाचे सुशेगाद. "

" हावें खरी गजाल सांगल्यार बिगडलें खंय ?"

" ते जाले तरी ताचों जप दिस भर बरो न्हय. देवाचो जप केल्यार पुण्य मेळतलें. "

" तें तुच जोड आता तुझी पिरायच न्हयगे ती. "

अशें तोंडाक तोंड लागतालें. आशा सदाच उठूक वेळ करतालें. अपुक सगळी कामा करची पड. आधाराक हाडिल्ले तरी ताचींच सेवा अपुक करची पड.

" अगो सगळयाचो सुर्य उदेलो तुझो उदेवंकना किते ?"

" तूमकां जाणतेल्यांक न्हीद पडना ती पडना, दुसऱ्यानी घेतिल्ली ती पळावंक जायना "

" आशा तशें न्हय हांव तुझ्या बऱ्याक सांगता, अस्तुरी म्हणतगच न्हीद, भुक हाका शीम आसुंक जाय. तूं दिस भर न्हिदुन रावलें म्हणून म्हाका कूडडे पणा ना "

" अगे कुडडे पणा ना जाल्यार ओगी राव तोंडाक चावी कर म्हाका काळ वेळ सगळे कळता. सकाळी सुर्य उदेतना पसऱ्यार गिरायक येवन बसना. गिरायक म्हनशाच तीं, जागरण रातभर करिनात. कितें उलोवपाचे थाट! तूं जाणती तूका न्हिद येना तर तुच उठून काम कर "

" अगो म्हजे काम तुका दवरिना तरी तूं केन्ना शिकतलें ? "

" तुं तुझीच चिंता कर, म्हजी चिंता करु नाका "

एके वटेन जन्म दाती आवय तर दुसरे वटेन साथीदारीण, हांचे मदी पांडुरंग पडिल्लों कोणाक सांभाळतलो ? एकटयाची बाजू घेतल्यार दुसऱ्याक वायट दिसतालें म्हणून तो ओगी रावतालों.

" आशा जाणती हांगाचो शब्द थंय पडल्यार व्हडलेशें बिघडचे ना तीका हांव वळकता तोंडान पच्च केले तरी मनान कांयच ना. तुं सुधारचे हे खतिर ती तुका सांगता. ताचें वायट धरल्यार तूं खंय सूधारतले "?

" हांव अडाणी न्हय तूमच्या आवय सारखे म्हाका कळता कितें बरे कितें वायट तें. तुमी तिचेच पुत दादलेपण म्हणून कांयच ना तुमचे कडेन. ति सांगता थंय बसलो सांगता तेन्ना उठलो कुत्र्याक लेगीत स्वाभिमान आसता खोटायल्यार तो घास काडल्या बगर रावना "

" आशा अशें अपुन तुका म्हळा तरी कितें ?"

" तुं आयकना तर ताचे परिणाम आमका भोगचे पडतले अपुक तातुन कितें ?"

" आवयचो इतलो वोण्णो आसा झाल्यार हांव कुळारा चल्लें. करात तुमी संसार हांव उपाशी पडचे ना. कितें आसा हांगा ? माकड, रुख, गोरवां, "

" पांडुरंग म्हजे खातिर तु ताचेर बेजार जावं नाका हांव तुका थोडेच दिस दिसतले. सगळी जीण आशा बरोबर काडूक जाय " सून आयकना पूत सुनेवटेन पळोवन अपु निर्शेलें. ते अशक्त जालें. रातचें जेवण सोडले. सोमारचो कडक उपास धरलो. भटाक आफोवन ताणें शुद्ध:कार करुन घेतलो. काळे लांब केस म्हाल्यान कापून वडयले. तांबडी कांग न्हेसूक लागलें, माथ्यार पदर आयलो. ताका रुप नाका आसलें तरी वायट नदर दादल्याची वच्ची न्ही हो फाटलो हेतू आसलो. शंकर आसताना ताका माळूक फूला कमी पडतालीं तर आतां फुलां रास भर आसली तरी केसच नासलें.

सोप्यार झोपाळों आसलो ताचेर पयली दादू ,गंगी बसुन झोके घेतालीं. अपु

केन्नाच त्या झोपाळयाचेर बसूना. आशा मात दिसभर ताचेर बसून झोके घेतालें. अपुक झोपाळयार बसप सभ्यपणाचें लक्षण दिस नासलें.

३

सकाळचे दुध अपुच काडतालें. गोठयातलीं उरील्लीं कामां मोगरे करतालें. च्या करुन आशाक दवरचो पड. सकाळचें खांवक पोळे, भाक थो ताकाच करचें पड. तारा तशें मदत करतालें. सातवी मेरेन शिकतगच तारान अपुक घरचे कामाक मदत करुंक शाळा सोडली. तशें ते शिकुंक व्हडलें हुशार नासलें, तरी वर्सान वर्स पास जातालें. कुळागरान उदक सोडप, शिनून कातून दिवप, नुस्ते उजरावप हीं कामा तें सांगी नासताना तशेंच वाजे नासताना करतालें. आशा ताका बेकार दवरी नासलें. नाल्ल सोलून खोबरे करुक लायताले घाण्यार व्हरुन तेल मळून हाड म्हणतालें ताराक अपुची काकूळत दिसताली तरी करतलें कितें ? दास एक दिस येवन म्हणूक लागलो.

" म्हजे लग्न आठ तारखेर थारायलां बस धाडतां तेन्ना तुमी वाडयावयली सगळी येयात. खरें म्हळयार सात तारखेक म्हजी शादी जातली मागिर हांव लग्न जातलो ''. अपुक तो कितें म्हणता तें कळेना.

" कितें पुता शादी, लग्न म्हाका कांयच कळना, एकच फावट जातात न्हीरे "

" आई म्हाका क्षमा कर बाबाक हांवे म्हजी गजाल सांगिल्ली तरी तूका सांगूना. तें धाडस म्हाका जालेंना बाबाचे थोडेच दिस आसताना ताका फटयील्या सारखें जातलें म्हणून हावें ती गजाल ताच्या कानार घाली. तुका तेन्ना सांगल्यार त्या दुःखान हे दुख वाडता आसलें. तर म्हज्या बायलेचे नाव रझिया. म्हाका पयली मुसलमान जावचे पडतलें. मशीदीन वचून पयलीं शादी करतलों मागिर ताका हिंदू करुन आठ तारखेक लग्न जातलो. " दास तुवे कोणाबरोबर लग्न जाव शादी केले म्हणून म्हाका वायट दिसना तुवें इतले दिस म्हजे कडेन लिपोवन दवरलें हाचे वायट दिसता. म्हजी हरकतना. तुं आमका लागला खंय ? केन्नाच घरची आशा तुवें केली ना. तुझी परिस्थिती बरी आसा तुं तुझ्या पायार उभो आसा. बाबान दिल्ले आशिर्वाद आसतगच म्हजे आशिर्वाद जाय शेनात. तांचे तेच म्हजे असे समज. ही दोन काकणा बाबान धाकटया सुनेक दी म्हणून सांगिली तीं तुं व्हर व्हडल्या सूनेक पाटली दवरल्या. पन्नास घरचे नाल्ल व्हर तसोंच कुळारा साकून केळमो लायिलो त्या पिंडाक एक व्हडलो घड आयला तो ही व्हर नातर

मागिर येतना आमी हाडतात. तशेच नाल्लाची पेंड तोळु कडसून काडुन घेवन येता. वाडयावयले कितले जाण येतात ते पळोवया. सगळयाक सांगल्यार तांका थोडयाक जातीभेद चड म्हणतगच चड फोर्स करीनात. हांव तारा, तोळु, मोगरें हांका घेवन येतले. पांडुरंग आशा पळय कितें म्हणतात ती ''

दासान सकाळची बस धाडली. घड, नाल्लापेंड, पत्रावळी, दोणे तशेच दुदी व्हरुन तातून घाले. पांडुरंग, आशा, तारा तेलिस भाटकार, आनी वाडयावेल्लीं सात आठ जाणा जमलीं. बस थारतगच दास आयलो. व्हकलेक हिंदु पद्धतिन नटयिल्ली. तरी व्हकलेवटेन कोणच येवंक नासलो. बॅंड वाजताले दासाक घरची पळोवन समाधान जालें. पांडुरंगान यजमानपण केलें. दासान तांका धोतर साडी ताराक सरपळी तर अपुक कांग दीली. रझीयाक हिंदी, इंग्लीश येताली भट कितें सांगता तें कळना नासलें दास भाषान्तर करुन सांगतालो. तरी रझीया तशे मन मिळावू आसले. अपुन ताका आशिर्वाद दिलें. जेवण जेवतगच बशीन तांका परत हाडून सोडले अपुची जाफदालदारकी कमी जाल्ली.

गांवची लोक वस्ती वाडिल्ली. पसऱ्यार गिरायक वाडिल्यान पांडुरंगाची येणावळ वाडिल्ली. दनपारचो तसो रातचो येवंक तो वेळ करतालो. घराकडेच येतगच आशाच्यो कागाळी आयकुच्यो पड. तेलीस भाटकारान गादी घाल्ली. दुर्दवांच्या आशेन तेलिसान पांडुरंगाक सोऱ्याचे व्यसन लायिलें. तेलिसाचो दोळो पांडुरंगाच्या कुळागराचेर आसलो. पळोवक गेल्यार तेलिसागेर वारस नासलो तरी खाणारो नाशील्याक चड आशा. हांयस ताणे सोडिल्ले पांडुरंग तांतून फारवल्लो. दिशी दिशी सोरो चडच पिंवक लागलो. आशा ताका कित्याक पियेता ते विचारी नासलें. पांडुरंग रातचो धांक अकरांक येतालो. अपुक कुळागरान सून येवन पाच मिनटां वेळ जाल्यार आशा आंगार येतालें.

'' पांडुरंग, हे तुवें किते आडायलां ? म्हज्या कुडीन जीव आसा मेरेन तुं सोऱ्याक आफुडचोना. अरे तुझ्या बाबान केन्नाच सोऱ्याचो वास लेगीत घेवकं ना. तुका ही बुद्धी कशी आयली ?''

'' आई हांव जोडता ते म्हाका जायतशे पैशे मोडपाक. तुझेकडेन मागता तेन्ना पळोवया ''

'' पांडुरंग मांगल्यार हांव ना म्हणपी न्हंय, आसा तें दिवपीच अरे सगळे तुझेच. म्हाका संसार उखलून सर्गार व्हरपाचो ना, व्यसनाक पयली तु आपुडता मागिर तें तुका आपणायता. पोरुस घराण्याक काळें लावंनाका, धवे आसा तशेच आसूं दी. ''

आशा मदिच म्हणूक लागलें. '' अगे सोरो घेना तो अडाणी गांवडळ, आयज सोरो पिवपाची फॅशन आसा ''

तें अपुक तापयताले आणि पांडुरंगाक सांभाळतालें तरी आपल्याच पायार आपुणच फातर वडयता हें ताका खबर नासलें! तो सिगरेट ओडतालो विचारल्यार म्हणतालो " दादुची परंपरा चलवूंक नाका ? " पुजा करिनासलो चार पाच दिसानी न्हातालो. पितगच अपुक गाळी मारतालो. अपु आयकूक जायना तेन्ना कानान बोटां घालतालें.

अपुन सकाळचो पांडुरंगा कडेन ताराच्या लग्नाचो विषय काडलो.

" अरे ताराक खंय पळय रे बरो न्हवरो. "

" आई लग्न तोंडान जायना पैशे लागतात म्हाका तो खर्च परवडचो ना "

" म्हळयार तुं ताका वावराडे कोतार जन्मभर घरानच दवरतलो काय किते ? वाडिल्ली चली आसतगच खाल्लो गोटो आवयच्या आंगाक कसो लागतलो ? ताचो बापूय आसल्यार तुका म्हणचे नासलें तो व्यवस्था करता आसलो "

" अगे व्यवस्था करतालो तर मदिच हांवे दोळे धापुक सांगिल्ले ?"

" पांडुरंग किते उलयता तूं, मरण आपल्या हातान आसता रे ?"

" तशे न्ही, सुलुस लागतगच ताणे ताराचे लग्न करपाचे. आमचेर वझे करुन दवरला. "

" पांडुरंग तुझ्या जीभेक हाड आसा काय ना ?"

" अगे म्हझ्याच न्ही कोणाच्याच जीभेक हाड नासता अशे कूडिचे शास्त्र सांगता "

" अरे तुं भिवं नाका म्हजो तोडो, तसोच घोट आसा, तो ताराक घालतलें. मीलेर फोडल्यार हजार भर तरी मेळतले लग्नाचो खर्च भायल्या भायर वतलो. पाटली आसा नी आशाक शिवाय सरपळी कानातली आसातच म्हाका कांयच नाका वयर सारयेर घेवन वचपाची नात ती म्हाका. भुरगी सुखी आसप हिच आवयची भांगरां. ताराक न्हवरो बरो पळय देव आसाच तुका तशे व्हडले कांयच लागचे ना. जाफदारकी घेवची पडतली हें खरे "

" तशे झाल्यार हांव पळयतां तरी योग येवचो पडतलो "

अपुक शंकराच्या उतराची याद जाली 'खंचोय चंद्र येवन व्हरतलो ताराक तें आसाच तशें गुणाचे ' शंकरान सांगिल्ले तशें तशें घडताले तो म्हणी " घोव आसा सर बायलो वाघ आसतात मागिर घोवा उपरान त्यो ताच्यो मावश्यो म्हळयार मांजर जातात. नुस्त्याची बोडका खावपाची भीतर तोंड घाल्यार लाटणी पडलीच म्हणून समज. मरसर काम करपाचे कोणाक ताचे मोल ना. घोव आनि पूत सारखे न्हय. घोवाचेर बायल शेख गाजयता तर पुत आवयक दाटयता. बायलांचे तीन जन्म आसतात आंकवारपण, अयेवपण मागिर विदवपण. थोडी पयल्या तर थोडी

दुस्र्या अवस्थेक सोपतात तर थोडी विदवपण भोगूंक आसतात, हें खुबच कुस्तार. दोळे आसून पळोवप ना, कान आसून आयकपना, कपडे भांगरा आसून घालपना. घराची मालकीण आसून लेगित वावराडे कोतार जगप. जीव आसा मेरेन धडपडपाचे घराण्याक वयर काडपाचे तशे उतर जाणत्यानी पयलीच घेतीले आसता. मोलादिक जीव व्हगडायतलीं कशीं ? मेले तरी तो संसार वयर सर मेरेन झीजपाचे आसता नातर थारो-मुक्ती नासता. घराणे वयर सरतगच काम सोपता हें येवजून अपुचे दोळयान दुकां आयली तरी पुसतलो कोण ? शंकर आसल्यार ताचे दोळयान दुकां येवची नासली म्हणतगच पुसपाचो प्रश्नच उपरासना आसलो. दुका ताणे कोंगीन पुसली त्या सरशी ती गडद तांबडी जाली. अपुक दिसले म्हजो धग ह्या निर्जिव कांगीक कळता तरी जीत्या पांडुरंगाक समजना.

आशाक, अपुक, आनि ताराक जेवण वाडता तें दोळयान वतालें. तारा गेल्यार म्हयने म्हाल वावराडेक पैशे दिवचे पडतलें हे ही ताका खबर आसलें. अपु कायमचे उरपाचे म्हणून ते ताचेर शेख गाजयताले. कामा परस आशाचे शब्द मनाक चड लागतालें. "हो एक तांबडो कावळो साचणा नशिबार पडला " अशें म्हणतगच अपुक दुकां गळयल्या शिवाय उपाय नासलो. " जन्माचे आंकवारपण अशें म्हणून ताराक तें हिणयतालें" तारा परती जाप दिना आसलें वतान वडयो घाल पापड सूकत घाल, भींडाची सोला कर असली कामा ताराक सांगतालें. तारान ते काम करुन काळे दिसचे हो हेतू. गोटया कडेन दुध काडुक वतना शंकराचे वृदावन पळोवन अपुक धीर येतालो. तो आपली राखण करतलो अशेंच ताका दिस.

अपु मागिल दारान आयदना घासताना ताचे लक्ष केळीचेर गेलें. दासाच्या लग्ना खातिर गड काडिल्लो ती केळ सामकी सुकील्ली पानाची बावन शेंता जालीं. अपुन आपल्या आंगार नदर भोंवडायली तर ताका आपले आंग शेंता सारखे दिसलें. धवे पुण सुकें, निस्तेज. पींड मात चारी वटेन पसवलो तरी एक केळ व्हड जावन लेगीत व्हियेवची आसली. ताका ताराची याद जाली. एक कावळो येवन त्या केळीच्या सोपार बसलो त्या वजनान तो मोडलो. तारा एकटे तिळसांचे सकाळचें गोटयाकडेन वता सगळयाच्यो नदरो सारख्यो आसनात. तरी हुस्को काडल्या बगर तें कांयच करुंक शक नासलें.पांडुरंगान म्हळें

" शारान एक चित्रकलेचे प्रदर्शन भरचें आसा. तेन्ना कागद पेन्सील रंग हाडल्यात तारा जमता तर चित्र काड हांव तें थंय व्हरुन दिता. "

हातान दाणो घेवन ताणे अपुक उभे केले. ताका पळोवन ताचेंच चीत्र कागदार काडलें. कांगीक तांबडो रंग भरतगच तें उठावदार दिसूक लागलें. चार दिसानी चीत्र तयार जालें. अपुच्या तोंडावेले भाव त्या चित्रान स्पष्ट दिसतालें.

" संसारान एका परस एक वस्तु आसताना तुवें म्हजे विद्रुप चीत्र कित्याक काडलें ? तुकां इनाम कशे मेळतलें ?"

" आई जो परिक्षक आसा तो चित्रावेल्यान तुंझे मन पारखितलो आनि चित्राक इनाम दितलो. परिक्षक जर विचारी नासत तर तो इनाम दिवचो ना हें ही तितकेंच खरें. दुसरी गजाल म्हळयार आवय सारखी दुसरी वस्त या संसारान ना. भुय, मळब, पाताळाचो धनी आसलो तरी आवय शिवाय भिकारीच म्हणतात तें ओगी न्हंय " तारान चित्र काडून पांडुरंगाकडेंनं दिलें. तें ताणे व्हरुन प्रदर्शनांन मांडलें. तारा आपल्या सदच्या कामाक लागलें. पांडुरंगान घरा येवन म्हळें बरी बरी चित्रा मांडिल्ली आसात थंय हया चित्राक इनाम मेळत अशे सांगु नजो.

सात आठ दिसानीं पांडुरंगाक पत्र आयलें. चीत्राक इनाम फाव जाला तेन्ना चीत्रकाराक घेवनं येवचें. ताराक घेवन पांडुरंग ठरयिल्या वेळार गेलो. मंत्री चंद्रहासान पयलें इनाम दिवन ताराचो भोमान केलो

" चित्रातली अस्तुरी विधवा आसुन लेगित घरंदाज पणाची सया मारता ति दाखवपाची तांका हया चीत्रकारान आसा म्हणुन पयले इनाम ताका फाव जालें रंगाक मंत्रीच्या उतरांचेर विश्वास बसलोना. ताणें अपुक ही गजाल सांगतगच अपुक मळब मोटवें दिसलें तेन्ना तें शंकराच्या फोटवाकडेन गेले.

" तुमचें अक्षरान अक्षर खरे जाले तेन्ना हांचे फुडे तशेंच जावचें. "

फोटवाचो हार तुटून सकल पडलो. तारा तुझ्या बापायचो आशिर्वाद आसा भिवोपाची कांयच गरज ना. सगळे मना सारखे जातलें.

" सांचो चाराक सुमार मंत्री येतलो. तेन्ना सगलें निवळ ठाकठिक दवरात. आशा तुमकां मदत करतलेंच. " आशा हें आयकतगच तें पांडुरंगाच्या आगांर येवन म्हणूक लागलें

" तारा म्हजी चली तर ? जीचें चली तिणें सगले करप "

" वहिनी म्हळयार गें हांव कोणच न्हयं गें तुमचें ?"

" आईचे रक्त मांस खाले आता उरल्यात ती हाडां ती जरोवन खायात म्हणतगच जालें" अपुन व्हंकल पावणे वेळार हाडिल्लो तांब्याचो तांबयो उदकान भरुन हाडलों आनि उदक आशाःचेर तशेच ताराचेर मारलें. तारा हासूंक लागलें. झगडें पालवलें.

तो दिस उदेलो. अपु सकाळी उठलें, घर आंगणय न्हय तर आखाडया मेरेनची वाट ताणें झाडली. धुल्ल वयर उबतना पळोवन ताका दिसलें तारा घोवा बरोबर गाडयेन वतले तेन्ना असोच धुल्ल वयर उबतलों. दोळयान खोशेची दुकां व्हांवतली तरी त्या धुल्लाक जमनीर बसवची तांक तांच्यान आसची ना. शेणाचो शितोडो सगल्याक घालो.

तारा दुध काडून येतना पळोवन ताणे तांका म्हळें, “ थोडेच दिस हें दुध काडपाचे मागिर आयत्यो दुधाच्यो बाटल्यो दारान मेळतल्यों. ” सदचे सारखी दाट दुधाची च्या तारान अपुक दिली.

“ पोरा हीं दाट च्या तुं आसा मेरेन मागिर धवळच म्हज्या नशिबान. ”

तारान ‘सुस्वागतम’ बरयीलो पडडो दारार सोडलो. दारा मुखार तुळशी कडेन रांगोळी घाली. खुर्च्यो सारख्यो मांडल्यो,सालान मेज दवरले, ताचेर धवो कपडो घालो, आपणे काडिल्ली चित्रां वंणतीर लायलीं. कप बश्यो धुवून निवळ केल्यो. पांडुरंग पसऱ्यार वचूंक भायर सरतना अपुन म्हळें

“ बटाट, कांदे, पीठ, तेल, हाड. बटाटाची सुखी भाजी, पुरयो करुया.”

बरें म्हणत तो पिशवी घेवन पस थार गेलो. ताच्या जोत्याचो आवाज चरचर असो आखाडयाकडेन पाव मेरेन येतालों. सोमो येतना पळोवन अपुन ताका हातानच आफयलों.

“ अरे शिन्या बडयेन सात आठ घडाची तन्नी केळी काड म्हणतगच ताणें केळी काडलीं. एका तोपान उदक घेवन अपु ती शिनूक बसले. ताराक केळयाची सुकी भाजी खुपच घोस्ताची आसलीं. तारा खोशी दवरचे खातिर ताणें केळी काडिल्लीं. ताका शंकराची याद जालीं. केळयाची सुकी भाजी शंकर पानार लेगित घे नासलों, तरी पिकी केळी मेळत तर घड सोपलो हांचे भान खातना ताका उरनासलें. अपुच्या दोळयांसून दुकां सुटलीं. ताराक दिसलें हांव आता घोवागेर वतलें म्हणून अपुच्या दोळयांन दुकां आयल्या आसतलीं. मनिस आपल्या परिन अर्थ लायता तो सारखो आसता अशें नासता. भुरगें रडतगच तें कित्याक रडता हें जाणत्याक कळना कित्याक तर ताका सांगूक येना. अपु सगळयो गजाली सांगुक सोदी नासलें. थोडयो गजाली गुपीत उरप गरजेचे आसता. अपुन कांदो तळसुन बटाटाची भाजी केली, तारान पूरीयो काडल्यों. आशान च्या केली. पावस बारिक शेनतालो. अपुन मळबान पळयलें तर दिको नीतळ जाल्यो. पावस थांबल्यार पुरो अशे ताका दिसतालें. पांडुरंग पस थार गेलोना. तारा बयाकडेन पडचें अशी ताची इत्सा आसली. आशा मात वेले वयर खोशी झाल्याचें भासयतालें. पावस सामको बंध जाल्लो. सुर्याची किर्णा पडची आसली. आशा आनि पांडुरंग नवे कपडे घालून सोप्यार येवकारुक बशिल्ली. तारा आपली साज चडवन आबोलेची फाती माळून देवाक पांय पडून पडवेन आसलें.

घुर्रर आवाज जायना फुडे पांडुरंग आखाडया मेरेन गेलो. धाकटी गाडी थांबतकच मंत्री चंद्रहास आनि ताचो बापूय भायर आयलें. पांडुरंगान तांका घरान हाडलें. पावसाची चीटी पड नासलीं. चंद्रहास बारिक साणेन सगळयाक पळयतालो. वणतिवेली चित्रां ताका खुबच बरी दिसली. इतल्यान तारान बटाट

भाजी, पुरयो, च्या हाडून मेजार दवरली. पांडुरंगान तांका खावंक सांगले.

" बटाटभाजी कशी जाल्या कोण जाणा ?" अपुन मदिच येवन म्हळें

" बरी जाल्या." चंद्रहासाच्या बापायन म्हळें

" आनि थोडी भाजी जाय आसली." चंद्रहासान म्हळें

तारान बशेन हाडून मेजार दवरली.

" अगो तुवें चीत्र काडिल्लें ती तुझ्या आवयचे काय कितें?"

मान हालोवन तारान हयकार दिलो.

" हुंडयाचे कितें ?" म्हणना फुडे तो म्हणूक लागलो

" मंत्र्यानी हुंडो दिवप वा घेवप हो गुन्यांव थारता तो आमी करीनात. चली आमका पसंद म्हणतगच चली म्हळयारच हुंडो. आमका तशें फाल्त कांयच ना. लग्न म्हयन्याभीतर करपाचें कित्याक तर ताची बदली जावची आसा. " खीणभर अपुक आपुण सपनान आसाशें दिसलें. ताका दिसले तारा उजळ आसले तरी एक चंद्र मळबातलो काळाख ना करता तरी लाखानी तारे तो ना करुक शकनात हें ही खरें. लग्न जातगच घोवाचो उजवाड खरो, बायलांचो उजवाड खंय पडता घोवामूखार ? पांडुरंगान ताका आखाडयाकडेन पावयले.

" आई आता तयारेक लागपाचे हांव भायली कामा करतां. तरी घरची सगळी कामा आशान आनि तुवें करपाची. ताराक कामां लावंक उपकारना ती व्हकल "

" अरे ताराक कामाक लावप न्ही तें बरोबर पुण आवय काम करता, तें ओगी कशें बसतलें हात हालवचे पडतले "

" तें जाले तरी लोक कितें म्हणतलो ? मंत्र्याची बायल काम करता "

" अरे अजून ती मंत्रीण जावंक ना जाता तेन्ना पळोवया. ती तुझी भयण आनि म्हजी चली म्हणतगच काम करपाचेंच, ताचेर तें वयर सरला न्ही. "

पावसाची शेन पडतगच पाना तटतटीत ताजीं जातात तशी खोषी अपुक जाली. तें म्हातारें जालें तरी ताची उमेद तन्नीच आसली. शंकर ना तर शंकराच्या उतरा खातिर ताका सगलें लग्न थाटान करुंक जाय आसलें. पांडुरंगाचे कारण दु:खान तर दासाचे कारण गांवाभायर ताणेंच साकशिल्लें. निमणे कारण तरी थाटान करपाचें हें अपु चिंतुन आसलें. तातले तातूक हुंडो मांगूक ना म्हणतगच दबाज्याक जाय तसो पैसो मोडूक येतालो लग्न म्हणतगच जेवण पयली बरे जावंक जाय. तोळुक ताणें माटवाचे कंत्राट दिवन सोडले. मोगऱ्याक जीती चुडतां मारुन मल्ला विणपाक लायलीं. सोम्याक धाडुन रानप्याक आफयलो. सामानाची यादी तयार केली. सामानाची यादी पांडुरंगाकडेन दिवन ताणें कडधान्य हाडुन घेतले, चणे, मुग सगले वेचूंक बसलें.

वांयगणे हुडीद उदकान काडुन सुकयले. मागिर तांका तेलान मोवण लायलें. अपु दात्यार पीठी करुंक बसलें. तोंडानसून व्होवयो भायर पडताल्यो. तें खंय व्होवयो शिकिलें देवांक खबर. हरशें केन्नाच ताचे तोंडानसून व्होवयो आयकु नासल्यो. रातीन ताणे ताराक घेवन पापडाची पीठी कालयली. दोन कुडवांची पीठी म्हळयार वानार फार घालता घालता मोगरें, तारा जाम जालीं मागिर सोम्याकडसून ताणें मुसळाचे फार पिठयेर मारुन घेतले. दुसरे दिसाक आलतड पलतडची बायलांक पापड लाटूक आफयली. तें गुळयो करुन दितालें. गुळी सारखी जाल्यार पापड सारखो जाता ना तर व्हड जाता हें ताका खबर आसलें. पापड सुकतगच चार चार पापड जण एका बायलेक दिले. पापड सुकतगच ते मेजून कवळयो बांधुन डब्यान भरुन दवरल्यो.

तोळु कडसून तेफळिचे खुटे रानानसून हाडुन घेतले. तांका कांटे आशिल्यान सांभाळून काम करचें पड. पांच कुवाळे ताणें त्या खुटयाचेर किसयले, मदीं मदीं तारा मदत करतालें. तारवटयो मीरसांगो घालतगच तीखट पीठ जाल्ले म्हणून ताणें मीठ थोडे वडयलें. पत्रावळी पयलीच करुन दवरिल्यो, आंगणार तांचेर तारा आनि अपु वडयो घालुक बसली. अपुक वतान घुंवळ येवचे कडेन पावली तेन्ना तारान ताका घरान व्हरुन बसयलें, आपुणच वडयो घालुक लागलें. वडयो सुकतगच निखळावन डब्यान भरुन दवरल्यो.

तोळ्ुन बायचें उदक हाडून आंगण आंचलें. सकाळी उठून अपु पेट मारतालें. आंगणाक ताणें शेण काडलें. भील्ल माडाची चुडतां ताणें माटवा भोवतणी लायलीं. तारान आपली चीत्रा मदीं हुमकळायली. गोठयार जाल्लों दुदी ताणें लग्नाखातिर सांभाळून दवरिल्लो. ताक चाळून ताणें लोणी एकठांय करुन दवरिल्लें तें कडवन तुप केलें.

माटवाच्या एक वटेन चार रान्नी घाल्यो. माटव इतको दाट केल्लो, तांतून सून सुर्याचे किरण भीतर येना आसलें. सोम्या कडसून रंगीन फोली लावन माटव सजयलो. घराक भायल्यान भितल्यान चुनो सारोवन घेतलो. ताराक ताणें पांडुरंगाक सांगून शालु हाडलो. पांडुरंगान आशाक कपडे घेतले. देवळांतले वाजंत्री ताणें लग्ना खातिर सांगले. रानप्याक पयले दिसच आफयलो.

लग्नाचो दिस उदेलो. माया म्हयनो आसलो तरी मळब कुपानीं काळें जाल्ले. अपुन शंकराक उलो मारलो. तुवेंच तुइया चलयेचे कारण बरे भाशेन करपाचें. अशें सांगून घेतलें. रोकडीच कुपा वारो येवन नाच्च जालीं. मोगरीं, सुरंगा हाडुन मोगऱ्यान फातयो घालून ताराक माळल्यो. तांबडो शालू नेसतगच ताराक तेज मारलें. ढोल, तासो, शेनाय वाजताली लोक माटवान येवन जमखानाचेर बसताले. तेलिस भाटकाराचो रेडीओ आवाज करतालो. जेवणाचो

वास माटवभर आयील्यान तोंडाक उदक सुटतालें मोगरे खोरो खोरो करुन नाल्ला वोळीं काततालें. तर दुसरे एकटे शिनून दितालें.

न्हवरो बारांक, मुर्ताक धा मिनटा आसताना गाडयेन आयलो. ताची मंडळी तीन गाडयानीं आयिल्ली. पांडुरंगान, आशान ताका राटें उदक दाखोवन माटवान भीतर घेतलो. मंगलाष्टकां म्हणना फुडे तारान ताका माळ घाली आनि चंद्रहासान ताराक माळ घाली. माराण मारले. सगळया सभेक साखर आनि उदक वांटलें. मागिर तांबडे लेमन पेल्यानी भरुन भरुन लोकांक दीलें. उपरान्त पानां दवरलीं लोक जेंवक बसले. शिताची तपलीं तशेच शाक रोसाचे तोप, रिकामे जाताले. लोक जेवतगच धादोशी जावन ढेकर दिताले. दास मदीं रावन श्लोक म्हणूक लागलो ''हरिच्या घरी शेवया तुप पोळया '' अपु कोनश्याक रावन सगलें दोळयानी साठयतालें.

वेळ रोकडोच गेलो. चंद्रहासा बरोबर तारा बसलें. अपुन ताका एक केळमो,तांब्याचो तांबयो, वडयो, पापड सत्री अशें बरेच दिलें. गाडी धुल्ल उबयत गेली अपुचे सपन सोपील्या सारखें दिसलें. एदें आसले इतले व्हडलें केले रोकडेच वराभीतर घोवान व्हेलें हें एवजून अपुच्या दोळयान दुका आयलीं. माटवान लोक पातळ जाताले. वाजंत्री घरा वचुंक तयार जाल्ले. रानपी कपडे घालुन वचुंक तयार जावन आसलो. अपुच्या मनावेलें वझें बरेच कमी जाल्लें. जेवण आशिल्ले तें वावराडयांक दिलें. पावस भरुन आयील्लो तरी पड नासलो. वारो बरोच सुटतगच कुपां उदेतीवटेन गेलीं. तिळसानची दिवली आता आशाक लावची पडली. रातराणी बरीच वाशेताली. तारा सदाच ताची फुलां हाडुन हुंगताले आज ती फुलां कोण हाडतलो ? आशाक फुलांचो व्हडलो सोस नासलो. अपुक खीणा खीणार ताराची याद जाताली. तिळसानचीं 'च्या' आशा करचेना हें खबर आशिल्यान अपुनच च्या केली खांवक फोव कालयले.

पांच दिसानी ताराक पांडुरंगान ताराच्या घरा वचुन आफयलें. दनपारचो जेवणाचो आक्त जातगच सांची ती भायर सरलीं. तेन्ना पणसाचे तळिल्ले घरे अपुन ताराक गुटलावन दिलें. ताराक साडी तशेच चंद्रहासाक शर्टाचो कपडो दिलो. चंद्रहासान 'थंक्यू' म्हळें. मावडची कसली वस्त जावं जावयांक व्हडवीकेची आसता. '' म्हजी याद जाता तेन्ना हांव आसा थंय सांगनासताना योगो '' म्हणत अपुन दोळयाक पदर लायलो. ताराच्या दोळयान दुखां नासली. अपुक दिसले तारा बदलले काय ? गिरेस्तपणा मुखार पयलींचे दिस विसरलें काय ? एखादें घोवा मुखार आपल्या मनाचेर ताबो मेळवंक शकलें काय ? कितें जावं अशेंच जीणभर तें दुखा गळय नासताना रावं.

तारा वतगच, अपु वच्चे अशें आशाक दिसतालें. तरी आधार गेल्यार

आपल्यांक सगलें करचें पडतलें अशें ताचे दुसरे मन सांगतालें. पांडुरंगाक पुरो जावन येतगच आशा ताका एकाचीं सात करुन चाडयो सांगतालें. पांडुरंग पुरो जाल्यान अपुचेर बेजारतालो. म्हातारपण हें कोणाकच नाका आसता तरी तें येताच. थोडयाकच तें येना तेच खरें भाग्यवान अशें अपुक दिसतालें. तारा आसताना अपुक धीर आसलो तोही आतां गेल्लो. तारा कडेन आशाची कतुर्बा सांगुन आपलो राग ते कमी करतालें. आतां कोणाक सांगतलें ? ताचो भितल्या भितर घुस्मट मार जातालो. दिसभर चितत रावतगच मनार ताचे चेपण येतालें. काम सारखे जायना आसलें. सुने कडसून घेवचें पडलें हांचे दुख ताका मॉयन म्हणील्या उतरा परस चड जातालें. रातची ताका न्हीद पड नासली. पांय चलताना खंयच्या खंय पडताले, ताणें हातान दांडो घेतलो. आशान तांदूळ वेंचुंक लायल्यार अपुन म्हळें

" तांतले बारिक फातर दिसनात. वंक्ल हाडल्यार वेंचता. "

" हय तो साज कमी आसा दिसता वंक्ल वक्लेन लावप आसता विदवानीं न्हय. वंक्ल हाडचे पडतले म्हणून आशा तांदुळ मागीर वाळइसुन वेचुन घेतालें. "



४

गंधाचो कुडको आपुण झरता तरी दुसऱ्याक वास दिता, तशें अपुन आपुण झरून पांडुरंगाचो संसार वयर काडपाचो थारायलो. कितेय म्हळयार आपणाक तें न्हय अशें तें समजतालें. आतां ताका दम येतालो. वखदाची वास्त पुस्त कोणच कर नासलो जाणते पणाक वखदा केल्यार कितें आंगार आंकरी फुटटली काय कितें? अपुक याद जाली. पांडुरंग ल्हान आसताना आरमारीतली बावली मागतालो. हट्ट् म्हणतगच दितगच तीचे हात पाय कान नाक ओडतालो, विद्रुप जातगच भिरकटावन आंगणान वडयतालो. तेन्ना अपु ती बावली परत सारखी करुन आरमारीन हाडून दवरतालें. थोडे दिस वतगच पांडुरंग परती ती बावली मागतालो. बावले सारखी दशा म्हजी जायना जाल्यार पुरो अशें अपुक दिसलें? कुत्र्या मांजराचेर घालून आशा अपुक उतराचो मार दितालें.

एक दिस तारा सांचे गाडयेन आयले. अपु जाता नजो करुन तांदुळ वेंचताले. गाडयेचो आवाज येतगच तें ताराक हाडुंक आखाडया मेरेन गेले. तारान ताका घट्ट् धरुन घरान हाडलें, ताची दुखा पुसली अपुक बरे दिसलें. चली जावन आवयची पोराक माया आसा. माया आसपाचीच ताणें दिस काडुना तर

हया घरान. आतां बंगल्यान रावले तरी पयलींचे कशें विसरतलें. आशान ताराक वेल्या वयर केलें. आपणेंच दुध काडले, रानलें, सान्न मारली तरी अपुची दशा पळोवन ताराक अपुक त्रास जाता हें सांगनासताना कळ्ळें.

" हांव सुखी आसा तारा, आशा म्हाका पातेना, काम चड लायना" ताराच्या मनान मनस्ताप घालुक अपु सोदी नासलें. तें सुखी आसा हातुंनच अपु आपलें सुख मानतालें.

" आई तूं मगेर येवन राव,हे रातचे उसरां येतात तेन्ना म्हाका एकटेंच रावचें पडता वाज येता तूं आसल्यार उलोवंक जातलें. थंय काम करुंक वावराडी आसा तुका कसलेच त्रास पडचे नात "

" तारा तुझें मन म्हाका कळता तरी सदच्या सोयऱ्याक मान आसना. सदचो निवोळ जरी पीलो तरी हांगा मानान पीतलें. म्हाका हया घरानं हांडला ते सोडू कशें? म्हजी बाकी आता चड ना दासागेर चली जाल्या, तुगेर चलो जाल्लो म्हाका पळोवक जाय तसेच हया घरान कुलदिपक दिसूंक जाय मागिर म्हजें दोळे धापले तरी चलता म्हाका " हीं उतरां आयकुन ताराच्या दोळयान दुका व्हांवलीं.

" आई कितल्या व्हड काळजाची गे तूं ?"

दुसरें दिसां अपु उठलें घोटीणे पोनाक वचूंन ताणें घोंटा हाडलीं. ताराक घोटां दिली म्हणूक लागलें

" अगो तुं घरची धू म्हणतगच हात उखलून तूकां दिवपाचें तरी म्हजे हात मोटवे जाल्यात, तूगेर देवा दयेन फाल्त कांयच ना तरी कुळाराच्या वस्तुची व्हडविकाय धुवेक आसताच. म्हाका हांगा कसलोच अधिकार ना, तुझो बापुय आसल्यार हांव हात उखलून दिवपाचें चिकु, अनसां, पेरां, जांब, पणस, तरी किर्ते करुँ ?"

" आई हें तूवेंच केल्ले न्हीगे ?"

" अगो रोवपाचो, कष्ट करचो, अधिकार म्हाका, फळाचो ना "

ताराचो घोव आयलो आनि ताराक घेवन गेलो वतना तारान घोटां व्हेलीं. ती मानकूराद आंब्या परस ताका गोड लागलीं. पांडुरंगाक दिसतालें ताराक कितेंय दिवचें पुण आशा मुखार ताचें चल नासलें. चंद्रहास म्हणूक लागलो

" घोटां जावन जी रुच आसा ती आंब्याक ना "

" खेडयातली घोटां अशीच आसतात नांव नासताना, तरी आंब्याच्यो लोक तोकणायो करतात. "

" अगो तुकां हाडून हांवे खेडयातल्या घोटाचीच तोखणाय केल्या, ना तर म्हाका शारान कितलेंय आंबे मेळनासले गाय किर्ते ?"

" हांका साखर घोट म्हणतात हें खातगच मनातली इत्सा पुराय जाता

आनि मागिर लोक साखर वाटतात अशें म्हणतात. म्हज्या आज्येन हें घोट खाल्लें तेन्ना तिकां चलो जाल्लो.'' तारान देवाक उलो मारुन घोट खालें, एक घोवाक दिलें.

एक दिस चंद्रहास साखर घेवन आयलो ताणें ती पांडुरंगाक दिली

'' तुझे आवयचे आशिर्वादान ताराक चलो जालो. साखर घोट खावन मनाची इत्सा पुराय जाली ''

'' आशा कितलीशीच साखर घोटा खाता तरी अजून ताका चलो कसो जायना ?''

'' साखर घोट खातना भावार्तान खांवक जाय तरच फळ मेळता ''

'' कितेंय जावं साखर घोट खाल्यानच ताका चलो जालो अशें हांव म्हणना तरी ताराचो तुझ्या आवयचो भावार्त अशेंच म्हणचें पडतलें.'' चंद्रहास गेलो. पांडुरंगाक दिसले आपणागेर असोच चलो जावपाचो एखादे आवयक आशा छळता तिचो श्राप बाधता दिसता. कित्याक तर सकाळी उठून अपु सान्न मारता. दुध काडता, रवणातलें उदक सोडता, हांडो भरता, शिनून कातून दिता, सांचे पत्रावळी करता, चुडताचे वीर तासून सान्नी करता, साठां घालता, सोलां करता, खोबरे फोडता, तांदुळ वेंचता. ताच्या कामा बदलाक एक जेवण, च्या दीतात तीही वाजेवन. नेसपाक दोन कांगी वयर तिसरी ना. हांडाच आसात धड चलूंक जायना,दोळयानी सारखे दिसना. पांडुरंगान आशाक म्हळें ''अगो अपुक सतावनाका हें सगलें ताचेंच तेन्ना ताका कसलेंच काम सांगनाका तें सदाच उरचे ना,वतना कोण संसार घेवन वचनात. आमचें लग्न जावन सात वर्सा जाली तरी अजून पाळणो हालूंक ना. अपु तशें मनान वायट न्हीं गो, आमचें बरें जावचें म्हणूनच तें सगलें सोसता. तारान ताका आफयील्ले, दासान ताका यो म्हणील्लें. शिवाय इस्टेटिचो वांटो ताका आसाच, तें आमचे खंय खाता ?''

अपुन आशाक उपास करुक सांगलो.

'' बिरेस्ताराचो उपास करुन भूरगीं जातली तर दोतोर उपास काडता आसले. ''

'' अगो तूवें दोतोराक दाखयलें न्हीं. तुवें उपास केल्यार तुइया बलायकेक बरो शिवाय इत्सा पुराय जातली. आता तुं करिना तर हांव बिरेस्ताराचे उपास करतलें सामकेकडक उदक लेगित घे नासताना ''

अपु उपास करुंक लागलें ताका बिरेस्ताराची घूवंळ येवक लागली. ताणें थारायलें कितेय जावं उपास सोडपना. शुक्रारचे ताच्यानी उठूक जायना जालें.

'' अगे तरण्याठयानीं जेवप आनि तुवें म्हातारपणाक उपास काडप ?''

'' पांडुरंग तूगेर चलो जाल्याशिवाय म्हाका सर्ग ना रे, आशान उपास

केल्यार रोकडोच चलो जाता आसलो तरी तें उपास करपाक तयार ना ''

पांडुरंगाक दिसलें संसार जरी एका तागडेच्या दाल्यान घालो आनि आवयक एका दाल्यान दवरली तरी आवयचें दालें भारान सकयल वतलें. केदो त्याग तोही आपल्या मनश्या खातिर.

सोळा बिरेस्तार जावचे पयलींच आशाक दिस गेले. आशाक कितें खावचें दिसला तें विचारुन करुन वाडूंक लागलें. ताणें कमराक वेठ मारलो. आशाक काम करचेली मनाय केली, भरिल्लो कळसो उखलप ना शिताचें तपलें वाळपना, बाग घेवन रानप ना, अननस खावप ना. आंगली, तोपरीं, पोळेर ताणें शिवले. आशा सगली सेवा करुन घेतालें. अपु कोणाखातिर, कित्याक कष्टता तें ताका कळतालें तरी कळनाशिल्या सारखे करतालें. अपुक दिसलें एकदाचो चलो जातगच मागिर सुखान मरतलें· तो मेरेन थारो ना. ताची सपना लागी पाविल्ली. मोगऱ्याक ताणें भायली कामां लायील्लीं. दुध काडप, हांडोऱ्या भरप, सान्न मारप हें मोगरें करतालें.

एक दिस आशाक चली जालें ताचें नांव देना दवरलें. अपुक चलो जाय आसलो, तरी ताका समाधान जालें. देनाक न्हांडय, बोम घाल, तेल लाय, कपडे घाल, धुप दी, किरायतें घाल सगलें अपु उमेदीन करतालें. बिरेस्ताराच्या दिसाक उपास केल्लें फळ ताका मेळील्लें तरी सगलें फळ मिळूंक नासलें. ताका दिसलें आशान उपास केल्यार चलो जावपाचो. देनाक तेल लायताना, बोम घालताना तें अंगाई गिता म्हणतालें जीं गंगेन ताका शिकयील्लीं. '' हे वटेन धावरे तें वटेन धावरे, तेंडलेच्या बेला, आमगेर एक बाय जाला धांवरे मामा तेला '' अपुची उमेत म्हातारी जावंक नासलीं.

अपुक दमो लागिल्लो. परत परत खोकतालें. पिंगदांडी घेवन भोवताले. हाताातलो दांडो परत परत हात थरथरील्यान पडतालो. ताची मान हालताली. काती चिळचिळील्यो, कमर पालखे सारखे बाग घेवन तकली जमनी कडेन पाविल्ली. उदकान हात घाल्यार थंडी भरताली. दांत तर सगलेंच पडिल्लें. अपुचो भाव ताका व्हरुंक आयलो, तेन्ना ताणें म्हळें '' भाऊ म्हाका फाल्त कांयच नारे हांगा, म्हातारपण येताच न्हीं ताका वखद खंय आसा ? तुमी बरी करुन रावा म्हणतगच जालें. '' पांडुरंग अपुक वखद कर नासलो. वंक्ल हाडून दिवचे अशें ताका दिस नासलें. दम्या खातिर तें कसाय करुन घेताले. तें केन्नाच पिरगनासलें. देनाची सेवा मन लावन करतालें. शेटीक सांगुन देनाचे कान तोपून घेतले. तें बरे ना जाल्यार रातभर तें जागरण करतालें. आशा न्हींद घेतालें. अपुक तशी न्हींद गोड नासली. न्हीदलें तर न्हीदलें ना तर मनान विचार येतगच ताका न्हींद लागनासली.

५

देना आता व्हड जाल्ले. आशा सकाळी उठलें तार्णेच च्या केली अपूक व्हरुन दिली. अपुची कामा आपणेच केली. पांडुरंगान दोतोराक हाडून वखद विचारलें आनि हाडून अपुक दिलें. आशा तर 'आई ' म्हणुन आधारान अपुकडेन उलोवंक लागलें. तींची खबर घेवकं लागलें. अपुक तीं कामा फर्मायनासली ज्ये अपुक ताचें वागप खटकतालें. रोकडीच हीं दोघांय बदल्ली कशी ?

" देना देवाचे म्हणून जातगच आजेक पाया पड " अशें आशा देनाक सांगतालें. अपुन कितेय काम केल्यार

" तुं जाणती तुझ्यानी जाता मेरेन काम केलें आता सूशेग घे "

अशें आशा अपुक परत परत सांगतालें. दोळयानी दिसना जाल्यार तांदुळ वेचूंक जायशें ना मोगरे आसा न्हीं. अपुक तोराची हुडमेथी खुबच आवडताली. ती आशान करुन वाडली. कालवाचे तोंडाक अपुक आवडता हया खातिर पांडुरंगान कोणाक तरी सांगून कालवा हाडली. आशान ताचे तोंडाक करुन वाडलें. पांडुरंग परत परत खबर घेतालो. अशेच पंधरा दिस गेले. अपुक पुताच्या,सुनेच्या स्वभावान जाल्लो बदल कळतालो तरी ताचे कारण समज नासलें.

तीनाक पांडुरंग पसऱ्यार गेलो. अपु सोप्यार बशिल्ले. आशा पेन आनि कागद घेवन आयले. अपुकडेन कागद दिवन ताका सई मार म्हणूंक लागलें.

" हांव चौथी शिकला मराठीन सही करूंक जमता तरी हें इग्लीश कांयच कळना ही सही कित्याक खातिर करपाची "

" तशें व्हडलें कांयच ना गे "

" अगो तुं सांगना तर दासाक आफोवन हांव ताचो अर्थ विचारुन घेवन सही करता "

" आगे तुं आमगेरच आसा तेन्ना तुझे फाटल्यान ही इस्टेट व्हडल्या पुतान भोगपाची अशी तुवें सही दिवपाची "

" आशा म्हाका दोन पुत चली एक सोड, इस्टेट ही फाटल्या जाण्टेल्याची ती दोघी जाणानी भोगपाची "

" अगे तुका दास खंय पळयता, आम्हीच तुकां पळयतली "

" आशा हांव कागदार सही करचें ना. दासाच्या तोंडाक पाना पुसचे ना. तो ल्हान पणा साकुन भायर आसा म्हणून ताका कायम भायर दवरचो न्हय. ताका इस्टेट नाका ती ताची खुशी, तरी हांव भेदभाव करचें ना. म्हाका दोघी जण सारखेच, दोनी हात म्हजेच एकटयाक मारल्यार दुसऱ्याक दुखता ताका जाय तर तो जाय तें करु ? हांव जावन ताचो अधिकार ना करचे ना. तो ज्या

घराण्यान झाला ताका हया घराण्याचो न्हयं म्हणून कशें म्हणू ? तो अधिकार म्हाका ना. आवयक सगली भुरगी सारखीच. दास ल्हान आसताना ताका खोरोज जाताली, तेन्ना ताचे त्रास थोडे काडलेनात. आतां तो म्हाका खंय लागता ? बेडो आसताना व्हटयेन धरता, तरी ताची माडी जातगच व्हटयेन खंय धरता ? ''

" आगे ताचो इतलो अभिमान आसा तर हांगा कित्याक रावल्या तागेर वचूंन रांव.''

" आशा दास गेल्यार धांवडोवचो ना गो तरी हांगा हांव म्हजेच खाता तुमचे खंय खाता ? म्हाका हया घरानच हाडील्ले ताचेर म्हजो हक्क आसाच म्हाका जर हक्क ना तर म्हजी सही तुमका कित्याक ? '' अपुची उतरां आयकून आशाचे तोंड बंध जालें. ताणें पेन कागद व्हरुन दवरले.

पांडुरंग अपूचेर जड जालो. चड सो उलयना जालो. आशा अपुक त्रास दिवचे खातिर ताचो दांडो, पिकदांडी खंयचे खंय व्हरुन दवरतालें. एक उतर उलयल्यार चार उतरां उलयतालें. हांडयाक उजो घालनासले, थंड न्हातगच अपुक थंडी भरु आनि रोकडेच वचूं, हो हेतुं. पयली ती जेवतगच मागिर निमणे अपु जेवक बसतालें तेन्ना आपलें जेवण जातगच तें चडच मीठ जेवणान घालून दवरतालें खारट जातगच अपु कशें जेवतले?

" पांडुरंग एक कांग हाड रे ही पळय सामकी झिरझिरल्या ''

" अगे हे म्हारगायेक पोट भरुक कुस्तार थंय कांग खंयची हाडूं ? दासाक सांग कांग हाडूक ''

" पांडुरंग दास सांगल्यार हाडतलो तरी खंयच्या तोंडान ताका सांगू तो इस्टेटी वांटो वरना कित्याक तर हांव तुझे कडेन आसा म्हणून वेल्यान ताचे कडेन कांग कशी मागू ? तो म्हणतलो " आपल्या वाटयाची कांग हाडून नेस '' म्हाका जाप आसची ना. हांव कांग मागली ती भीख म्हणून न्ही तर म्हज्या वाटयाचीच, हक्काची मागल्या तुझ्या बापायन तुं ल्हान आसताना लोकाकडसुन रिण बुडुडुन हाडून तुमकां वाडयले. तेन्ना नाल्लाक सुपारेक दर व्हडली शी नासली. ताणें नेमा मारुन कवाथे रोयले तेंच हें आता नाल्ल दितात. आपल्या माथ्यान ताणें रानातलें फातर हाडुन दुरिग बांधले, ना तर वाडयावेलीं गोरवां येवन ताणे गोठोच केलो कुळागराचो, तुं तेन्ना ल्हान, तुकां बीस्कीट जाय म्हणून तो रातचे लेगित काम करतालो. सकलें तेलिस भाटकाराले शेत ताणी खंडाक करुन घेतलें. वयार खुबच कष्ट काडले. तुं मळबासून पावसासारखो आपसुक पडुं ना. अरे शेवणें सकाळचे हांगा थंय भोवन अन्न मेळयता तें पयली पीलांक हाडुंन घालतां. उरल्यार आपूण खाता. तुमचे खातिर ताणें उपवास तपास काडुकं नात ? पसरो व्हडलो सो चल नासलो. उदारी ही आसतालीच, वसूली जाता तेन्ना जाता. हांगाच्या लोकां कडेन

पैसो तसो घोळना. फाटली कितली उदारी आसू बारा वंराचेर वचूंन तांदुळ मांगल्यार ना म्हण नासलो. ताचोच पुत तुं, एक कांग मागल्यार तुझ्यानी दिवंक जायना. शिगार ओडतना तुजेकडेन पैशे आसतात दिसतां. अरे हावें केलीं सांठा, पत्रावळी, जोडवीं, सान्नी तुं व्हरुन फुकटच लोकांक दितां काय किर्ते ? ताची तरी एक कांग हाड.'' इतल्यान थंय आशा येवन म्हणूक लागलें

'' तुझे तें पुराण बंध कर तुका रावपाचे आसा तर आमी दितात तें घे. तार्चे वयर तुकां कांयच मेळचें ना, ना तर तूं खंय वता ती वच. ''

'' आशा तुवें म्हाका हया घरान हाडूना. म्हाका हाडिलो तो तर ना, तार्णे भायर घाल्यारच हांव वचपार्चे ''

पांडुरंग ओगीच रावलो. तिळसान जाल्ली अपुक आपुण बडबडले तार्चे वायट दिसलें तरी बडबडना तर कोणाक समजना हें तें जाणा आसलें. रातराणीचो वास ताच्या नाकान गेलो ताची तकली त्या वासान जड जाली. ते राती तें जेवलेंच ना. देवाकुडिन वचून तार्णे शंकर देवाचे दर्शन घेतलें, त्या मिणमिणत्या नंदादिपाच्या उजवाडान मुर्ती शांत दिसताली. ताची तिडक गेली ताका दिसलें आपलो घोव असोच मुर्तीसारखो शांत आसा. हात पाय हालयना तरी आपुण आसा हें दाखोवन दिता. घरान आसतगच आशाची उतरां आयकुची पड हें खातिर तें कुळागरान दांडो घेवन भोवत रावतालें. फाटल्यो यादि येतगच थोडोवेळ तरी ताका बरें दिसतालें. अशेंच तें भोवतां भोवतां पारिजातका पोना पावलें ताची नदर वयर रुखार गेली तर तो जडडो जालो. पोनान फुलाचों तळ पडिल्लो. ताका दिसले हो रुख जडडो, म्हातारो जाला तरी फुलां दिवपाचे आपलें कर्तव्य करीत आसा, ना सारे ना उदक. म्हाका अशेंच म्हजे कर्तव्य करपाचे आसा. लग्न जातगच थोडेच दिसानी तें शंकरा बरोबर थंय आयिल्लें. तेन्ना तें ल्हानशें झाड आसलें. शंकरान दोनी हातान झाड हालयतगच बोडार, हातार पायार मेळत थंय फुलां पडिल्ली. ती तार्णे पानार एकठाय करुन घरा व्हेल्लीं. हातातली फुलां पळोवन गंगेन म्हणिल्लें

'' शंकर प्रसन्न जाल्यान तुका इतलीं फुलां मेळली '' ताचेर तें हाशिल्लें. व्हायार गुंथून तार्णे लांबचे लांब हार देवाक घाल्ले. अपु पारिजातकाचीं फुलां गुथतां तें पळोवन शंकरान ताका म्हणील्लें

'' पारिजातकार्चे देठ आनि तुझें ओंठ रंगान सारखे तर फुलाचों आनि कातिचो रंग एक ''

'' गिन्यानी लोक मनान येता ताची तुळा करुन मेकळें जातात, तें केन्नाच त्या वस्तुची मान्यताय घेनात ''

'' बरें गो देठाचो रंग तूवें लायील्या कूंकुमा सारखो फुलांचो रंग तुझ्या

दाता सारखो आतां तरी मान्य. ''

'' हय मान्य चल तुझे कडेन आनि कितें उलयतलें कपल ''

'' आगो कपलान न्हीं तर तोंडान उलयता हें हावेंच सांगचे पडतलें ?''

'' हांव तुमच्या इतलें गिन्यानी न्हय म्हाका कशें कळतलें कपलान उलयना म्हणून ''

शंकराचो विनोदि स्वभाव ताका आवडतालो. आज ताका तीं फुलां एकठाय करची शीं दिसलीनात ताका दिसलें हो रुख जडडो जालो तरी असोच फुलत आपलें काम करीत रावतलो, जे दिसाय भुयेआधीन जातलो तेन्नाच ताचें काम कर्तव्य सोपतलें. तेन्नाच ताची नदर लागीं आशिल्या तीन ल्हान पारजातकाच्या रोप्याचेर गेली. ते रोपे व्हड जातगच तांचेच काम फुडे चालू दवरतले. हो रुख आपलें उरिल्लें काम हयाच रोप्याकडसून करुन घेतलो तशेंच आपणें काम करुन घेवचे आसा. पारिजातकाचो वास मंद चाफ्या सारखो, उग्र न्हंय. कितलोय घेतलो तरी नाका जायना.

तें तशेंच फुडे गेले. हळदुवे लक्क ओटांब पिकुन सकल पडिल्ले. लग्न जालो त्या वर्साक चिमणेल सारोवन शंकर फातोडेर हातान शिन्या बडी घेवंन गेल्लो. सुर्य उदेवचे पयली ताणें सगळो ओटंब पाडिल्लों. मुयांनी ताका बरोच तोडकायील्लो. बुटयानी भरुन भरुन तो ओटांब अपुच्या माथ्यार उखलतालो. अपु उमेदिन व्हरुन तें आंगणान घालताले. गंगी सोलां करुक बशिल्ली.

'' अपु हाडुन जालें तर ती आदोळी घेवन सोलांक बस. ''

अपुन ओटंबाची सोलां जल्माक करुं नासलीं तरी गंगेन सांगतगच तें सोलां करुंक बसलें. हाताक आदोळी लागतली हें खातिर ताणें मोठीं मोठीं सोलां केलीं

'' अगो इतकी दाट सोला केल्यार बेगीन सुकची ना शिवाय बियो काडूंक कठीण ''

गंगेन म्हळें, शंकर तें सगलें आयकतालो तो वचून सोलांक बसलो तेन्ना अपुक लज जाली.

'' अपु ओटंबाची चार धेंपा करुन व्हडय आमी पातळ सोलां करतात. फुडल्या वर्साक सोलां केल्यार जालीं. जल्मानच कोणच शिकना, काम करुनच शिकता ''

ताका दिसलें सुक्या सोलां सारखे आपले आंग सुरकुटलां. ओटांब काडणारो ना देखून ओटांब्याची ही दशा जावन गेल्या.

अपुची नदर गोठया वयर आशिल्या सावरिचेर गेली. कापूस फुटून जळमळाक पडिल्लो. शंकर बेताळा सारखो रुखार पटापट चडी आनि शिन्यान

बोडां वडयी. जून जातगच तो ती काडी. अपु ती साकान भरुन वताक सुकत वडयतालें. बोडां फुटून कापूस भायर पडतालो. त्या कापसाच्यो बियो काडून मागिर तें गादी, उशीं शिवतालें. शंकराक गादये शिवाय न्हीद येना आसली. कापूस चड आसल्यार कोणाकय काडून दितालो. कापसाची म्हातारी वयर वाऱ्यार वतना पळोवन तो ताळयो मारी. जाणतो जालो तरी ताची भुरगे पणा तशींच आसलीं. आज जळमळाक कापूस पडिल्यान सावंर थंय आसा ते कळतालें तर शंकर आसताना सावर खंय हें सोदची पड.

अपुक सुकिल्ले आळू दिष्टी पडलें शंकर आसल्यार आळवाची शाक सुकचे पयलीं करुंक लावपाचो. आळवा माडयेच्यो तळिल्यो फोडी घोस्तान खावपाचो. आळवडे करचे खातिर तो रानान सून 'वाताळू वा तिरुपतीचे आळू ' हाडतालो.

अपुन तेन्ना ताका विचारिल्ले ''तिरुपतीचे आळू' कित्याक म्हणतात ? तिरुपती वचुन हाडिल्ले काय किते ? ''

'' अगो तिरुपती व्यंकटेश देव वयर दोंगरार आसा तशें हें आळू वयर झाडार जाता सामके शुद्ध म्हळयार निवळ. सगलें देवळा मदीं तिरुपतीचे देउळ आपलें आगळें पण राखून आसा तशें हें आळू अजून मेरेन जमनिर जायना आसतना आपलें वेगळेपण सांभाळून आसा हे खातिर ताका 'तिरुपतीचे आळू' म्हणतात. तशेंच ताका वाताळू म्हणतात कित्याक तर वात म्हळयार वारो कारण तें वा रच वाडता. ''

अपुक दिसलें रानान तिरुपतीचे आळूं झाडार जाता मरता, ताका हाडून ताची तोकणाय करपी मात ना.

पावस एक वोल मारुन गेल्लो. शंकर कुळागरान कुदळीन माडाचीं दावां बोचायतालो. दादू सोप्यार बसून विडी ओडतालो. गंगी तांदूळ आसूडताली. अपु सान्न मारतालें.

'' अपु चोबूल घेवन यो बेगीन ''

ही उतरां आयकतगच अपुन सान्न थंयच वडयली आनि चोबूल घेवन तें कुळांगरान धावलें. शंकराच्या उतरांक ते वळखलें तरी शंकर खंयच दिष्टी पड नासलो. तें ताका सोदूक लागलें. इतल्यान माडावेल्यान ठ्प करुन आडसर पडलें. अपु म्ह त्यान वच तर आडसर फुटून उदक वांवतालें. ताका अजाप जालें माडाचो नाल्ल सुकतगच झडता तरी आडसर केन्नाच पडना ताणें वयर पळयले तर शंकर माडाच्या कळवान लिपुन आसलो. अपुन 'दरयो' 'दरयो' म्हणतगच माडावेल्यान सकल देवलो आडसराची तवली मारुन उदक थोडे पिवन ताणें उरिल्ले अपुक दिलें. आडसर मदीं फोडुन एक दुपड अपुक दिलें आनि एक आपणें घेतलें. आडसराचे कोयतेन कापून कुलेर केलें आनि कातली काडून खाली मागिर तें कुलेर ताणें

अपुक दिले. अपुन कातली काडून  खाल्लीं. तों म्हणूक लागलो

" अपु तुवें म्होव्या माडाचे आडसर खाल्लां ?"

" न्हा रे, हावें हेच आडसर खावंक ना. थंय मोव्या माडाचे खंय खातलें ?"

" मोव्या माडाक मोवी आडसरा जातात सामकी गोड. तां ब्या माडाचे आडसर खावचें तेही हया भींडीकडल्या तांब्याचें अपुन विचारलें "

" तुमी चोबूल हाड म्हणील्लें न्हयं तें कित्याक ?"

" अगो ही मातये कोराची अळमी भरपाक. "

" हीं आनि अळमी, अळमी धवीं आसतात हीं तर मातये कोराचीं. "

" अगो तुमी हांका 'तेल अळमी' म्हणतात तर आमी हांका 'फुगे' म्हणतात. जमनीत उब धरतगच ते घर्र करुन वयर येतात फुग्या सारखे घर्र फुगतात म्हणून तांका फुगे म्हणतात. "

शंकरान ते पटापट हात काडून चोबलान घाले, अपुकडेन चोबूल दिलें

" अगो सांभाळून वच चोबलानसून सकयल फुगो पडत तर 'ठो' आवाज जाल्या शिवाय रावचोना." अशे म्हणून तो मोठया मोठयान हांसूक लागलों. घरान फुगे हाडले

" ही पळय फुग्याची जीब ती काडुन वडवपाची म्हणतगच ताची वाच्या बंद, ना तर 'ठो' आवाज केल्याबगर रावचें ना " अपुच्यो हांसून हांसून मुडयो जाल्यो.

" अपु हो तुझो घोव सांगता तें सगलें खरें न्हय मस्करी करता तो "

" आई अपुक समझना गे खरें कितें आनि खोटें कितें तें ?"

फुग्याचे तोंडाक ताणें दोन दिस खतखतावन खाल्लें. अपुची नदर कुळागरान आयील्या फुग्याचेर गेली आनि ताका फाटली याद जाली. फुगे ताणें काडलेच ना, तांका पळोवन ताज्या दोळयान दुका आयलीं. शंकराच्या यादिन तें भूतकाळान पाविल्लें.

अपु लग्न जावन वर्सभर जाल्लें जायत. वांयगणे शेत रोयील्ले. व्हाळाक बांध घालून उदक आडायील्लें आनि तें उदक शेतान चडतालें बांधाक कुंल्यानीं बुराक घाल्यार सगलें उदक व्हाळान वतालें आनि शेत सुकतालें हया खातिर बांधार वचून कुंल्यो घोलां बंध करचीं पड. सांचे तें अशेंच बांधार गेल्लें. बांध पळोवन ताणें कुल्लें घरा पुरवयलीं आनि तें परत शेतान येतालें तेन्नाच लागसल्या बोणकिल्यान ताका हात्याचो वास आयलो. अपुक हातो खुपच आवडतालो. शंकर कुळागरान कोयतेन चुडता मारतालो. ताणें शंकराक म्हळें " हातो माळीन दिसला " शंकर हातातली कोयती घेवन उदकान देवलो. कमरभर उदकान वचून ताणें बोणक मारली भितर आशिल्लो हातो काडुन घेवन ताणें तो अपुक हाडुन दिलो आनि " हो घे

कवासो '' हातो दितना हाताक बोणकीचो कांटो लागिल्यान रक्त व्हांवतना अपुन पळयलें. खीणा भीतर अपुन हातो व्हाळान मोखून वडयलो, आपल्या कापडाची फाळी काडून ताणें शंकराचो हात बांधलो. रक्त व्हांवपाचे थांबले.

" अपु तूं द्रौपदी तरी हांव कृष्ण न्ही कित्याक तर तूं म्हजी भयण न्ही, शिवाय म्हाका एकच बायल आसा ''

अपु तेन्ना ओगीच रावन मान सकयल घालून आयकूंक लागलें. शंकरान सांगतगच ताचेर परत सांगूक ताका जाप नासली. शंकरान वचून तो हातो परत हाडून अपुच्या केसान खोयलो.

" अपु तुझे गोरेपण हांचे मुखार न्हीपता ''.

अपु हांडयाकडेन वतना ताका पिको निरपणस पडिल्लो दिसलो. शंकराक पिक्या निरपणसाचें भर्त खुबच आवडतालें. घरान आनि कोणाकच तें नाका आसलें. तरी तोपूल भरून केल्ले भर्त शंकराक एकटयाक उणेंच जातालें. अपु तेन्ना निरपणस पिकपाची वाट पळयतालें. तर आज झडून पडलें तरी तांका खावपी कोणच नासलो. घरच्यांक निरपणसाच्यो तळिल्यो फोडी खुबच आवडताल्यो. शंकर मात एक लेगित पानार घेना आसलो. जून जातगच तो वयर चडून निरपणस सकयल वडयतालो आनि फोडी करुंक लायतालो. एक फावट निरपणसाचे सगलें भर्त शंकरान सोपयलें. मागिर ताका ताचे वायट दिसलें. ताणें अपुक दुसरे दिस भर्त करुंक लायलें आपणे मात पानार घेतलें न्हा

" अपु काल केल्या गुन्यावाची ही म्हाका ख्यास्त

" तुमी भर्त खाल्लें म्हणतगच म्हजें पोट भरलें. म्हाका तें सामकेच दोळया मुखार नाका. ''

" अपु हो तूझो शिष्टाचार ''

जून लागिल्लो. तरी पावस नासलो. व्हाळ सुकील्लो तरी मदीं फोंडकुलार्न उदक आसलें.

" अपु नुस्त्याक आयदन घेवन व्हाळान यो '' अशें म्हणतगच अपु व्हाळार गेल्ले. पळय तर शंकर गाळयाची फळां फोंडकुलान वडवन उदक हातानीं चाळुन खोदळ करतालो. अपु ती मजा वेल्यान पळयतालें. उदक तांबशे हळदुवेशें जातगच ताणें हात घालून हातान थीगुर, शेंवटें, व्हाळयो धरुन धरुन वयर वडयल्यो. वयर वडयतगच त्यो जमनीर उसळूक लागल्यो आनि परत धडेवेल्यान थोडयो फोंडकुलान पडल्यो तेन्ना शंकर तापून म्हणूक लागलो

" अपु कितें गो, अहिंसा परमो धर्म काय कितें ? वयर वडयील्ले नुस्तें जर तुझ्यानी धरुक जायना तर उदकांतले कशें धरतलें ?''

शंकराक सावें नुस्ते आवडताले तर अपुक खाऱ्याचो घोस्त आसलो.

घराकडेन विकतें गाबितणेकडसून घेतिल्लें नुस्तें, तो आवडीन खायना आसलो तरी आपणे मारुन हाडिल्लें नुस्तें आवडीन खातालो. पयल्याच व्हुंवारान रातीन हातान चूड घेवन कोयतेन तो रातभर कुल्यो मारतालो. कोंग्याचें सूके तेकां वर्सातल्यान एक फावट तरी जायच आसलें.

अपुक जेवतना जेवणान आमटाणेन घाल्लो चिंचारो सांपडलो. त्या दिसाची ताका याद जाली. तो दिस आयताराचो आसलो. शंकर दुकानार वचूं नासलो. तिनाक च्या दितगच हातान कोयती घेवन तो भायर सरलो. अपु रानान मेडी मेळता तर पळयता माटवाक उपकारतल्यो अशें म्हणत जोतें घालुन तो सोपणा देवलो. अपु मान्यान वोली उमळताले बऱ्या वेळान ताका कुळागरान हुप हुप असो आवाज आयलों. गंगी शेनरेर आड पडिल्ली तर दादू पलंगार घोरेंतालो. माकड आयल्या आसतले असो विचार करुन तें सोप्यार आयलें माकड धांवडोवंक गंगी डबो आनि ताचेर मारुक एक बडी घेताली ताचेर अपुची नदर पडली. इतल्यान परत हुप हुप आवाज आयलो तेन्ना तें डबो घेवन बडयेन बडयत कुळागरान गेलें. माकडांची जाग नासली ताका दिसलें आपलें वाद्य आयकुन तें गेले आसतले तें परत घरान आयलें. तेन्ना चिंचे कडेन सुमार ताका परत हुप हुप असो आवाज आयलो. आताच नासले माकड परत कशें आयले ? बरें झाडा हालील्लीं दिसलीं ना? तरी तें डबो घेवन बडयेन बडयत कुळागरान गेलें, चिचे पोना वचूंन पळयत तर माकड नासले. इतल्यान रुख हालून चीचो पडल्यो. अपुक दिसले माकँडच, वयर कोणच दिसना. थोडया वेळान रुखाच्या आडसाक लिपील्लो शंकर भायर येवन ताळये कणकणी वचून चिचो वडवंक लागलो. अपुक चिंचाचो पावस पडपाचो भास जालो. माकडा सारखो जशाक तसो आवाज शंकरान कसो काडलो हांचे ताका अजाप जालें. वेल्यानच शंकरान म्हळें डबो व्हरुन दवर आनि चिंचो व्हरुंक आयदन हाड " अपु परतलें आंगणान डबो बडी दवरली आनि घरातली फुलां परडी घेवन चिचो हाडुंक गेले. म्हणसर शंकरान सगल्यो चिचो वडवन पोनान तळ केल्लो. अपुन फुलांची परडी भरुन चिचो व्हेल्यो तरी परत येतना परडी दवरुन ताणें व्हडली बुटी हाडली

" शाबास अपु तुका गिन्यान आसा तर जर तुं परडेन चिचो व्हरुंक लागील्लें तर वर्सभर चिचो व्हरच्यो पडता आसल्यो म्हणसर परत चिचो रुखा पिकता आसल्यों. "

शंकराच्यो मस्कऱ्यो ताका आवडिल्यो तरी आपल्या पिशपणाचेर ताका राग आयिल्लो. बुटी व्हरतगच चिचाची रास रोकडीच काबार जाली. चिचो कल्लावन ताची मागिर ताणें आमटाण केली.

पयलो पावस पडून वतगच कुळागरान लुतिचे कोंब आयिल्लें. ते जून

जावन गेल्ले. शंकर आसल्यार, अपुक कळचें पयलीच तो जून जावक दिना आसताना लुतिचे कोंब काडून हाडुन दिवन पातळ भाजी करुंक लायतालो. लुतिचे कोंब जून जातगच फूकट. लुतिची भाजी पांडुरंगाक, आशाक दोळया मुखार नाका आसली. व्हाळाच्या धडेर आंबाडयाचो रुख आसलो ताचे आंबाडे तो लुती भाजेक हाडतालो. अपुक बरोबर घेवन गंगी कुड्केची भाजी काडूंक वताली. कमर बावगन शेतानची भाजी गंगी पटापट खुटताली, अपु भाजी खुटतालें तरी गंगे इतकी बेगी जायना आसलें. गंगी पणसाची भिकणां मातयेन सारोवन सुकोवन डब्यान भरुन दवरताली. कुड्केचे भाजयेक ती फोडून घालताली. सुकी कुड्केची भाजी अपुक आवडताली,तशी गंगेक आनिक कोणाक तितली आवडनासली.

गोठयाकडेन एक रानकेळ आसली पावसान ती वाडताली आनि व्हिवचें वेळां शंकर तिका मारून भितरलो गाभो काडुन पयलेंच फावट घेवन घरा आयलो तेन्ना आंगणान अपु आसले

“ हें कितें केळी गाभो घरानसो ”?

“ आगो देवाक मकर करुंक जाय म्हणून तो हाडला. ”

अपुक खरें दिसलें. गंगी भीतर आसली

“ अरे तूं अपुक फटवशित म्हाका न्हय, हांव तुगेर जावना, तू म्हगेर जाला ”

“ आई हांवे तुका सांगु नासले अपुक म्हणिलें. ”

“ तें जाले रे तरी ताणें कितें पळयला हया रानातले ? तें शारानचे ताका तूवें फटवप न्ही पयलीं ताका सांगप, मागिर दुसरे फावट फटयल्यार उपकारता. अपुन तांचे उलोवप आयकले तेन्ना ताचो दुबाव गेलो.

“ शाक करतात दिसता. ”

“ हय गो तशी व्हडलीशी शाक बरी लागना तरी शंकराक आनि हांका ती आवडता ”

अपुक ती शाक सामकी बरी लागली ना तरी ताणें म्हळें “ तशी वायट लागना ” तें शंकराक दुखोवंक सोदी नासलें. गंगी म्हणताली “ शंकराची आवड कोणाची आवड आसुंक शकना. ताची आपली वेगळीच आवड. लोकांक आवडता ते ताका आवडना, तर ताका आवडता तें लोकांक आवडत हें सांगू नजो ”

दादून एक फावट रानान वचुन धा फागलां हाडलीं

“ अपु चार फागलाचो रोस कर उरील्ली फोडी करुन तळ ”

अपुन चार फागलांचो रोस केलो आनि फोडी तळून वाडल्यो तेन्ना दादु शंकराक म्हणुक लागलो

“ वजऱ्याच्या वयर एक वेदु रुक आसा ताका लागून तळप आसा त्या

तळपार एक घोल आसा तातून साळी वतात. त्या घोलाच्या दावे वटेन  एक म्हंयचो रुख आसा त्या रुखा भोवतणीं पेड कर्शे चारी वटेन तळप तर म्हंयच्या मुळान फागलांचो कांदो आसा. वर्सान वर्स ताका फागलां जातात आनि तीं वचून हांव हाडता. मदीं केन्नाय गेल्यार ताका शेण घालता, रानान पडिल्ले आसताच. तर ताचे म्हःथान तळप चारी वटेन आशिल्यान गोरवां वचनात, हया खातिर हीं फागलां मेळतात. ''

त्या फागलांची गजाल सांगत सांगत दादू तीं घोस्तान खातालो. अपुन दादूक जाय तितल्यो फोडी आनि रोस वाडलो उरिलो भागोवन खालो. दादु संतुष्ट जालो. '' वर्सानसून एक फावट फागलां खाल्या बगर चैन पडना '' अशें तो म्हणी. आता त्या फागलीणीक फागलां जातात काय दादु बरबर सोपल्या हें कशें कळतलें ? अपुक प्रश्न पडलो.

## ६

तोळु काम सांगल्यार करतालो तरी घरच्यानी केल्ले काम आनि तोळुचे काम हातुन फरक आसतालो. तोळुची नदर काम करताना पैशाचेर आसताली तर घरच्यांची कामाचेर. अपु सदांच काम निवळ करतालें. तशेच लोकानी करचें अशें ताका दिसतालें. शंकर मात काडील्ली वस्त जाग्यार दवरी नासलो. कोयती कुळागरान व्हेली तर थंयच वडवन वयर येतालो, कोयतेची गरज लागतगच ती सोदुक परत कुळागरान वतालो. कपडे दुकाना वेल्यान येतगच मेळत थंय खाटिर ना तर खुर्चेर वडयतालो. गंगी ताका कांयच सांगनासली तरी अपुक तें खटकतालें. कितले शे फावट अपुन ताका सांगलें सांगतगच थोडोच वेळ मागिर '' येरे म्हज्या मांगल्या ''

अपुन बेजारुन सांगचे सोडिल्लें. ताका गंगेन ल्हांन पणासाकुन सवंय केल्यार ती उरपाची. न्हांवक वतना शंकर पुसूक वालो व्हर नासलो. अपुन कितले फावट सांगुन उपेग जालोना. तें तो न्हांवक वच्चे पयलीच याद जाल्यार वालो व्हरून दवरतालें. ना तर ताचो साद आयकुचो पडतालो.

'' आगो वालो हाड बेगीन ''

आतां तो साद येवचो कायमचो बंध जालो. अपु त्या सादाक आवंडेतालें. वालो ताची वाट पळयतालो. वालो दिष्टी पडतगच यादी चाळवताल्यो इतलेच. अपुचे लग्न जावचे पयली गंगी ताका वालो व्हरून दवरताली तर दादु वालो पयलींच व्हरून दवरून मागिर न्हातालो.

गंगी एक दिस सांची दुध काडुक वतना बेगीनच गेली. हातान कोयती कित्याक व्हरता हो अपुक प्रश्न पडलो तरी ताणें विचारपाचें धाडस करूंना पावस पडून म्हयनोभर जाल्लो. तरी ते दिस मात्सो आसोर आसलो. गंगी येवंक वेळ जाल्लो. दुध व्हरूंक आयल्ली ती आसली.

" अपु हें गोठयाकडेन गेलां बरोच वेळ जालो तुं वचून यो ". अपुन पायान जोते घाले आनि तें चलुंक लागलें. आखाडयासून वतना आडवे वच्चे पड. तरी ताका सवंय आसली. सुर्य धारेर पाविल्लो तरी वत नासलें. वयर देवळेच्या कळसाचेर मात्शो दिसतालें. खणांचे पुरड लावन ताणें खाणू बांधलें. गोठयाक गोरवाच्या शिंगाचो दावणेक मारिल्लो आवाज परत परत येतालो. दुधाचो तांबयो आखाडयाभीतर दवरून पेलो धापिल्लो. ही खंय गेली काय अशें मनान येतगच ताणे उलो मारलो

" आई "

" हे पळय गो हांगा आसा " असो आवाज आयलो. अपु वयर गेले तर गंगी कळकीन भीतर वचुन कोयतेन किल्ल काडताली. चार किल्ल तिणें पयलींच काडील्लें. एक किल्ल काडून ती तो हातान घेवन भायर आयली. तिळसान जाल्ली गोठयाकडली पल्ली धुकटेताली. खणानसून व्हांवचे उदक बंधा जावना वाडतालें. गींपी चुक चुक करून भुर्र उडत झाडार बसली. माथ्या वेल्यान बगळे उडत अस्तमतेक गेलें. तरी ते बगळे काय कावळें हें कळ नासले. कावळे घोटेरान आवाज केल्या बगर वसनात त्या कोतान ताणी आवाज करूना म्हणतगच ते बगळेच जावंक जाय असो अपुन तर्क केलो. किल्ल हातान घेवन गंगी पाटानसून चलताली. आखाडयाकडेन आसले तांबयो पेलो घेतलो आनि गंगे फाटसून तें चलूंक लागलें. वाटेर पाल्लेलीं किल्लाचीं, माटुची सांवंळ हात हात भर लांब जाल्ली.

" अपु अंदू वर्साक जमल्यार भाटाक सावळ घालपाची काय बरी पालेल्या पळय "

अपु तांतले व्हडलें शें समजनासले तरी ताणें 'बरी आसा' अशें म्हळें. गंगी सदची वाट जाल्यान तुरतुरीत चलताली. अपु पायाकडेन पळोवन वतालें.

" कितें गो म्हातारे जाला म्हजे सारखे "

" ना गे म्हाका संवय ना शिवाय काळखान सारखे दिष्टी पडना" अशें उलयता उलयता ती घराकडेन पावली.

" तूमचो वेळ अजून पडूंक ना कितें ?"

गंगेन पावशेरान लोटयान दुध मेजून तांका अपुक व्हरून घाल म्हण सांगले. दादुची विडी पेटतच आसली. ताका 'च्या'क वेळ जालो म्हणून तो

बेजार आसलो. च्या गंगेन रोकडीच केली,आनि अपुन व्हरून दिली. रातची गंगी किल्ल कोचावूंक बसली. तीणे तो तोपान उदक घालून दवरलो चणे थोडे भीजत घालें. दूसरे दिस किल्लाची शाक केली. सगळयानी ती खाली. गंगे इतलो तो कोणाक आवडनासलो. शंकर किल्ल हाड म्हळयार फाल्या हाडता म्हणतालो. दादुच्यान तर किल्ल काडूक जायनासले. गंगेक दोन तीन कडेन कांटे रोमिल्ले तरी तिका ताची पर्वा नासली

" कष्ट केल्या बगर देवा लेगित खावंक मेळना "

तीन चार फावट तीं किल्लाची शाक, सुकी भाजी करून खाताली. आतां किल्ल जून जावन कोंडे जावन गेल्ले. तरी कोणाक ताचे पडून वचूं नासले.

सोप्यार बशिल्ले कडेन अपुक फाटली याद जाली. अशीच तिळसान आसली. माकड चिचे रूखार घसघसताले. चिंचो दवरचें ना म्हणून दार ओडून घेवन तें एका वर्साच्या पांडुरंगाक घेवन माकडांक आमडुंक डबो बडयत गेले. डब्याचो आवाज सदचोच, ते चिचे वेले कशेंच वचनात. तें वेल्यान अपुक चाळवूंक लागले. हातान फातर घेवन अपुन तांचेर मारले तरी ते ताचे इतले वयर वचना जाले. चीचो बूडुडुन खावन थोडयो सकयल वडवंक लागले. पांडुरंग रडतालो ताका हांडीर घेवन तें चिचे पोनान रावलें. माकड सोडून घरा येत तर ते अनसां,पोपायो खातले असो विचार अपुन केलो. लागसर आसलें पान गुटलावंन तार्णे पेपारें करून वाजयलें. तेन्ना तो विचित्र आवाज आयकून माकड धांवले. पांडुरंग पोटाभूकेन रडतालो. माकड रानान पावतगच अपु सासपित सासपित घरा आयलें. तो मेरेन रातची धा जावन गेलीं. सोप्यार यो तर घराचे दार बंध. ताच्या मनान येताले आपुण काळखान पडलें म्हणून शंकर दिवो घेवन येतलो पूण तो आयलोच ना, परतो दाराक खिळी घालून भितर रावलो. अपुन दारार हात मारलो,पांडुरंग भूकेन एकसारखो रडतालो.

" दार उघड चूक जाली वेळ कळूना, पुता खातिर तरी दार उघडात "

अपुन परत परत विनंती केली तरी शंकराचेर काय परिणाम जालो ना. अपुक न्हीद आयलीना पांडुरंग भूकेन थांब नासताना रडतालो. शंकराचो राग इतलो खर आसत हाची अपुक कल्पना नासली. अपुन ताका पायार घालून न्हीदायलो. रातचें वागूट बी येत या खातिर तें जागेचं रावलें. पलतडी कुत्रो भोकतालो. पांडुरंग भुकेन रडुन रडुन न्हीदलो. अपुक भुक लागिल्ली. दोळयाची पाती लागली ना, शंकर घोरेलो आवाज सोप्यार येतालो.बोवुळ शेवणे चितकार करत पैस रडताले. शेतान आसल्यो किडी ताका साथ दिताल्यो. चान्ने गडद जाल्लें. तें आंगणान येवन पळयत तर चंद्रिम माथ्यार आसलो. अपुक भूक लागल्यान ताका पळयतगच अपुक चपातीची याद जाली. ताच्या पोटान कावळे रडतालें तर भायर

घुघुम, शेवणें रडतालें. दुसरें दिस शंकरान दार उघडलें.

" आतां कित्याक उघडलें धापून रावात भितर, म्हजी सोड, पांडुरंगाची काकुळत आयलीना तुमका, ही पळय जीती आसात आमी, हांव कितें फोल्गाक वचूं नासलें, तुझोच संसार करूक, माकड धांवडावंक गेल्ले. वच नासले तर अनसां पोपायो ते खाता आसलें मागिर नुकसान कोणाक म्हाका काय तुमकां? दादू आसल्यार घडये दार काडता आसलो, आई आसल्यार तिका काकूळत येता आसली. पुण कितें करू म्हजे नशीब तें " तेन्ना अपुक म्हश्यान घेवन शंकरान म्हणिल्ले

" पसश्यावेल्याान येतगच तुं घरान ना म्हणतगच म्हाका राग आयलो. डबो बडयतालें म्हणतगच चीचे पोनाक आसतलें हें कळें, हांव कपडे काड नासताना न्हीदलो दाराक खिळी घाली,मागिर बरे वर राती दार काडपाचे येवजिलें. तरी म्हाका पूरो जाल्यान, थार न्हीदून पडलो तो आतां जागो जालों "

ताणे पांडुरंगाची पापी घेतली बेगी बेगी दुधाचो बोम करून घालो. अपुन भीतर वचून पळय तर शित रोस तसोच आसलो. शंकर जेवंक ना ते सगलें शित रोस ताणे तोपान घालो आनि गायक खांवक व्हरून दवरलो, शेर भर दुध ा चडच मेळलें. अपुक दिसले शंकरान तरी रात सोपतकच दार काडलें ताचो पूत कायमचो भायर घालना मूं ? चूक नासताना घोवान ताका रातभर भायर दवरीलें, पुताक माया आवयची आसना ह्या विचारान आसताना वणति वेलीं पाल चुकचुकली. ताणें आंग काडलें. पाल बारीक जीव खांवन ताचें विष पचयता तरी पालच विखारी म्हणून ताका मारून वडयतात. पालिक कोणच शुभ मानीनात. हे पाली सारखी म्हजी अवस्था जायना जाल्यार पूरो.

अपुक फाटल्यो कोडू गोड यादी जातगच थोडो वेळ तें फाटल्या कालान पावतालें. थोडो वेळ ताका विसर पडतालो, गेल्ले दिस परत येनात हें खबर आसलें तरी त्या मालोजार तें फुडले आयुष्य अपुक सोदताले.




- ९ -

चार पांच दिस कार्तिक पूनवेक आसात म्हळयार अपु ब्रम्हा कडेन निवळ करताले. फातर दवरून रान्नी घालतालें. अनवाळयानी पूनवेच्या दिसाक रानप.

जरीचें उदक वापरप हो नेम आसलो. केळीच्या पानार जेवप. शंकर ब्रंम्हाची पूजा करून आरती दाखयतालो. देवळेचे वयर ब्रम्हाचे स्थळ आसलें. खरें तर थंय मुर्ति नासली एक आंब्याचो रूख आसलो. ताचेर ब्रम्हा रावता असो समजून आसली. दादु, गंगी, शंकर आनि तें एक फावट जेवतगच थंयच न्हीदिल्ली. सांज जातगच परतलीं. दादु ताका 'रान जेवण' म्हणतालो. गंगी आबोल्याचो सोर करताली शंकर तो आंब्याक बांधतालो. गंगे फाटल्यान अपु सोर करताले. पांडुरंगाक, ताराक, ती मजा आसली. खणाचें उदकां न्हावन तीं जेवतालीं. पांडुरंग आता ब्रम्हाची पूजा करी नासलो. घरच्या देवाची पूजा केल्यार केली ना तर ना आशाक देवाचे वडलेशे नासलें. अपुन सांगले तरी ताचे कोण काना मनार घेना आसलीं. तरी कार्तिक पूनवे पयलीं ब्रम्हाकडेन वचुन तो जागो अपु निवळ करतालें.

गंगेन सांगना फुडे अपु तेरो काडुक हातान चोबूल सूरी घेवन कुळागरान गेल्ले. पावसाचे दिस आसलें. भायर सरतना पावस नासलो हया खातिर अपुन सत्री व्हंरूकना मुठभर तेरो काडतगच पावस आयलो. तो रोकडोच वतलो अशें चितून अपु माडापोनाक रावलें. पावस घोघ्यानी पडुंक लागलो, तेन्ना माथ्यार पदर घालून तें धावतच घरान आयलें तो मेरेन तें सगलें भिजिलें.

" अपु तूवें माथ्यार पदर घेवपाचो न्हंय "

" कित्याक आई ?"

" आयक हांव हया घरान येतगच अशेंच शेतान काम करतालें तेन्ना पावस आयील्लो हांवे माथ्यार पदर घेतलो पावसाचे उदक माथ्यान गेलेच चार दिस जोर काडलो तरी आता दादु पयलीं गेलो आनि माथ्यार म्हज्या पदर चडलो तसो तुझ्या जीणेन तुका घेवचो पडना जाल्यार पूरो. घोवा फाटल्यान बायलो संसार सोडिनात तरी घोव आसताना संसार उमेदीन करतात. मागिर संसार करूंक जाय म्हणून करतात. चल रोकडे न्हा "

अपु वचुन न्हालें तरी गंगेच्या उतरांनी मेळें जाल्लें ताचें मन न्हातगच निवळ जावंक ना. रातीन अपुक जोर भरलो. शंकरान झरीचे उदक हाडून कपड्याची घडी अपुच्या कपलार दवरून भिजयली. जोर आयील्यान अपुक न्हीद पडना जाली. भायर पावस पड नाशिल्यान एकाच आवाजान शेकडयानी बेबक्यो गाताल्यो. थोडो वेळ थांबून परत तोच आवाज " सांधीक गावची कला बेबक्याक कोणे शिकयली काय "?

" अपु, देवाली करणी नाल्लान पाणी "

अपुक प्रश्नाची जाप मेळीली. रातभर तो ताच्या उषाकडेन जागरण करून रावलो. निवेल कोणी हाडून तो ताका शेकतालो. रातभर दिवो पेटत दवरिलो.

" कशें दिसतागो " अशें परत परत विचारतालो. मदी मदी ताका कांदो

माथ्याक घालतालो. अपुन ताका जेव म्हणून सांगले तरी तो जेवंक ना दुसरे दिसा अपुचो जोर गेलो तेन्ना तो जेवलो. ताणें अपुक बजावन सांगिल्ले पावसान केन्नाच भीजपना तूं गेल्यार म्हाका कोण आसा ?

" तुमका चली कोणय रोकडोच दितलो. "

" तें खरें तरी म्हजो आधार तुका चड तेप मेळचोना, तुं मात म्हजे फाटल्यान खुप तेप झरत आसतलें " तेन्ना ताणें शंकराच्या तोंडार हात दवरून

" युमे " म्हणत ताची उतरां बंध केल्ली.

" तोंडार हात दवरून तूं म्हजी उतरां बंद कर शित तरी नशीब पुसूंक जावचे ना,जें घडपाचे आसा तें घडतलेंच. इतल्या मोव मनाच्या शंकरान ताका पाषाणा सारखें मन करून आपल्या चल्याची पर्वा करीनासतना रातभर भायर दवरिलें. हें ताका कुवाडेच जावन आसलें

गंगी एक दिस ताबुल फळें घेवन अपु म्हयान आयील्ली. रंग गेल्लो. पंगाच्याचे गजरे हाडून तीणे ताबूल फळें कशें खेळपाचें तें अपुक शिकयलें. गंगी कशीच अपुक खेळूंक आयक नासली. ताबुल फळें खेळुक अपुक आवडतालें. दादुक ताबुल फळें खेळुक कळताले तरी तो खेळ नासलो. मदीं मदीं अपुक खेळुक शिकयतालो तेन्ना आपणाचेर हार पडत म्हणून गंगी म्हणताली

" बायलां खेळताना दादल्यांनी मदीं सांगपना, दादले खेळताना आम्ही खंय मदीं उलयतात ?"

एक दिस अपुक ताबलां कशीच सारखी पडना जालीं. शेवटाक ताका जाय तशी पडलीं तें जिंकलें. दादुन ताका एक फावट म्हणिल्लें

" अपु जीणेक तुझ्या सुकती आयली तरी भीवं नाका, धीर धर मागिर भरती येतलीच "

अपु भरतेची वाट पळयतालें तीं केन्ना ना केन्ना तरी येतली "

आज ताबलां फळें कोनश्याक कोयर खात पडिलें. त्या त्या वस्तुचें ती वस्तु उजार करत रावल्यार मोल वाडता ना तर वस्त कोयरा कोतारच.

देना शाळेन वतालें. तें येतना पळोवन अपुन म्हळें

" देना घरान भीतर सरचे पयलीं हात पाय फोंडकुलाच्या उदकान धुवनच भीतर सरपाचे "

" अगे तें ल्हान आसा आतांच शिस्त शिकयता "

" अगो शिस्त ल्हान आसतनाच लावपाची आसता, व्हड जातगच न्हय "तवशीणीचो बेल ल्हान आसताना जाय तसो परतवुंक येता तरी व्हड जातगच तो आपल्या जाय तसो बागवुंक मेळना,बावगयली तरी मोडपांची भीरात

आसता. पांडुरंग ,दास, तारा अजुन घरान सरचें पयलीं फोंडा थान पांय धुवनच मागिर भीतर सरतात, तें कित्याक ? म्हाका तुमी धुल्लांच्या पायानी भीतर सरिल्लें पळयलां व्हय ''

आशाक जाप नासली. पांडुरंग तिळसानचो येतना हातान शीगार धरून ओडत आयलो.

'' पांडुरंग तुवें कितें येवजीलां हाणें शीगार जल्मभर तोंडान घेवंक ना, तुवें घेतलें कशें ?''

'' अगे तो आपल्या जोडीचो ओडतलो तुझ्या जोडीचो ओडतलो तेन्ना तूं सांग ''

'' आशा हांगा जोडिचो प्रश्न ना ल्हानाचो व्हड हांवे केल्यान म्हाका ताचे बदल कळकळ आसा, भीकान्न जाली तरी आवय न्ही ताचीं ''

'' अगे दादलो म्हणतगच शिगार ओडल्यार कितें बीघडलें, व्यसना कोणक बायलाक आसपाची, दिसभर पस थान रावतगच बेजार येताच न्ही''

'' अगो म्हजो चलो ताणें चैन केली तर म्हाका कडडुकपण ना तरी बलायकी सांभाळूक जाय काय नाका?''

पांडुरंग अपुक भितालो तरी आशा आपल्या वटेन आसा तें पळोवन आवयची पर्वा करी ना जालो. सदाच शिगार राजरोस ओडूंक लागलो. सोरो पियेवंक लागलो, रातचो लकत लकत धांक अकरांक येवंक लागलो. मटको खेळूंक लागलो. अपुन सांगपाचे सोडुन दिलें. आशाची ताका फुस आसली. अपुचेर राग काडचे खातिर तें पांडुरंगाची व्यसनां पोनांन घालतालें तरी आपल्या पायार फातर मारून घेताले तें ताका खबर नासलें. पयलीं पयलीं फकणां खातिर पियेतालो तो आता व्यसना आधीन जालो. देव धर्म सगळेच ताणें सोडिल्लें. पसऱ्यार म्हाल नासलो, सामान घरान हाडना जालो तेन्ना आशान ताका विचारलें, तरी तो आयकुचे शाबुद्धीन नासलो. अपुक तो 'बोडके' म्हणून उलो मारतालो. तेंलिस भाटकारान बार घाल्ले थंय तो पितालो. गांवातले लोफर ताका सांपडिले. अपुक ताची दशा पळोवन वायट दिसतालें तरी करतले कितें? अपु सोप्यार चिमणी पेटवन पांडुरंग येता सर जागरण करतालें. तो लकतालो खय पडुन लागल्यार तर आशा पयलीच जेवून न्हीदतालें.

दनपारची वेळ आसली पांडुरंग घरा येवचो आसलो. देना गृह पाठ मोठयान मोठयान वाचतालें. आशा भितर ताक चाळतालें. सोमो कुळागरानसून येतना अपुन पळयलो. पिरायेन तो पांडुरंगा बरोबरचोच आसलो तरी लग्न जावंक नासलों धड घर ना, शिर्वीस ना, भाट ना असल्याक चली कोण दितलो? हे विचार

अपुच्या मनान येता मेरेन तो आंगणान पावलो.

" आई कशी आसा?"

" काडतां बाबा दिस"

" आई म्हाका पांच हजार उश्णे दी, तुझे रोकडेच वर्सा भितर दितां"

" अरे तुं किते माण घालतलो, पांडुरंगान तो पळय माण घालून उद्धार केलो. पांडुरंग तसो वायट न्ही ताका भयना जाले तेलिस भाटकारान ताका व्यसन लायले आपलें साधोवंचे खातिर,हे इस्टेटिचेर ताचो दोळो आसा "

" अरे ताका भुरगीं बाळां ना सुवार्त कसलो ?"

" अगे ज्यांका फाटल्यान कांयच आसना तेकां सुवार्त चड. तो भायलो सोरो हाडून पांडुरंगाक दिता. कागदार सई घेतल्या अशे पैर हायेन आयकलें "

" हांगा रावन फायदो ना दोन दिस काम तर चार दिस बेकार,तीं जाणती जाल्यान तेन्ना कुयटाक वचुंक सोदतां. चार वर्सा रावल्यार जागो घेवन बंगलो बांधतलों."

" तें जालें रे तरी म्हजे कडेन पांच हजार नात. आतां पत्रावळी विकुन आयील्ली एक रूपया आसा तो व्हरून सोर्त काड. फाल्या दादूले श्राद्ध आसा तारीख सोळा तेन्ना सोळा नंबरची सोर्त काड आनी तुझे नशिब पळय. भावनेन खंच्चेय काम केल्यार यश मेळताच." सोमो रूपया घेवंन गेलो

" ही गजाल घरच्यांक कोणाक म्हणु नाका, तीं म्हाका ओगी रावचीं नात. तुझे बरें जावं."

रातची बारा जावन गेलीं. वाघ घुर कितना आयकुंक लागलो. पांडुरंग उठयल्यार ताचे पांय पायाकडेन पड नासलें. आशा म्हणुक लागलें

" आई तूं वचुन त्या वाघाक धांवडाय. नातर तो गाय मारतलोच गाय मारल्यार दुध खंचे मेळतलें? विकर्ते दुध खावपाची तांक आमकां उरूंकना " अपु हातान चिमणी आनि डबो घेवन खणाकडेन गेलें आनि मोठया मोठयान डबो बडूवंक लागलें. वाघ त्या आवाजान धांवलो. दोन दिसानीं ताणें तेलिस भाटकाराचो कुत्रो मारलो. तेलिस भाटकारान दुस या गावानसून कासोदोराक आफयलो. ताणें ताका बंदुकेन तीन दिस पाळतेर रावन रातचो गोठयाकडेंन मारलो. वाघाचे संकट ना जाले. वाघ्रेश्वरान तेलिस भाटकाराक बुद्धी दिवन वाघाचो कांटो काडिल्लो.

पांडुरंग पस ॅयार वचना जालो. सगले सामान विकील्ले , म्हाल हाडुन ताचे कडेन पैशे नासले. नाल्ल सुपारी दितां म्हणुन पयलींच तेलीस भाटकारा कडसुन हाडुन आपले व्यसन चलयतालो. वाडयावेले तवनास ताका सापडिल्ले. ते नाका ते शिकयताले. अपुक भायर घाल तीका पोसपाक थोडो खर्च येना अशे कान फुकताले. आशान अपुक कागदार सही करूक दोन तीन फावट सांगले तरी तें ताका बधना जालें, आशा अपुन काम केल्यार उलयताले ना केलें तरी उलयतालें. देना अपुक आशा शिकयताले तें म्हणतालें. अपु नातीन म्हणीलें सोसतालें. ज्या घराक आयला तें घर सोडप ना अशेंच ताणे थारायीलें. अपुन एक दिस पांडुरंगाक बरोच उजरावन काडलो.

" अरे लोकांची न्हय मनाची तरी लज आसा काय ना रे तुका ? संसाराचेर लक्ष ना, धंदो बंद जालो. रिणान गळया मेरेन बुडला. तेलिस भाटकार इस्टेट आसा म्हणून तुका पातेता ती विकल्यार तो लागी करचो ना. म्हजें खातिर न्हीं रे आता म्हजें तितलेंच, केन्ना वचत सांगु नजो "

" पुरो बोडके तुझे गिन्यान तुझे कडेनच दवर म्हाका गरज ना त्या गीन्यानाची." अपुक मनस्ताप जालो घोवान केन्नाच कांयच म्हळेना तें पुताकडसुन घेवचे पडलें.

अपुची नदर सोप्यार आशिल्या सायला पाटयेर गेली. एक भोंवर त्या पाटयेन बुराक मारून आपले घर तांतुन करतालो अपुन ताका आमुडले तर ताणे अपुक घास काडलो. अपुक दिसले पांडुरंग वा भोंवर हातून फरक ना. भोवर मदेर पिडयार करता वेल्यान चाबता, तसोच पांडुरंग आपली जीण वघडायता ब ॅयाचे सांगल्यार वेल्यान तोंड घेता परत ताणें चितलें पांडुरंग म्ळयार सागवानी पाटी, भोवर म्हळयार व्यसना ताका सोपयल्या बगर रावचीना. मनश्याची बुद्धी भष्टतगच राकेस वृती पोसवना तो जनावरां सारखो वागता. अपुक दिसले रात रातराणयेचो घमघम सुटून मन प्रसन्न जातालें तर आतां पांडुरंग रातचो येतगच सो ॅया वासान मस्तक भणभणता, ओकुंक येता. रातराणीयेचो वास लिपयता.

दनपार जायत आयील्ली. अपुक कुळागरान वचुन पोयी, काबळुको हाडुन हांडयाकडेन वडयलो. हांडयान हात बुडवन पळयलें तर तें बरेच गरम जाल्लें. ताच्या हाताक चडको लागलो तें मागील दारान यो तर घर बंध तें तशेंच चलत फडल्यार दारान आयलें , तर ते ही दार बंध आशा दार उघडात म्हटलें तरी ताका परती जाप मेळीना. ताणें दारार मुठ मारली तरी ती ओगीच रावन हांसताली. ताणी जाणा जावन आपणाक भायर घालें हें कळुंक ताका वेळ लागलो

ना. वत निबर जायत आसलें. रोजां बाविल्या सारखी ताका दिसली. पाटांतली झर भुळुभुळु रडताली. फोंडाच्या कडेन येवन ताणे आपल्या तोडांक उदक लायले, घोटभर उदक पियेले तितलीच थाकाय ताका आयली.

पांडुरंग येतना ताका दिसलो. मनान आयलें आतां पुत आपणाक घरान घेतलो. ताचे पांय पायांकडेन पड नासले. दोळे तांबडेच जाल्लें. आपल्या कपडयाचे भान नासले. जोतें काडून ताणे 'आशाश' असो उलो मारलो. दार काडतगच तो भितर गेलो फाटसून अपु भितर सरूंक आशान दार बंध केले. "म्हातारे सही ना तर तुका घरान घेवची नात" मालक कोण आनि मालकी कोणची, सत्ते मुखार शाणपण चलना. घरान भितर ताटाचो आवाज येतालो. अपुक वायट दिसलें ताचे दोळे भरून आयले जेवणाक ते पादेशिर जाल्लें. तें तोळुगेर गेलें तोळु तेन्नाच जेवन पान खातालो. खोपटान तें बसले

" तोळु आतां तुझी नदर हया घरार आसुं, वेळार धांव, ताणीच तुकां आश्रय दिला हे विसरू नाका भेट जाली तरी म्हज्या कुडिची तातुन प्राण आसत ते सांगु नजो "

" म्हळयार तूं आतां चल्ली, आमगेर रावल्यार जायना ?"

" अरे देवाचे घर व्हड आसा तुम्ही बरी करून रावात. सोमो तुमचे नांव वयर काडतलो."

" हो रूपया सोम्यान तुकां दिवंक सांगला"

अपुन तो रूपया किरवटीक लायलो. तोळुन च्या करून दिली. अपुक मात्सों बरें दिसले. परकी मनश्याक मनीसपण आसता तरी मायेच्या मनश्याक आसना अशेंच तें चितताले. तिळसान जायत आयील्ली हातान दांडो घेवन ते घरा कडेन येतालें ताका दार उकतें दिसलें. दुध व्हरूंक आयील्ली तीं आखाडयासून वतना ताणें पळयली. अपुक खंच्यान आशान पळयले देव जाणा, घड्ड् करून दाराक ताणे खीळी घाली. अपुची आशा आशान पालवयली. रातराणीचो वास येतालो त्या वासान ताची तकली जड जाली. गोरवां गोठयान शिंगा मारून घेतात तो आवाज मात्सो येतालो. जनावरां झगडतां तशीच मनशां अशे ताका दिसलें. जनावरां झगडलीं तरी गोठया भायर कुटूंबातल्यांक घालिनात.

ताका याद जाली शंकरान ताका रात भर भायर घाल्ले तीं, पांडुरंग ताचोच पुत, तरी घोवान रात जातगच दार काडिल्लें. पणसाचेर घुघुम हुं हुं करतालो. फोंडा ऱ्यातली किड रडताली. माकडांक घर आसना तरी ते जीव घेवन आसतात तशेंच रावपाचे. वाघ येवन सोप्या वेल्यान वेल्यार, भोगपाचे त्रास तरी उणे जावपाचे. मनीस चितता तशें जायना. भोग हे भोगचेच पडतात, ते भोगचे खातिरच आसतात. रातभर अपु तळमळतालें. फाटल्यो यादी ताका परत परत मनान घोळताल्यो. त्या पयल्याच

दिसाक माप परतुन वडयतगच ताका घोवाचे नांव घेवंक लायील्लें. तेन्ना ताणी फोकणानी म्हणिल्लें. ''पोल्या पणसाक पाक चड म्हज्या शंकराक राग चड'' खरेंच त्या शब्दा बोलाक गांठ पडिल्ली. तेन्ना ताणें मस्कऱ्यानीं विनोदान म्हणीलें तेच खरें जाल्लें

सकाळ जाली तरी दार उघडलेना. गायचो दुध काढपाचो वेळ जाल्लो तेन्ना ती हांबेली. म्हज्या खातिर हांका त्रास नाका अशें चितुन सूकत घाल्ली कांग, पोलको, दांडो घेवन ते आखाडयान सुन भायर सरलें. एक फावट ताणें कुळागर दोळयान भरून घेतले, घराचेर नदर मारली. गोठयान वचुन तें गोरवांक पोशोवन तशेंच गेले. खावंक कांयच नासले तरी उपासाची ताका सवय आसली. चलत चलत तें म्हाल रस्त्यार आयील्लें. बशीर बसलें ताणें रूपया कंडक्टराक दिलो आनि तें तिस्कार देवले. ताची स्थिती पळवन कंडकटरान आनिक पैशे ताचेकडेन मागु नात. एका रूपयान सोम्याक कुयटाक तर अपुक दासागेर पावयिल्ली.

आवयक पळवन दासाचे मन कळवळले कसले त्रास भोगले आसतले हाचो तो विचार करूंक लागलो.

'' आई राव तुं हांगाच ''

'' नारे दास हांव रांवक येवंक ना हे घर म्हजे न्हय, म्हजे घर म्हाका बंध जालां ''

'' कित्याक ? ''

'' अरे म्हाका दोघीजाण पुत सारखेच तुझ्या तोंडाक पाना पुशिल्ली म्हाका नाकात,कागदार सही कर म्हणुन म्हाका सांगुक लागली. हावें सांगले इस्टेट दोघी जणांनी भोगपाची तेन्ना ती म्हाका छळपाक लागली. हावें थारायलें जीव गेलो तरी सही करपना. आशा पयलीं सान म्हजेर बरें नासलें तातुन हे निमित्य मेळलें ''

'' अगे म्हाका वाटो नाका हें तुका हावें सांगिल्ले न्हय.''

'' दास आताच तुवें वाटो मागल्यार ताचेर पेज येतलो पैशे उणे पडतगच ताचे दोळे उघडतले तुका जरी वांटो नाका तरी ताच्या बऱ्या खातिर तरी तुवें तो सोडप न्हय. तुवें अधिकार सोडप म्हळयार ताचे व्यसन वाडोवप घण घालतगच शेंणे फातरान भीतर तोपता तशीं उतरांची शेणीं घणान मारतगच दासाच्या काळजाक तोपताली.दास तुवें घराचो अधिकार सोडप न्ही केन्नाय हक्कान भुरग्याक घेवंन घरा वचुंकच जाय,फाल्या तुझी भुरगी आज्याचे घर दाखय म्हळयार तुं खंचे दाखयतलो ? पांडुरंग आता पयलीचो ना तो आतां 'काळो

रंग' जाला. धवेपण ताचें गेलां. तो काळखाक लागी करूंक लागला.बार ताचें घर जालां, तो कितें बडबडता तें ताकाच कळना, पसरो बंध केला. कुळागराचेर तेलिस भाटकारासून रिण काडलां. आशा ताच्या घोवाक सुधारपाचे सोडून म्हज्या फाटल्यान लायलां.देनाचेर नाका ते संस्कार करतात म्हाका तीं वावराडी समजतात."

" आई म्हाका दोनय चलयोच तांका लग्न करतगच हांव मेकळो."

" तांका लग्न करतगच तुं म्हातारपणान थंय वचुन राव मरे, पांडुरंगाक चलो जातलो तो तुझोच म्हणून समजय."

" आई तुकां खात्री आसा आता ताका चलो जातलो हाची."

" खात्री आसा न्हय आसाच चाळीस पावसाळे पळयल्यात तें ओगीच रें ? आता म्हजी पिराय कामाची न्हय चिंतनाची 'सन्यासिनी' जावंक सोदतां. तुका हांवे कांयच दिले ना. उरिलें म्हातारपण देवा म्हथानच सोपावपाचें हावें थारायला. देवाची भक्ती करतगच पांडुरंगाची बुद्धी पवित्र जातली तशेंच तागेर चलो जातलो. अरे पांडुरंग तसो वायट न्ही आशा ताका शिकोवन पाड घालता. तुझ्या बापायचो स्वभाव ताका आयलो मायाळू तसो रागीट, तारागेर चलो जालो तें बरें जाले. म्हाका पोरूस घराणे वयर सरिल्लें जाय, म्हजें रक्त मांस काबार जायत आयलां आसात तीं हांडा, ती तशी बरी घट् आसात."

" आई तूं आमगेर राव भुरग्याचेर बरे संस्कार कर "

दासाचे चली चोचरे उलयताले

" आजे तूं याव गे आमगेर" अपुन ताचीच उतरां ताका म्हणत चाळयले. दासाचो मळबा कोरी बंगलो. टिवी, डेक, सोफा वातानुकलीत न्हीदपाची कुड, जमनीर मारमीर. दारान गाडी, फ्रिज, फोन, शोकेस कितें नासलें ताचे कडेन ? दासाच्या बायलेक गर्व आसलो. आम्ही गीरेस्त ही भावना आसली तांबडया कांगीन अपुक पळोवन आपल्या प्रतिष्ठेक बाधा येता अशें ताका दिस. हें अपु वळखलें.

दास मरचे पयलीं तझ्या बापायची गोकर्ण वचपाची इत्सा आसली तीं तशीच उरली. ताचें नावं 'शंकर' गोकर्ण हे 'शिव क्षेत्र' म्हणून प्रसिद्ध आसा. आत्म लिंगाचे दर्शन घेवची म्हाका उमळशिक लागल्या. कोटि तीर्थान न्हावन सगळीं पापां वतली आनि पुण्य मेळतलें, घराण्याची उदर्गत जातली, मनान येवजिलें काम जातलें.

" आई हांव तुका म्हज्या धाकटे गाडयेन गोकर्ण पावयतां "

अपुक गाडयेन घेवन तो गोकर्ण आयलो. दीघे भट ताचो मित्र आसलो. दीघे भटान तिका आपली खोली रावंक दिली. तो महागणपतीची पुजा करतालो.

रावण जेन्ना आत्मलिंग घेवन वतालो तेन्ना गवळयाचे रूप घेवन गणपतीन तें लिंग रावणा कडसून घेवन तीन उले मारून जागयेना म्हणून थंयच आत्मलिंग दवरलें. त्या महागणपतीचे दोनच हात आसले खरे. शिवाय रावणान मारिल्ली कुट अजुनच गणपतीच्या माथ्यार खुणेन आसली. त्या धार्मिक वातावरणान ताका बरें दिसले. दासान ताका वंक्ल दिले. देवांची उपकन्ना तें घासतालें. जमीन निवळ करतालें. ग्रंथाचे वाचन करतालें. तांतून ताका मनाची शांतताय मेळताली. भक्ती मार्गाची व्हडविकाय तांच्या मनाक पटताली. लोकांची गर्दी दिसभर आसताली. कापसाची जोडवी तीं करतालें. दिघे विकून पैशे घेतालो. दनपारचे एक जेवण तो दितालो, रातचें अपु उपास करतालें. रातची गणपतीक आरती जातगच तें घरा येतालें. मागिर मणयाची माळ घेवन तें शिवाचो जप करतालें. तो जप सोपतगच ते न्हीदताले.

न्हिदचे पयलीं ताका घरची याद जाताली. देना कितें करता काय ? गायी दुध दितात काय कितें ? माया म्हयन्यान झरीचे उदक व्हांवता काय बंध जाला. पांडुरंग कितें करता काय ? आशाक कोणाचो आधार मेळतलो ? तें आपल्या मनाची समजून घालतालें. गळयातली सरपळी ताणें डब्यान घालुन दवरिली. आत्म लिंगाकडेन एक सारखे उदक पडतां तें पळोवन ताका आपल्या घरच्या झरीची याद येताली. तें सदाच घरातल्या सगळया लोकांचे बरें जावं अशें मागतालें. दासाची याद जातगच ताका बरें दिसतालें तरी ताका आपणें कांयच दिले ना हाची खंत जाताली. दासाच्या बायलेची वागणूक ताका कळिल्ली. दास रक्ताक अंतर दिवंक शक नासलो. भरिल्या कुटूंबातलो तरी एकलुको आपली जीण घालयतालो.

अपु आतां थंय रमतालें. ताणें देवळाक आपलें घर मानील्ले. आशाचीं धारदार उतरां आयकुन मनस्ताप जाय नासलो. पांडुरंगाची दशा पळोवची पड नासली. सकाळी उठून तें कोटितिर्थार न्हातालें मागिर देवळा मूखार रांगोळी घालतालें. दिघेच्या घरान रानूंक तें ताच्या बायलेक मदत करताले. एक दिस दासाक ताची याद जातगच आयलो. ताका अपु पयलीं परस उमेदी दिसलें. पयलीं सारखे खंती नासलें. दासान ताका पैशे दिवंक केले ते ताणे घेतले ना.

" दास पांडुरंगाची खबर घेवन यो रे दुसरे फावट येतना "

" तशी खबर मेळील्ली तो बरो आसा. "

अशीच वर्सा वतालीं तीन वर्सा उपरान्त अपु आतां सामकेच जाल्लें. दांडो घेवन लेगीत चलूंक जायना आसलें. वंक्ल लायले तरी बरे दिस नासले. थंड न्हाल्यार ताका थंडी जाताली. राती राती तें खोकतालें वखद करतलो कोण ? दासाक तें कांयच सांग नासलें, तरी दासान ताका आपणागेर आफयलें.

" दास म्हजे आशिर्वाद तुमच्या दोघांच्या फाटीक आसात रे, आवय भूरग्याचें सदाच बरेंच चितता "

" आई जल्म दिवन ल्हानाचो व्हड केलो हे उपकार कमी न्हय, जीणेक तुवें खुबच केले. अजुन मेरेन करता म्हजे खातिर तुका घर वर्ज जालें, ना तर तुं घराच आसता आसली. हे रिण हांव कशेच फारीक करूंक शकना. आतां तरी तूं आमगेर यो तुझी सेवा आमकां करूं दी. "

" दास हांव समाधानी आसा तुझी माया पळोवन म्हाका व्हडपण मेळें असलो पुत मेळ्ळो म्हणुन. तुं सुखी राव तरच हांव सुखी. "

गाडी घेवंन दास आपल्या बंगल्यार पावलो. रात बरीच जाली. बायलेन विचारलें आई कशी आसा ?

" आगो तें वयार आसताना अशेच गावांन लग्नाक वचुंक तांबडो शालु, अलंकार घालून भायर सरिल्लें तेन्ना बाबान ताका म्हणिल्लें अपु तो तांबडो शालू सोडून दूसरो काळो न्हेस कित्याक तर तुका न्हवरो व्हकल समजून माळ घातल्या बगर रावचोना.

" हें पळय शालवार मंगलसूत्र आसा तें पळयतगच तो माळ कशी घालतलो म्हज्या गळयानं ?"

" तें जालें गो तरी हांवे म्हळें तुं कितें म्हणता तें पळोवक ?"

दासाक दिसले संसारान वस्त पोरनी जाता तरी वस्त तीच आसता, ताची तरतरसाण देवली तरी मन पयलीचेच आसता. ते दिसा बाबान जरी तांबडो शालु न्हेसुंक मनाय केल्ली तरी ताणेंच अपुक तांबडी कांग न्हेसुक लायिल्ली. दासाक याद जाली ल्हान आसताना तें तोंडार पदर घेवनच हांसतालें ती सवय म्हातारपणान लेगीत तशीच आसली. दासाक ताची स्थिती पळोवन वायट दिसतालें. तरी म्हातारपण, मरण सगळयाच्याच नशीबान आसता. थोडयाक तें बेगीन तर थोडयाक तें वेळान येता अशें विचार करून तो आपल्या मनाक था ्याय घालतालो. दासाचे बायलेन म्हळें मनीस मरतगच सगळया पाशानसून मेकळो जाता. दासान म्हळें सांगु नजो. ज्या मनश्याची ईत्सा कडक आसता तो मनीस मेलो तरी आपलें काम सपनान वचुन करत रावता "

" तुमी शिकून लेगीत अडाण्यासारखे कितें उलयतात." बायलेन म्हळें

" अगो पयलीच उलयनाका अणभव येतगच तुंच म्हजे उत्तर मानतले पळय."

" आयच्या वैज्ञानिक युगान लेगित आत्माक सुवात आसा. तो तृप्त जाल्या बगर वचना आपलें काम करत रावता, तो अविनाशी आसता, गावान रातचे दिवल्यो पळोवना तुवें ? शिगम्या दिसानी ?"

" बरे तर अणंभव येवूनी मागिर पळोवया."

" आगो एक फावट म्हाका अपुनच म्हणिल्लें मनश्याची कुड सोपली तरी आत्मो सोपना तो घुटमळत आसता जे दिसा तो आपले काम तडिक व्हरता तेन्ना तो तृप्त जाता मागिर तो पैस वता घुटमळत रावना "

" हातांतली कांकणा पळोवंक आरसो कित्याक जाय ? दिस आसात ओगीच वाद कित्याक जाय "

## ९

पांडुरंगाक उत्पन्न येता तें पाव नासलें पसरो ताणें विकुन वडयीलो. तो जुगार खेळतालो. तेलिसाकडेन वचुन वचुन रिण मागतालो. तेलिस भाटकार ताका जाय तितले पैशे दितालो. आशाक अपु गेल्यान सगलें काम करचें पड. वावराडेक दिवंक पैशे नासले. दुध काड, उदक शीप, रान, वाड, कपडे उमळ, सगलें ताका करचें पड. घरान पांडुरंग सामान हाडी नासलो. वेळार उपास काडचो पडतालो. घरा सकयलें शेत ताणें परत तेलिस भाटकाराक रोवंक सांगिलें. तोळू, मोगरें म्हातारी जाल्ली. काटक आसली तरी फुकट काम कशी करतली ? सोमो भायर सावन तांका पैशे धाडतालो ताचेर तीं भागोवन रावताली. आशाक अपुची पावलां कणकणी याद जाताली. पांडुरंगाक तें आसल्यार किर्तें तरी सांगुन सुधारता आसलें. किर्ते चुक केली म्हणून घरा भायर घालें ? ज्याने ताका हात धरून घरान हाडल्लें ताणें एक वेळ ताका घरा भायर घातल्यार उपकारतालें. अपुन कष्ट काडले तें कोणाखातिर ? देना वेळार तें कितलें उमेदी जाल्लें, कितली जागरणां, कष्ट उपशिले ताणें हया घराक, ताचें फळ म्हणुन तें जाग्याक पादेशिर करून धाडलें. भिकान्त घराकडेन आयली जाल्यार पैशे दितात, तरी अपुक किर्तें दिलें, खंय गेलें काय तें, जीवें आसा काय ना, जाणकोण ? तें रावलें म्हणुन बसून खायना आसलें निदान म्हाका सुशेग मेळतालो संसाराचो कितलो आट धरतालें तें. ताणें सई करना म्हणुन सांगलें हातून ताचें किर्तें चुकलें ? आपणा खातिर ताणें सई करूना न्हय तर दासा खातिर. हया हाडावळिक कोण दवरून घेतलो ? ही बिरमत कोण सांभाळतलो ? वतना किर्तें घेवन गेलें ते ? अशें एकार एक विचार ताच्या मनान येवंक लागले. अपुक छळिल्लें आपणाक भोगचे पडता हे ताका कळून चुकलें. मनश्याक दिल्या मापानच घेवचे पडता हें ताका समजलें. ताका आपोवचे म्हळें तरी तें खंय आसा तें खबर नासले.

पांडुरंग सोरो ढोकून येवंन आशाक गाळी मारतालो. ताचो तो अवतार पळोवन देना रडताले. आशाक रड, बडबड आयकुन वैताग येतालो. तरी करतलें

किर्ते ? तोळ्ून तसो पांडुरंगाक दोन तीन फावट समजायलो, तेन्ना ताच्या खोपटाक उजो लावपची पांडुरंगान धमकी दिली. तोळु पांडुरंगाक मानान वागयतालो. गोठो दोन वर्सा शिवंक नाशिल्यान मोडलो. तो सारखो करूंक आनि परत शिवंक पांडुरंगाक बरोच खर्च जालो. पावसान नळो फुटिल्यान पडवेचे उदक वणतिर पडून ती फुगून पडली. वणती आनि मदेर हया खातिर बरोच खर्च जालो. घरा मुखार दुरिग कोसळील्यान गोरवां येतालीं हे खातिर पांडुरंगान तें बांध ‌ुन घेतलें. अशें तरेन पांडुरंगाक बरोच पैसो खर्च करचो पडलो. पस ्यावेली येणावळ बंध जाल्ली. उत्पन्न तर केन्नाच घटिल्लें.

तीन लाख रूपयाचे रीण जातगच तेलिस भाटकारान रीण दिवपाचे बंध केलें. पांडुरंगान म्हळें अरे चार लाख तरी मोल आसा हया इस्टेटिचे. तेन्ना तेलिस म्हणुक लागलो '' पैसो आसल्यार भाटा पाड पडुनात. म्हजें तीन लाख दी आनि तुका कोणाक दिवपाचें तें भाट दी तुझें. ''

पांडुरंगाक जाप नासली तेलिस भाटकारान कागद पळय तर ते भाट पांडुरंगाच्या नांवार नासलें. ताणें म्हळें पयली तें तुइया नांवार करून घे. नातर तुका कोर्ट दाखयतां. पांडुरंग भियेलो. किर्ते करचे ताका कळना जालें. ताणें वकिल काडलो अपुची सई आपणेंच मारून खोटे कागदपत्र केलें आनि तें हाडुन तेलिसाक दिलें. तेलिसाक दुबाव गेलो तीं नासतना ताणें तीचीं सई कशी हाडली ? हो प्रश्न ताका पडलो.

'' हें कितेंय खोटे आसत तर तुका बेडी पडतली हे लक्षान दवर.'' पांडुरंग तेलिसाचीं उतरां आयकतालो.

'' आनिक एक लाख दी तो घेवंन हांव हो गांव सोडून वतां मागिर फाटल्यान कितें जाता तें जावं.''

'' पयलीं विकला म्हणुन अपु सई दी ना तर तुझेर मामलेतदारागेर वचुन कागाळ करतां. ''

पांडुरंग आपल्या व्यसनाच्या धुंदिनच आसलो. तेलिसान पैशाच्या नेटार वचुन मामलेत दाराकडेन कागाळ केली. रिंण घेतली तीं पावती दाखयली. मामलेत दारान पांडुरंगाक नोटिस धाडुन पैशे शुक्रारा बारा मेरेन फारिक करना तर घर पावणेर वतलें अशें बरोवन धाडलें. पांडुरंगाक घाम सुटलो. राती राती ताका न्हीद पडना जाली. आपणें अपुक अशीच रातीन भायर घालून न्हीद दिलीना ताची ख्यास्त भोगतां हें समजुक ताका वेळ लागलोना. पोरूस घराण्याची अब्रु मातये भरवण जातली हें चितुनच तो भीयलो. लोकांन कसो तोंड दाखयतलो हो प्रश्न ताका भेष्टावंक लागलो. अपुची याद ताका परत परत येवंक लागली. शंकर,दादुन चलयील्लो संसार ताका दोळया मुखार येवंक लागलो. भावाक लेगित

फटयलो, भयणिक केन्नाच हात उखलुन दिलें ना. संसार वाडवपाचो सोडून आशिल्लो धाण दवरलो. हया चिंतनानी ताका खाल्लो गोटो आंगाक लागना जालो. चार दिसां भितर पैशे कशें जमयतलों हो प्रश्न ताका भेष्टावंक लागलो.

रातचें न्हीदिल्ले कडेन ताका अपुची याद जाली. ताणे उलो मारलो ''आई तुं आसा काय ना तें खबर ना,जरी आसली वा नासली तरी पोरूस घराण्याची अब्रु राख ''

अपुक तेन्नाच न्हीदिल्ले कडेन जाग आयली. ताचो दोळो न्हीदेक परत लागना जालो. संकष्ट आयलां तरी कोणाचेर तें ताका कळ ना जाले. दुसरे दिस भटाक सांगुन ताणें दासाक फोन करून आफोवंक लायलो. आरे राती म्हाका द्रिष्टावो जाला कितें तरी वायट जावपाचे आसा, तेन्ना ताराची खबर घे मागिर पांडुरंगाची. आई ताराचो घोव पैर सभेन उलयतना हांवे पळयला तारा माचयेर आसलें. आतां भाऊची खबर घेवन येतां. अशें म्हणुन तो गाडी घेवंन पांडुरंगागेर आयलो. पांडुरंगान ताका दुकांनी भरिल्या दोळयानी आपली कर्मकाणी सांगली. दासाक वायट दिसले. आशा रडतालें.

" काका हें घर तेलिस भाटकारान घेतल्यार आम्ही खंय वतली ?" देनान म्हळें " देना आमगेर येयात आमचें दार तुमका सदाचं उघडे मेळतलें, फाटी अपुक तुम्ही घरांनसुन भायर घालें तेन्ना तें आमगेर येवना तर ?"

" दास आई आजून आसा ?"

" भाऊ मनीस कोणाक मारूक शकना, त्रास दिवंक शकतां तेही थोडे दिस मागिर ताकाच तीं फळां भोगची पडतात. अपु सुसेगाद गोकर्ण आसा ताका कोणाचीच उतरां आयकुची पडनात, झेपता तें काम करता, देवाची सेवा करता तांतुन ताका शांततायेचो अणभव मेळता. दांडो कोणच लिपोवन दवरिनात, दाडो खंय चुकून उल्लो तरी हाडून दितात. 'आजी' 'आजी' अशें म्हणुन आदरान वागयता, तिचे आशिर्वाद घेतात. आतां ताका आध्यात्मीक तेज मारता. तरी तुझी, व्हयनीची, देनाची, तोळू, मोगरें हांची तें खबर घेताच. ताका तुमची चिंता जाता. तुमची याद येतगच दोळयान दुकां येतात. तें विचारता कलमां रोयील्लीं लागतात काय कितें? माकड त्रास दितात काय कितें? बापायचो श्राद्ध वाडतात काय कितें? झरिचे उदक बंद झाला काय व्हावंता? देना कितलें व्हड जालां ? हांव जापो म्हाका खबर आशिल्ले प्रमाण दिता. ते तशें कोणाक दोष दिना आपल्या नशिबाकच चड दोष दिता. राती ताका सपन पडले कोणे तरी ताचे कडेन आधार मागलो खंय ? ताणे म्हाका तुमची वास्तपुस्त करूंक धाडलो. "

" दास आई कडेन तीन लाख रूपया कशें आसतले ?"

" भाऊ आई हातुनसून वाट काडल्या बगर रावचीना "

" हांव सगले सांगता आईक. तिणेंच म्हाका तुमची खबर हाडपाक सांगल्या."

दास गाडयेन बसलो तेन्ना पांडुरंग ताका ल्हान शें तोंड करूंन पळयतालो. आशा दोळयार पदर धरून आसलें. दासाक घराण्याचेर संकष्ट आयलें म्हणुन वायट दिसले तरी पांडुरंगाचो राग आयलो. व्यसनाच्या आदिन जावन पैशाचो, बलायकेचो इबाड केलो हाची खास्त ताणें भोगुकच जाय अशें ताचें मन ताका सांगुक लागलें. सांचे ताणें गोकर्ण वचुन अपुक सगलें सांगले. रातचें अपुन महाबळेश्वराचें स्मरण केले तो सपनान ताका प्रसन्न जालो ताणें ताका हात जोडुन मागलें " सोम्याच्या तकलेन चार लाख रूपया हाडपाक घाल, आनि पोरूस घराण्याची अब्रु राखुक लाय."

## १०

शुक्रारचो दिस उदेलो. वरां रोकडीच वतालीं. बाराक सुमार मामलेतदार पुलिसांक घेवन आयलो. तेलिस भाटकार लांब खलसांव, गरवाद, माथ्याक चेपे, बुट घालुन आयलो. गांवचे लोक मजा पळोवंक आंगणान एकठांय जाल्लें. पांडुरंग सोप्यारच बशिल्लो. मोगरे तोळु रडतालीं. पांडुरंगाक मनस्ताप तशेंच भितरल्या भितर घुस्मट मार जातालो. तरी तो कांयच करूंक शक नासलो. दास आयील्लो तरी ताचे कडेन इतले पैशे कशें आसतलें ? ताराक ही खबर कळिल्ली तरी तें घोवाक सांगुन कितें करतलें ? आतां ताका पोरूस घराणे परकिच आसलें. पांडुरंगान ताचेर केल्लो अन्याय ताका याद जालो. ताचें मन निबरेलें. पांडुरंगाची ताका तिडक आयली. ताका ख्यास्त पडल्या बगर तो सुध ारचो ना हया खातिर तें ताका तांतुनसून सोडोवंक पळय नासलें. ताराक जाल्या घराचो अभिमान आसलो तरी पांडुरंगाक तशेच आशाक आपल्या कर्माची फळां भोगचीं अशें ताका दिस, अपुक दिल्लें त्रास तें कशें विसरतलें? ताराक हीं गजाल दासान सांगतगच तें दोळयार केस काडुन रावलें.

मामलेतदारान नोटिस वाचली. ताणें म्हळें लास घालतल्यान पैशे हातान घेवनच मागिर लांस घालपाचे ना तर ख्यास्त भोगची पडतली.

" पांडुरंगाचे भाट सकयल शेता मेरेन तें वयर दोंगरामेरेन पावणेर पावता. " " एक लाख " तेलिस भाटकारान म्हळें

" दोन लाख " दासान म्हळें,

" दोन लाख एक " तेलिस भाटकारान म्हळें कोणाचो सूर नासलो

सगळयाक शांतताय पातळळी. तेलिस भाटकार हांसूक लागलो.

ईतल्यान आखाडया मुखार गाडी रावली. सगळयाक दिसलें ताराचो घोवच आयलो आसत. गोगल लावन एक तरणाटो सुटकेस हातान घेवन येतना दिसलो.

" दोन लाख एक " मामलेतदारान म्हळें

" तीन लाख." तरण्याटयान म्हळें

" साडे तीन लाख " तेलिस भाटकारान म्हळें

" चार लाख " तरण्याटयान म्हळे, तेलिस भाटकार आयील्या वाटेन गेल्लो. सुटकेस उघडून ताणे चार लाख रूपया मेजले. मामलेतदारान ताका पावती दिली. मामलेतदारान ताका नांव विचारले तेन्ना ताणें पांडुरंगाचेच नांव सांगलें. पांडुरंग सपनान आशिल्या बशेन हे पळेयत रावलो. तरण्याटयान गोगल काडले तेन्ना ताका लोक वळखले, तो सोमो आसलो.

" भाटकार" पावती तुझ्याच नावान काडल्या म्हणतगच तुवेंच पैशे फारिक केल्या सारखे जाले. तुमीच हया भाटाचे मालक."

" अरे तुवें हें कित्या खातिर केले तुका कोणें सांगले?"

" आयक हांव हांगा पादेशिर जावंन भोवतालों तेन्ना अपु कडेन पैशे मागिल्ले. ताचे कडेन पैशे दिवंक नासले तरी ताणें म्हाका रूपया दिवन तुझ्या बापायच्या श्राद्धाच्या दिसाची तारीख येताली तोच आकडो सोर्तीक लावंक लायलो. अपुक आपल्या घोवाचेर कितलो विश्वास आशिल्लो पळय. ताच्या आशिर्वादानच तशें तुझ्या बापायच्या पुण्यायेन म्हाका सोर्त लागली. हांवे तुमचेर उपकार करूना तर तुमचेच पैशे तुमकां दिल्यात. म्हाका सोर्त लागली तें पैशे मोडून पासपोर्ट केलो, आनि कुयटाक गेलो. तो रूपया दिना जाल्यार हांव हांगाच आसपाचो. ही म्हजी कमाय न्हय तर अपुचिच. मंगळाराक काम करून हांव रातचो न्हीदिल्लो तेन्ना अपु सपनान आयलें म्हणुक लागलें "सोम्या न्हीदता कितें उठ चार लाख घे आनि आमचे घर पावणेर वता तें राख" रात भर म्हाका न्हीद लागलीना. तळमळत रावलों. म्हजे कडेन तीन लाख रूपया आसले म्हज्या मित्राकडसून एक लाख रूपया घेतले आनि कुयटा साकुन, तसोच भायर सरून आयलो अपु म्हळयार देवी, आवय, दानी तशेच सेवाभावी. ताणें कितें करूना हया घराण्या खातिर? हांव जेन्ना रडत खावंक मागतालो तेन्ना तें भाकरे कुडको ,चकरे कुडको, शंकरपाळे, नातर साठ हातार दितालें तें हांव विसरूक शकना. हांवे जें केलां तें अपुच्या उतरां खातिर,तशेंच म्हजे कर्तव्य तें जालेंच. पांडुरंग तुंवे आमका तुझ्या कुळागरान रावंक दिले हे तुझे उपकार हांव आठयतां "

लोक आपआपल्या घरा गेल्ले तांका मजा पळोवंक सोम्यान दिवंक ना. तेलिस भाटकाराचो नेट जिरिल्लो.

पांडुरंगान गांव सोडची तयारी केली ती फुकट गेल्ली. तांका घरान रावन मेळलें हार्चे समाधान जाले. तो विचार करूंक लागलो. सोमो अपुचो कोण? न्हय नात्यातलो न्हय रक्ताचो. तरी अपुन सपनान सांगिल्ली गजाल राजा हरिश्चंद्रा सारखी खरी मानली. रक्ताच्या आवयक हांवे वावराडे सारखी लेखली. काम झेपना म्हणुन सोडली तरी त्याच अस्तुरेक सोम्यान देवी मानली. आशाचे आयकुन हांवे नाका तें केलें खरें, पळोवंक गेल्यार अपुक शंकरान हाडिल्ले. ताणें ताका घरा भायर कायमचे घालें ना. अपु ना तर हांव जल्माक येना आसलो. अपुन कितलें कष्ट काडले म्हज्या खातिर. आवयचे कर्तव्य केले तरी पुताचे कर्तव्य करूंक हांव चुकलों. सोम्याक हांव ल्हान आसताना 'खोप' 'खोप' म्हणुन चाळयतालों. तेन्ना तो रडतालो,

" व्हड जातगच तुझ्या घरा सारखें घर घेवंन रावतलों. "

" तुं भिकाडडो तुझ्यानी खोप चुडतांनी शिवंक जायना तेन्ना नळयाचे घर कशें घेतलो ?"

तेन्ना तो मोठयान रडून झाडाकूशीक लिपतालो. आज म्हजेर लिपून रावपाचो वेळ आयला तर ताचो हांसपाचो. करता तेच भोगचे पडता हेंच खरें. खरें म्हळयार हें सगलें घर, कुळागर तार्चेच. म्हजें मन ल्हान म्हणुनच तेन्ना ताका हिणयलो अशें चिंतित आसताना थंड वाऱ्याचीं ल्हार ताच्या आंगार आपटलें. आंगाक थंडाय मेळली तरी मनाक कशी मेळतली? ते चिंतनांनी भरिलें. चिंते सारखे रोगना.

विचार करतां करतां तो सामको बेजार जालो. फुडे कितें करचें हें ताका कळना जालें. तेलिस भाटकाराचें रीण बरें आसलें तरी सोम्याचे रिण ताका जड जाल्ले. कुळागराक वावर करून सात आठ वर्सा जाल्लीं. नाल्ल, सुपारी हांचे उत्पन्न घटिल्लें. माडाक चोरानी शेवकांच दवरिलीं. केळीचे घड मारून व्हेले. चोराक भंय नासलो. दादु आसताना चोरांची कापस्ताद जायना आसली. माडाच्यो चुडत्यो एका मेकाचेर बसतगच आवाज जातालो तो रडपाचो अशेंच पांडुरंगाक दिस. पांडुरंग बरोच अशक्त जाल्लो. पयली झरीचे उदक न्हावपी आतां गरम उदक न्हावचे पड.

" आशा अपुची क्षमा मागुन हांव मेकळो जातां. "

" नाका, कित्याक ताची क्षमा मागुंक जाय "

" म्हळयार गो ताणें इतलें दिले ताचो धेक ना तुकां "

" अपु ना तर आमंका हें घर सोडचे पडतां आसलें. खरें तर तें हया घरान रावना तरी आमचे खातिर ताणें इतलें केलें. आम्ही घरा भायर घालें ताचें ताणें वायट धरूना. मायेच्या मनश्यानी कितलेंस छळलें तरी तें धरप नासता. तरी

म्हाका प्रायश्चित घेवंक जाय."

तिळसान जायत आयील्ली "आशा दार बंद कर हांव घरान येवचोना अपुक ते राती कितलो त्रास जालो ताचो अनुभव म्हाका घेवचो आसा."

" तें कशें जातलें तूमीच तर म्हाका हाडलां हया घरान, तुमी तर घरचे मालक. आमी सगलीच भायर रावया."

" आशा तुं चुकतां अपुक भायर घालें तेन्ना तें एकटेच आसलें. आम्ही घरान जेवताली, खाताली तर अपु उपाशिच भायर रात कंठितालें. तेन्ना तुं अपुच्या सांगाताक भायर कित्याक रावलें ना? अपु एक अस्तुरी, घोव नाशिल्ली, म्हातारी माथ्यावेल्या पदराची हाची काकुळत आयलीं ना. ताणें रोयील्या कलमांक आंबे, चिकु जातात ते तें खंय खाता? बरें तुकां हाडत साकुन तुंवे कितली कलमां रोयल्यात?" आशाक जाप नासली. ताणें पांडुरंगाचो हट् पळोवन दाराक खिळी घाली. रातीन तें जेवंक ना, देनाक वाडलें. पांडुरंग रातचो जागोच आसलो. फाटलो इतिहास धवळून पळयतालो. घ्स करून माडाचें चुडित पडलें. ताका दिसलें चुडित सुकतगच माड धुकळून दिता तरी जींती चुडतां तो धुकळून वडयना. मांजर हेळे काडुन रडताना ताणें आयकलें. मांजराक तो भिलोना तरी ताचो तो आवाज आयकतगच मनार चेपण आयील्या सारखे जालें. फातोडेर ताका न्हीद लागली सकाळी देनान ताका उठयलो तेन्ना झिळमीळतालें. रातचें जेवण नासलें. तशेच सोरो पियेपाची ताका सवंय आशिल्यान पांय चलतना खंचे खंय पडुक लागले. ताणें अपुचो सोपुत घेवन सोरो सोडलो.

दुसरे दिस सोमो आयलो

" पांडुरंग बाब हांव कुयटाक चल्लो बरो करून. आई बाबाचेर नदर दवर. हांव पैस म्हणतगच हुस्को जाता." जड मनान मोगरे आनि तोळु ताका आखाडयाकडेन पावंक आयील्ली.

" परत केन्ना येतलो पुता "

" दोन वर्सानी, रोकडीच वतलीं ती '".

पांडुरंगान सगलीं व्यसना सोडची येवजिलीं. सोम्यासारखे जावचे अशें ताका दिसलें. न्हावन तो देव पुजेक बसलो. रांगोळी घाली,फुलां हाडलीं तो शिवाचो जप करूंक लागलो. ताची चिंतना थोडी पैसावली. जेन्ना जेन्ना ताका सोरो पियेवन दिसतालो तेन्ना तो शिवाचो जप करतालो.

दासान सगली गजाल अपुक सांगली. ताका आपल्या भक्तिचेर विश्वास आसलो.

" दास म्हाका आतां जीण नाका शी दिसता. पांडुरंगाक पश्चाताप जावन तो सुधारतलोच. ताची चुक ताका कळतली. तो बरो संसार करून रावलो

म्हणतगच हांव सुटलें. तुझ्या बापायन म्हाका सांगिल्ले पांडुरंग व्हडलो तरी ताकाच सांभाळूक जाय म्हणुन. तसो तो मनान बरो. आशान शिकोन ताची वाट लायल्या.''

'' आई वेळ प्रसंग आयलो जाल्यार म्हाका भटाक फोन करूंक लाय. आम्ही बंगल्यान आनि तुवें ह्या कुडिन म्हज्या मनाक पटना.''

'' आरे तुमी बंगल्यान म्हणतगच म्हाका तांतून राविल्याचे समाधान मेळता. म्हजो आतां भोगपाचो वेळ न्हय वैराग्याचो. जाता तितलो सोस कमी करपाचो. म्हजी योगी जीण सुरू आसा. भोग भोगुन उबतगच योगी जीणेचे मत्व कळता. हांगा थोडे दिस काडन, ते तुझ्या बंगल्यार जावचे ना. पांडुरंगाक लेगित दुसऱ्याच्या पांगिन राविलें आवडचे ना. तो सुधार मेरेन, तसोच नातु जाय मेरेन, म्हजो आत्मो मुक्त जावचो ना.'' आई तुं कितें उलयता ? दासाक दिसलें आत्मो कितें करूक शकता ? तरी सोम्याक जाल्लो दिष्टावो तो न्हय कारूक शकनासलो.

'' दास पांडुरंगाची चींन्हा म्हाका कळतालीं ताचो परिणाम खबर आसलो. जिवान आसा मेरेन म्हाका पोरूस घराण्याची अब्रु गेली नाका आसली. बायलांचे आयकल्यार दादले शेणतात हेंच खरें. वाहनाक ब्रेक ना तर त्या वाहनाचो फायदो जावचे बदला लुकसानच जातलें. ब्रेक लावपाचे काम पयलीं आवयन मागिर बायलेन करूंक जाय. ब्रेक नाशिल्ले वाहन चलवपिय न्हय,तर तांतून बशिल्या सगळयाचोच न्हय तर वाहनाचोय सत्यानाश करता. हांव तरी शिकुना तरी अणभव हेच मनश्याचे शिकप आसतां. ''शिक्षणान गिन्यान जरी मेळता आसलें तरी अनुभवान ताची परिक्षा कळता. शिक्षण म्हळयार अनुभवच न्हय, मागिर तो कोणाचोय जावं.''

अपुक फाटले दिस यादेले तें ल्हान आसताना भातुकली खेळतालें, नाटक करतालें. एक दिस तें भिकान्न जावन सगल्या कडेन पैशे मागतालें. ताणें थारायील्लें म्हातारपणाक भातूकलीचो खेळ करप ना. आतां ताच्यानी कष्ट करूंक जायना आसले. सकाळचे तें धांक उठतालें. चलतना पावंला सांभाळून घालचीं पड. कोटितीर्थार वचुन न्हावचें ताच्यानी जायना आसलें हात थरथरताले. सोम्याक आपणें त्रास दिलें हें चिंतुन ताचे दोळे पांझरूक लागले. पांडुरंगान फाल्या सोम्याक फटयल्यार? सोम्यान जोड जोडिल्ली तो ताचो संसार उबो करूंक. मेळता म्हणुन दुसऱ्याचे नाका जायसर खावप न्ही. पांडुरंगान फोल्गा मारून सोम्यान जिवाची पर्वा करी नासताना ल्हारार वचुन पैसो एकठायलो तो ताणेच भोगपाचो. हे विचार ताका भेष्टावंक लागले. आपणें केले ते जरी बरोबर केलें कर्तव्य केलें तरी सोम्याचेर अन्याय केला अशे ताका दिसूंक लागलें.

शिवरात्रेचे दिसांक तें आत्मलिंगा फुडे जपाक बसलें, देवळान खुबच भाविकाची गर्दी आसली. शिवाचो जप करतां करतां देवळानच ताचो आत्मो सोडुन गेलो. देवळान तेही शिवरात्रे दिसांक ताचो प्राण गेल्लो. भटान म्हळें "हांगा लाखो भाविक येवन गेले तरी देवा मुखार कोणच सोपले नात तितली पुण्याय अजुन कोणाकच मेळुक ना. अपु ही म्हातारी न्हय तर देवी जीका मरण ना." फोन करतगच दास आयलो. अपुचे मडे ताणें बंगल्यान वेलें आनि परत गाडयेन घालून पांडुरंगाच्या घराकडेन हाडलें. आशाक गजाल कळतगच तें भायलें भायर व्हरून लासात" म्हणुक लागलें. पांडुरंगाक पावणेर भाट काडिल्लो दिस यादेलो. हें घर अपुचे ताणेंच विकतें घेतलां आमी भायर घाले म्हणुन जीते आसताना घरान घेवंक ना नीदान आतां तरी आशान ताका बऱ्या मनान घरान घेवपाचें. आज तें अपु नासलें ताचें मडे आसलें. ताचेर तेमा करून कितें मेळतले ? मरतगच दुश्मान आसलें तरी भोमान दिवन ताचो निमणो संस्कार करतात. आतां तें मोने आसलें प्रतिकार शक्त ताच्यान नासली. तरी परोपकारी शक्त ताच्यान आसली ते जागो व्हरचें ना. गांवचे लोक ताका पळोवंक येताले 'हाडांच' म्हणुन वताले.

अपुक घरान हाडलें. अपु सदाच घरान सरतना हात पाय धुवून भितर सरताले. आज मात तें हात पाय धुवूंक शकलें ना तरी जोती घरान घालुन आयलें ना. ताच्या पायान देवळान गेल्यान जोती नासलीं. इतल्यान पावस बरोच आयलो. अपुक बरोच वेळ दवरचें पडले ताची इत्सा घरान रावपाची आसली जावये म्हणुनच पावस आयलो आसतलो. पावसाची दडक गेली. ताका आंगणान हाडुन न्हाडयलें. हात पाय धुले ते घरान वचुंक न्हय तर रानान. इतल्यान वारो आयलो झाडाची पानां हाल्ली तशें उदकांचे ओटांबे जमनिर पडले. ती कलमां अपुनच रोयील्ली. पांडुरंगाक दिसलें त्या मोन्या कलमाक लेगित अपुची स्थिती पळोवन दुकांचो पाझर फुटलो तरी आशाक फुटूना गंगेच्या वृदावनां कडेन अपुक दवरलें. तोळून लाकडांची व्यवस्था केल्ली. दासानच आपल्या हातान अंत्याविधी केलो.

बाराव्या दिसां गोकर्ण वचून ताणें अस्थी विसर्जन केल्यो. अपुची आयदना सरपळी कितें आसलें तें भटाक दान दिलें. ताणें अपुच्या बाराव्याचे पैशे घेवंक ना भट अपुक देवीच मानतालो.

" दास तीच्या पोटान जल्म घेवंक भाग्य लागतां. तुमी खरेंच भाग्यवान " दास कान उघडे दवरून आयकतालो. अपुची व्हडवीकाय ताका कळताली तरी चले म्हणुन आमी कितें कर्तव्य केलें हे तो मनान चिततालो. अपु मेले थंयच त्याच दर्यान ताच्यो अस्ती पाविल्यो. कितली पुण्याय आतां ताका कोणाचीच कांग वा पांग नाका आसली.

अशिच दोन वर्सा गेली पांडुरंगान आतां संसार जाग्यार हाडिल्लो. व्यसना ताणें सोडिल्ली कुळागरान तो, आशा, देना काम करतालीं, सारे घालताली, उदक शिंपतालीं. गोठयान गोरवांची निगा राखताली. दान धर्म करताली देवांची कामा परत वेळार सूरू केल्लीं. नाल्लाक सुपारेक दर आयील्यान पैसो घोळतालो. काजुचे रोपे लायील्यान गिमाळयाक बरेच काजीचें उत्पन्न येताले देना आता सातवी शिकतालें.

तीन वर्सानी सोमो कुयटा साकून येवपाचो आसलो. ताणें तोळूक पत्र बरयलें दोन म्हयन्याची सुटी घेवंन येतां तेन्ना लग्न जावपाचो विचार आसा. तोळून ताका पेलतडची चली पळयील्ली. सोयरीकेचे उतर जाल्ले. सगल्या गावांन ही खबर कळिल्ली. सोमो गीरेस्त एका पादेशिर मनश्याच्या चलयेकडेन लग्न जाता हे आयकून सगले अजापित जाले. मोगरे सून येतली म्हणुन खोशी जालें. ताच्या मनान आयलें आशा सारखी सून मेळना जाल्यार पुरो. ताणीं सगली खाणखुण जरी घेतिल्ली तरी दुसऱ्या घरान वतगच ताच्या स्वभावान, वागपान बदल जाता हें मोगऱ्याक खबर आसले.

" सून वायट वा बरी मेळप हें नशिबाचेर आसता."

तोळुक पत्र आयले, वाचपाक पांडुरंगाकडेन हाडले. पांडुरंगान पत्र वाचून तोळुक म्हळें

" सोमो आठ दिसांनी हांगा येतलो. सगली लग्नाची तयारी करात अशे ताणें बरयलां "

" भाटकार लग्नाची तयारी तशी थोडी थोडी जाल्या तरी माटव घालुंक जागो खंय मेळतलो ? हाचेर पांडुरंग ओगीच रावलो. तोळुक दिशिल्ले एखादे पांडुरंग आपल्या आंगणान माटव घाल म्हणतलो. तो ओगी रावलो हांचे तोळुक वायट दिसलें. सोम्यान कुळागर पावणेर घेवन ताका परत दिलें तरी माटोव घाल अशें ताच्या तोंडासुन आयलें ना. मनीस हो सुवार्थी कितलों आपलें कितलें सादवपाचे हे लेगित ताका कळना मेळयार मुळा सकट खावंशी [illegible] तर उपाशी. तोळू आपल्या चिंतनानी आसलो.




११

रातचो पांडुरंग न्हीदलो अपु सपनान येवंन म्हणुंक लागलें " पांडुरंग हें कुळागर सोम्याचें तें ताचें ताका परतें दी, तुं सुधारचे खातिर तुका ताणें थोडेच

दिस दील्लें. तुका ताणें रावंक दिलें नासलें तर तुं उबंत पडपाचो हें म्हाका नाका आसलें. तुं जेन्ना आपल्या कष्टानी घर बांधतलो तेन्नाच तुगेर कुलदिवो पेटतलो '' पांडुरंगाक जाग आयली. अपुनच ताची अब्रु ते दिसा दवरिली तें सांगता तें आयकुपाचे ताणें थारायलें. मुस्तायकी बांधली आशाक देनाक ताणें उठयलीं. रात बरीच आसली तीं फातोड जावची वाट पळयताली. पांडुरंगाक घरान रावन समाधान नासलें. दुसऱ्याच्या पांगीन ताका आवड नासलें. केन्ना फातोड जाता हें तो पळयतालो. जीतें आसताना आवयचें आयकलेंना निदान मरतगच तरी आयकुपाचे, शिवाय ताका कुळदिवो जाय आसलो तो घर सोडल्या शिवाय मेळचोना हें अपुन ताका सांगिल्ले. ताणें विचार केलो अपुची इत्सा पुराय जातली जाल्यार ताणें सांगला तें करचेच पडतलें. ताक चाळतना चाळो बसतगच तें वयर येता तरी चाळो थांबतगच तें परत आपल्या जाग्यार वचुन रावता. ताकातलें लोणी रवीच काडुक शकता. अपुचे गुण पारखुक अपु सारखे कष्ट काडल्यारच लोणी मेळतलें. मनश्या भितर बरो जावपाचो गुण आसा तसो यत्न ताणें केल्यार तो जैतवंत जातलोच. ताका दिसलें आपणे संसार केलो अपुनय केलो तरी अपु सगलें काम व्यवस्थित करतालें. सोप्यार दोन दोन म्हयन्यान तरी शेण काडतालें. चुडतां माचार धाळून दवरताले. जळव हांडयाकडेन घालतालें. आशा काम करता तें करूंक जाय म्हणुन. कामान मन ओतल्यार तें काम सारखें जाता. अपु फोडणी फोव करतालें तें तोंडानसुन सोडपाचे न्हय. आशान केल्ले फोडणी फोव तोंडान भरचे पड.

फाटले दार धापताना ताची नदर अपुन रोयील्या केळम्याचेर गेली थंय केळमो नासलो तरी विशेक नग आसले, थोडयो व्हड केळी जाल्यो दोनांक घड आयील्ले. तर थोडयो येवपाची वाट पळयताल्यो. ल्हान मुडगे मात चारी वटेन दिसताले. विचार करचो वेळ नासलो ताणें दार धापुन खिळी घाली. तुळशी कडेन निरंजन लायले. सगल्या वाडयार शांतताय आसली. पणसार एक शेवणे विचित्र आवाजान रडतालें. तोळ्ुचो कोबो सादेलो. देवाऱ्यातली शंकराची मुर्ती ताणें बरोबर घेतली. सामान बांधिल्ले तें आंगणान हाडून दवरलें. दाराक कुलूप लावंन चावी केली आनि त्या झिळमिळत्या उजवाडान तोळ्ुगेर वचुंक लागलो. मनान ताका कुळागराची आशा नाशिल्ली. वाटेर चार मेडी रानानसून मारून हाडून दवरिल्यो दिसल्यो ताच्या मनान आयले ताका जाय थंय माटव घालुं. आता सगलें ताचेच. तोळ्ुचो कुत्रो भोकत ताच्या आंगार आयलो तरी पांडुरंगाक वळखतगच ओगी रावलो. तोळ्ु घोरेतालो तो आवाज ताका आंगणान येतालो. ताणें चावया घोस हुंबरार दवरलो आनि तो फाटी परतुन आपल्या आंगणान आयलो. मुस्तायकी सगली आशान घेतली बाकी सामान ताणें घेतलें. निरंजन वाऱ्याच्या झुळकेर पालवंक

येतालें. तरी पालव नासलें. ताका दिसलें हया दिव्या सारखो उजवाडत रावंकच जिणेचें सार्थक आसा. वारो लेगित ताच्या कष्टा मुखार ताका शरण वता. आतां दिव्या सारखे उजवाड घालतलों तर कष्ट घेवचे पडतले मागिर कोणच दुसमान म्हजे आड आयलो तरी भंयना. कष्टानच फळ आसता. दव पानावेल्यान पत्रार पडतगच आवाज जातालो. ताका दिसले ही म्हजी स्थिती पळोवन दुकां गळयता आसतलीं. आशाच्या दोळयान दुकां परत परत येताली, देनांक तांतले कांयच कळ नासलें. दुसरे कडेन वचुक मेळतलें ह्या खातिर तें खोषी जाल्लें. इतल्यान घर पावणेर वतालें त्या दिसा गावातल्या मनश्या बरोबर आयील्लें पेटूक थंयच आसले. आशा ताका खाण जेवण घालतालें. पांडुरंगाक ताची काकुळत आयली तरी तो ताका कशें व्हरतलो. ताणें ताका साखळी घाली आनि मेडीक बांधून दवरलें. जड मनान ताणें तुळशीक प्रदशिणा काडली आनि चलुंक लागलो फाटसुन आशा आनि देना चलताली. आखाडयाकडेन पावतगच ताणें आपल्या घरार नदर भोवंडायली आनि तुरतुरीत चलुंक लागलो. संसाराची आशा ताका फाटी ओडताली तरी जीव्या आशाक घेवन तो बळयां पांय वडयतालो. ताका लोक मेळत जाल्यार कितें सांगतलो ? असो मनान विचार येतगच तो चडच नेटान चलतालो. पैशाचे बळगें व्हडलेशे नासलें. तीघां जाणांचे पोट भरपाची जाफसालदारकी ताचेर आसली. अपुचे आशिर्वाद आशिल्यान ताका तशें भंय दिस नासलें. वाट तशी दिष्टी पडताली. वाटेर कोणच नाशिल्यान ताका चलुंक नेट येतालो. सुर्य उदेवंक लागतना तो म्हाल रस्त्यार पावलो. ताच्या मनान आयलें गांवातले लोक जरी आतां मेळेनात तरी गांव सोडला हें लोकांक कळुंक वेळ लागचो ना.

बस स्थानकार बरोच वेळ रावतगच बस आयली. ताणें सामान तांतून घाले आनि सिटार बसलो. रातीन जागरण जाल्यान ताका झेमडी येताली. मन थाऱ्यार नासलें खंय वचुं ? कितें करू ? हें ताणें थारांव नासलें. कंडक्टरान ताका विचारलें

" तुं खंय वचपाचो ?"

" अमुककडेन अशे ना तरी बस खंय वता थंय मेरेन वचपाक जाय "

" बस मुंबय वता " ताणें मुंबयच्यो तिकेटी काडल्यो बस वेगान धावंक लागली. तेन्ना पांडुरंगाचे विचार ताच्या दुप्पट वेगान धावंक लागले. ताका याद जाली अपुन एदोसो केळमो रोयील्लो तो व्हडलो पिंड जाल्लो. केळयाचो व्यापार करत तर त्या पिंडासारखो धंदो वाडल्या शिवाय रावचो ना. इतल्यान सावंतवाडी बसस्थानकार बस थारली. दनपारचो वेळ आसलो जेवण जेवचे खातिर आपलें सामान घेवन तो सकयल देवलो. नातर कोणी सामान व्हरत जाल्यार ? देना सवकास जेवंक लागलें. तर पांडुरंगाक जेवतगच न्हीद येवंक लागली. ताचो दोळो

लागलो आशान ताका उठायलो तरी तो उठना जालो. म्हणसर बस सुटली.

पांडुरंग बऱ्याच वेळान उठ तर बस गेल्ली. ताका दिसलें आपसुकच न्हिद आयली त्या अर्थान हांगाच रावल्यार बरें जातलें. आशान तीन फातर दवरून रानन तयार केली. हॉटेलान रावपाची आस्पत नाशिल्यान थंयच ताणीं रावपाचें थांरायले. च्या करून घेतली म्हणसर रात आयली. गाडयो येताल्यो वताल्यो चणेकाराकडसून चणे घेतले. आशाच्या आंगार वस्ती थोडयो आसल्यो. त्यो ताणें करंडान दवरल्यो. देना म्हणुक लागले

" पपा हांगाच न्हिदपाचे हया घाणीन " पांडुरंग ताका किर्ते सांगतलो.

" तुका न्हिदतगच घरान व्हरून घालतात म्हणतगच जालें." तो ताका फुसलायतालो, जळारी खुबच आसल्यो. नाना तरेच लोक थंय येतना वतना दिसताले. रातचीं बारा जातगच वाहना येवपाची वसपाची बंद जाल्ली. आशाक आतां चडच भंय दिसतालो. कोणय येवन वस्ती व्हरत काय ? बेबदो येवन गाळी मारचोना मुं ? अशें विंगड विंगड विचार ताच्या मनान येवन ताका न्हिद पडना जाली. पांडुरंग घोरेतालो तर देना थांर न्हिदिलें. आशाक दिसले ते दिसा अपुक भायर घालतगच असोच प्रसंग ताचेर आयला आसतलो, ताचे शासन आज हांव भोगता. दिल्या मापानच मनश्यान घेवचे पडता. पानाचो, थुकेचो वास येतालो. चोर येवन वस्ती व्हरत म्हणुन करंड ताणे म्हऱ्यान घेतलो. तरी न्हिद लागल्यार करंड कोणी व्हरत अश्या विचारान ताची न्हिद पैसावली. अपुन गोकर्णा डब्यान वस्ती घालुन दवरिल्यो तोच प्रसंग म्हजेर आयलो तें तरी देवळान आसलें हांव भौषीक स्थानकार. पोटाक भुक लागिल्ली प्रवासान तें जाम जाल्लें. रातभर आशान जागरण केलें. सकाळी उठतगच भौषीक नळार वचुन ताणी तोंड धुले, आनि मागिर च्या करून घेतली. तीं परत बसस्थानकार येवन रावली तेन्ना एक मनीस थंय केळयाचो घड घेवन आयलो. पांडुरंगान ताका दिवपाचो काय विचारना फुडे ताणें तकली हालयली आनि हयकार दिलो. पांडुरंगान तो धा रूपयाक घेवन थंयच हुमकळावन दवरलो. तें
धा रूपया माथ्याक लावन तो फुडे वचपाक लागलो.

" तुम्ही रोज घड आणुन देउ शकाल का ? योग्य दर देइन "

" सावकार आम्ही गरिब माणसं थोडीशी शेती आहे व थोडी बागायत आहे. त्यात जे घड होतात तें मी देउ शकतो "

" तुमचे आहेत ते मी घेवू शकतो शिवाय तुमच्या शेजाऱ्या पाजाऱ्यांचेही घड विकत घेउ शकतो."

" बरं चला तर मी आपणाला त्यांची ओळख करून देतों " अशें सांगुन

पांडुरंगाक घेवन तो चलुंक लागलो.

एका उल्याच्या वाटेक तांचे घर आसलें. पांडुरंगान ताका बारिकसाणेन पळयतगच तोळुची याद जाली. मुखावळ, लांबाय, उलवप सगलें तशेंच आसले धोतर, पैरण, धवी माथ्याक टोपी, मीशो हातुन फरक नासलो.

" मालक ही आमची झोपडी वजा घर "

ल्हानशे आंगण मर्दी मातयेची तुळस तरी रोपो बरोच जुनट आसलो. आंगणाच्या देगेन शेवंती फुलिल्ली. बाग घेवन भितर वतगच पांडुरंग आनि आशा, फाटोफाट देना भीतर सरलीं. दाव्या वटेन एक कुड आसली, ल्हानसो सोपो, भीतर रानची कुड. मातयेची चडशी आयदना तरी तांब्याचे दोन तीन तोप आसले. मातयेचो उदक तापोवपाचो हांडो आंगणाच्या कोनश्याक आसलो. न्हालें उदक केळीक वताले. केळीचो पिंड बरोच वाडिल्लो, तीन चार घड दिसताले. तरी जुन जावंक नासले. हांडीर कळसो घेवन एक काळें चली घागरो पोलको घालें भितर सरलें.

" कुकमा तुं आलिस" अशें म्हणतगच ताचे नांव कुकमा हें कळुक वेळ लागलो ना.

" आबा आज कामाला गेला नाहीत ?"

" अग कामाला चाललो होतो तेवडयात हयानी म्हाजा केळयाचा घड योग्य दरात घेतला. तीं गोव्याची माणसं इकडे धंद्या साठी आलीत."

आशाक, पांडुरंगाक मराठी उलोवंक, बरोवंक कळतालें पांडुरंगान म्हळें

" ही खोली आम्हाला भाडयान द्या दुसरीकडे व्यवस्था होताच आम्ही जातो." देनांक ताचे रेशन कार्ड दिसले ते ताणे वाचलें ताणें म्हळें आबाचे नांव सोमण आनि ताईचे नांव कुकमा आडनांव 'कामकेर'.

" आमची वाडलेली मुलगी आहे घराबाहेर जाताना मन बिचलित होतं. मी साखर कारखान्यात गेटवर असतो. साखरेची पोतीं ट्रक मधलीं मोजुन सोडावीं लागतात. आतां ट्रकवर चडताना दम लागतो. पुर्वी मोल मजूरी करायचो तेव्हा पैशे साठत असत. आतां कांही शिल्लक रहात नाहीं. कुकमाचं लगिन केलं तर मला स्वंयपांक करून कोण वाडणार? हया साठी तीचं लगिन केलं नाही. दोघे तीघे येउन मागणी घालून गेले, लग्नाचा सगळां खर्च सोसण्याची तयारी आहे त्यांची "

कुकमान तांका दुध घालनासतना च्या हाडुन दिली. मागिर सोमणान शेजाऱ्याकडेन वळख करून दिली.

पांडुरंगाक सोमणान वीस रूपया भाडयान कुड दीली. आशा थंय रानतालें. देनाक लागसल्या सरकारी शाळेन घाल्ले पांडुरंगान बसस्थानकार साकाचे फटे

घाले आनि ताचेर केळीं विकपाक दवरलीं. लोक भितर खेडयान रावतले केळी घड घेवन येतगच तो ते विकते घेतालो आनि थंय विकुंक दवरतालो. पिकपाचे घड आपल्या कुडीन दवरतालो. वाडयार वचुन केळी घड घेतालो. ताका गिरायक बरें जावंक लागलें. केळीं विकतगच रोकडेच पैशे मेळताले. मालवण, आकेरी, राजापूर वचून तो केळीं घेवंक लागलो.

## १२

एक दिस केळी विकतना ताका मामान पळयलो. तो म्ह यान येवन ताणें ताका विचारलें

" अरे तुं हांगा खंय ?"

ताणें आपली कर्मकाणी सांगली. तो मुंबय वतालो थंय ताचो फुलांचो माण आसलो.

" पांडुरंग अपुन आमकां ल्हान आसताना जपले, म्हाका रस्तो हुंपताना तें हाताक धरून रस्तो हुंपतालें. ल्हान आसताना ताणें बरेच कष्ट काडले, तरी तुमच्या घरा वतगच तें आमकां विसरलें. तुमचे घर वयर काडपाचो एकच ध्यास ताणें घेतिल्लो. अरे तुमगेर हांव एक दिस आयील्लो तेन्ना तुं तिसरेन आसलो. तुका पाडे शिकयले तरी येना जाले. तुझे लक्ष खेळाकडेन आसलें. अपुन तुका पटटी घेवन मारलो तुझ्या दोळयानसून दुकां गळताली तरी तोंडासून एक रडपाचो हुंदको फुट नासलो."

" अगो ताका इतलो कित्याक मारतां ?"

" तुवें ल्हान आसताना मार खालो ना ? मारल्यारच विद्या येता " अजाप म्हळयार तुवें पाडे धडाधड म्हणून दाखयले. तेन्ना तुकां म्ह यान घेवन पणसाचे साठ दिलें. आपली कामां आपणें करपाक ताणेंच तुमकां वळण लायील्ले. च्या पितगच आपलो पेलो आपणें धुवन दवरप, ताट, पाट दवरप, सकाळी सुर्य उदेवचे पयलीं न्हावप. देवाकडेन भजन करतगच जाणत्याक नमस्कार करप. जाणते खुर्चेर बसत जाल्यार भुरग्यानी खुर्चेर बसुंक नजो कित्याक तर तांचो मान उणो जाता अशें तें सांगी, मुंबय शारान वाडिल्ले तरी खेडयान ताणें दिस काडले. गोकर्ण तीर्थ क्षेत्रार वचुन रावले तरी कुळारा येवंक ना, अरे तु एक राती जोरान फडफडतालो तेन्ना ताणे देवाक वचुन म्हळें " देवा म्हजे आयुष्य म्हज्या चल्याक दी तरी हया जोरानसून ताका वाटय " अजाप म्हळयार दुसरे दिस तुझो जोर गेलो.

मामाक ताणें आपली रावपाची कुड दाखयली. मामाक ताची परिस्थिती पळोवन वायट दिसलें. एदे व्हडले घर आसताना हया भाडयाच्या कुडीन संसार थाटप हाचे सारखे प्रायश्चित खंचे ? तेही दळीद्रकायेन. आशाक लज जाली. देनाक मामान चॉकलेट दितगच ते खुश जाले. पयलीं आशा मामा येतगच तांका लेखी नासलें तर आतां तें तांका तोंड दाखवंक सोदी नासलें " पांडुरंग तु म्हाका मुंबय बशीर घालून केळी धाड, तीं विकून तुका पैशे करून धाडतां. पांडुरंगाक धिर आयलो मामाचे ताणें उपकार आठयले.

पांडुरंगाक व्यापारी कसब ल्हान पणा साकुन खबर आसलें. तोंडानच तो पटापट हिशोब करतालो. आशा तो भायर केळीं हाडुक वतालो तेन्ना तें केळी विकतालें. थोडे थोडे पैशे एकठांय करून ताणी दुकान घेतले "पोरूस केळी व्यापारी सावंतवाडी" असो बोर्ड लायलो. केळयाक पावसान खप कमी आशिल्यान केळीं पिकल्यार आशा हालवो करून विकत दवरतालें. दबाज्याच्यो आर्डरी तो घेतालो. दुकान घालतगच लोक मुजरत थंय येवन केळी दिवन वताले. आतां मुंबयच्यान मामाची ओर्डर मेळील्यान ताका मेळता ती केळी पाव नासली.

सोमण सकाळी न्हावन ज्योतिबाची पुजा करून भायर सरतालो. येतना सोरो पियेवन रातीन धाक अकरांक येतालो. कुकमा रोकडेच ताका वाडतालें ना तर ताचो बडबड सुरू जातालो. पुनवेचे दिसा तो पिना आसलो. पांडुरंगान विचारलें

" सोमण काका पौर्णिमेला आपण कां पित नाहीत ?

" ऐका कुकमाची आई ती लहान असतानाच किरकोळ आजाराने वारली. तीं पौर्णिमेच्या दिवशीं गेली हा शुभ दिन म्हणुन मी अशुभ वर्तन त्या दिवशीं तरी करित नाहीं, तिची आठवण म्हणुन म्हाजे वडिल बंधु तोळु व वहिनी मोगरा हयाच दिवशी घर सोडुन गेलीं ती अजून आलीं नाहीत. कुठं आहेत कोण जाणे. ही आमची झोपडी, पुढे आहे ती थोडीशी शेती, तो ओढा आहे ना त्या पलिकडे थोडी खडकाळ जमीन आहे तिथं सात आठ नारळाची झाडं, चार पांच पोफळी आहेत. तें उत्पन्न जरी मी पहातो तरी जमीन तोळुच्या नावावर ठेवली आहे. उतारवयात केव्हाही आला तर घर बांधून तिथं रहांता येईल त्याला. दादा तसा दयाळू, सांगकाम्या, वहिनी कष्टी होत्या पती परमेश्वर मानणाऱ्या. मला हल्ली थकवा जाणवतो, आपण मदत कराल तर कुकमांचे हात पिवळे करायचे म्हणतों. भविष्य निधित थोडे पैसे आहेत ते काडले तर भागणार "

" काका किती पैसे पहिजेत ?"

" वीस हजार मिळाले तर बस. "

" मग देतो कीं चिंता कसली करतां ?"

" ऐका, खरं सांगायच तेच सांगुन टाकतों उसनवार घेतलेले वीस हजार रूपये मी परत करूं शकणार नाही तेव्हा ती खडकाळ जागा आहे ना आमची ती तुमच्या नावावर करून देतो. समझा उद्या भाउ घरी आला तर हें घर शेती माझी त्याला देईन व मी कुठतरी तीर्थ क्षेत्रावर जाईन म्हणजे झालं "

" तुमच्या कुकमांच लग्न ठरल्यावर बोला म्हणजे पैशाची व्यवस्था करीन."

पांडुरंग तसो व्यवहारान चोक आसलो. वीस हजार आतांच दिल्यार सोमण तें सोथ्याक मोडतलो हे चिंतुन ताणे ताका लागता तेन्ना दिवपाचे थारायले शिवाय तें मेरेन ताका ते घोळोवंक मेळले. धंदो बरो चलता हे खातिर थंयच लागी घर बांधपाचे थारायलें. आशा भाडयाचे कुडिन रावंक उबगलें. जागो आसल्यार फाटी फुडे घर बांधपाचे ताणी थारायील्ले. पांडुरंगान एक घर वगडाइलें ताची भरपाय ताका करची आसली. सोथ्याक हात लावचोना हो सोपुत ताणे केन्नाच घेतिल्लो त्याच बरोबर कष्टतच रावतलों अशें थारायील्लें.

सकाळीच पावसान आपलो प्रताप दाखवंक सुरू केल्लो. घरा भायर पावल घालुंक संकष्ट येताले. पांडुरंग सोप्यार येवन पावसाक पळयतालो तर सोमण धोतर टोपी घालुन कामाक वचपाची तयारी करून भायर सरूक लागिल्लो.

" आज जात नाही कामाला ?"अशें पांडुरंगान विचारतगच

" कामावर जाणं जिवावर येतं. असा पाउस पडला तर लहान मुलाना जपायला हवं तुमची देना लहान आहे ना. मी कुकमाला किती जपायचो पावसा पासनं. ती आमची लाडकी किती नवस केलं तिच्यासाठी? शेवटी त्या जंगलातील एका वैदुने दिलेले मुळ उपयोगी पडले."

" म्हणजे सोमण काका "

" अरे ते मुळ उगाळून घेतल्यावर ही कुकमा झाली."

" सोमण काका मला देता का ते मुळ उगाळून आम्हाला मुलगा हवाय " आशान विचारलें

" देतो तरी मुलगा होणार हयाची शाश्वती देता येणार नाही. पुष्कळ लोकांना मुलीच जाल्या आहेत."

" सोमणकाका म्हाज्या आईन खात्रीन सपनांत येउन सांगितलं आहे कीं आशाला हया खेपेस मुलगाच होणार. मी तीला मानतो तिची ती अमृतवाणी खोटी ठरणार नाही."

" पांडुरंग एवढा विश्वास तुम्हाला असेल तर हे घ्या ते मुळ आनि परिक्षा घ्या आपल्या आईची "

" सोमणकाका तीने जे सांगितलें त्यांत म्हाजें हीत आहे परिक्षा घेउन पास, नापास करवायची नाही तिला. ती एक श्रद्धा आहे, तीला तडा जाता कामा

नये. म्हाजं शैतानी वागणं मलाच सतावतं तरी उर्वरित आयुष्यात सदाचारानंच घालवायचं ठरवलंय. ''

आशान मुळ तीन फावट झरोवन घेतलें. मनान अपुक आठयलें सगलें सांगलें, केल्ली चुक कबूल केली, क्षमा मागली आशाक दिस गेले. ताच्यानी कामा जायना जालें देना वेळार अपुन ताची कितली जतनाय घेतिल्ली बरे वायट तेंच सांगतालें. दोतोराक लेगित खबर नाशिल्लें अपुक आसलें. आशाक अपुची याद जाली. अपु आसल्यार कितली शिटकावणी दिता आसलें ? देना वेळार ताणें कितलो आटाप धरिल्लो ? आशाका हॉस्पिटलान वरतगच ताका चलो जालो ताचें नांव 'अपुर्व' दवरलें पयली अक्षरा आजेचीं. अपुर्वाचे रूप शंकरा सारखें आसलें. कुकमान आशा खातिर खुबच कष्ट काडले. कुकमा रानप, वाडप, अपुर्वाक तेल लावप, न्हाडवप अशी कामा करतालें. आशान म्हळें कुकमां तुला हया गोष्टी शिकल्याच पाहिजेत '' अपुर्व मस्तो आसलो. आशा ताका पासाक बांधुन काम करतालें ना तर तो धडेर वचून पडपाचे भंय आसलो. कुकमा गोऱ्या अपुर्वाक हांडीर घेवन वाडो दाखयतालें तेन्ना आशा व्हरचे पयली पोल्याक काजळ लावंक विसर नासलें.

एक दिस सोमण रातचो येवन कुकमाक म्हणुक लागलो

'' आकेरिचो सुतार भेटलेला ''

'' भेटला तर बीघडलं कुठं ?''

'' तसं नाही गं तशी माणसं दिवस भर भेटतात कुणाच्या लक्षात रहातं, तरी त्याच्या मुलां साठी तुला मागणी घातली, परवां येनार त्यानी जरा ठाकठीक होउन राहा, तुझ्या आईच्या कुडी आहेत ना त्या घातल्या तरी चालतिल. ''

आशान तें आयकलें. ताणें आपली दोन काकणां कुकुमाक दिलीं. जागो ल्हान म्हणुन पांडुरंग आशाक भुरग्यांक घेवन वसई गेलो. कुकमान सगल्या घरान शेण सारयलें शेजाऱ्याचे मेज हाडलें. कुडी, काकणां, फुलां माळतगच कुकमां बरें दिसुंक लागले.

सकाळचे धांक सूमार चार दादले आयले. सोमणान गरम उदक, पांय धुवंक दिले. मागिर सरबत पिवंक दिलें. सिगार ओढूंक दिलें. गोडशें करून तांका कुकमान मेजार वाडले. कुकमा कापड नेशील्ले. न्हवरो येवंक नासलो. सोमण तांचो आदर सत्कार करतालो. उलोवणी जातगच ताणी नाल्ल हाडिल्लो सोमणाच्या देवा मुखार दवरलो. मागिर जेवण जेवले देवाक सांगुन जातगच जाले. रजिस्टेशन करप नासलें. जेवतगच पान सुपारी दिली आनि तांका सोमणान नाल्ल दिलो तो आपल्या घरा व्हरून देवा मुखार दवरूंक.

सोमणान वचून जंवळी काडली. पांडुरंगान जागो आपल्या नावांर करतगच

ताका वीस हजार रूपया दिले. आशान आपल्या चल्याचे कष्ट काडले म्हणुन भांगराची सरपळी केली. पांडुरंगान मुंबयच्यान कुकमाक बाशिंग हाडून दिलें. ल्हान सो माटोव आंगणान घालो. कुकमाच्या दोळयानसुन दुकां व्हावतालीं आपुण वतगच बापायची काळजी रानप, वाडप कोण करतलो ? हो प्रश्न ताका भेष्टायतालो. ताणें तें आशाक उलोवन दाखयलें

" आम्ही आहोत ना, उद्या समझा आम्ही त्या बंगल्या मध्ये राहायला गेलो तरी तुझ्या वडिलांना तिकडे घेउन जावुं. आम्हाला वडिल माणसं कुठं आहेत ? त्यानी आसरा दिला नसता तर आम्ही येथपर्यंत पोचलो नसतो, त्याची जाणीव आम्हाला आहे तु काळजी करू नकोस. "

कुकमा लग्नाच्या तयारीक लागले. पापड, लोणची शेजा-याक आफोवन केलीं. आशाची मदत ताका आसलीच. घराक चुनो काडलो. पांडुरंगान चौकशी काडतगच कळलें कुकमाचो घोव सोरो पिता म्हणुन. ताणें कुकमाक सांगले.

" आज काल सगळेच पुरूष पितात. म्हाज्या आईन नाहीं का संसार केला ? कष्टाळू माणसे म्हणजे श्रमपरिहारा साठीं थोडीशी दारू घेतली तर बिघडलं कुठं ?"

ठरिल्या दिसा आकेरी साकुन ढोल, शेनाय वाजयत पन्नाशेक न्हवरेकारां आयलीं. कुकमा कापड नेसतगच बरें दिसलें. मेकअप सेट ताका मुंबईच्यान फैदा करून पांडुरंगान हाडुन दील्लो. भटान मंगलाष्टक म्हणतगच ताणी एकामेकांक माळो घाल्यो. जेवणाची व्यवस्था बरी केल्ली. मागिर पान सुपारी दीली. कुकमा वाजत गाजत घोवा बरोबर गेले. सोमणान ऐपतीप्रमाण देणे दिलें. कुकमा वतगच सोमण नीशेलो. ताचो आधार गेल्लो ताका बायलेची याद जाली. ती आसल्यार तीचो वेगळोच बोवाळ आसता आसलो हया विचारान ताका वायट दिसलें. सोमण एका जाफसालदारकेतल्यान मेकळो जाल्लो.

## १३

पांडुरंगान अपुच्या श्राद्धा दिसा 'गुन्याद ' मारली.

पांडुरंगान सोमणाक सांगलें

" काका बंगला बांधायचा विचार आहे तेव्हा आपण जरा कामाकडे लक्ष ठेवणें "

पांडुरंगान गुन्याद मारून दवरून, पैशे हातान जाता तशें वेलें काम करचे एवजिलें. पांडुरंगाचो धंदो बरो चलतालो ताणें ट्रक घेतिल्लो. तो ताका केळी

हाडुक व्हरूंक बरो पडतालो. आतां चिरे, शिमीट रेंव हाडुक ताणें तो लायलो. देना आतां अकरावेक आसले. सावंतवाडी होच आपलो गांव अशें ताका दिस. कुकमा गेल्यान ताका बेजार येतालो. आशा आतां बंगलो जातलो म्हणुन खोशी आसलें गुन्याद जातगच ताणें ट्रक विकून घराक पैसो घालचें येवजिलें. तरी ६ ंद्याक मार बसतलो हाची धाकधुक आसली. ईतल्यान ताका याद जाली अपुन तोळुक खोपीक कुदळ मारचे पयलीं तुळशीक सुवात करून ती पयलीं बांध अशें सांगिल्लें. पयली तुळस बांधतगच घर आपसुकच वयर सरता अशें तेन्ना ताणें तोळूक म्हणिलें. आंगणान घराच्या उजव्या वटेन ताणें तुळशिक सुवात केली. अपुच्या सांगण्यान सत्यताय आसता हें ताका खबर आसलें. तुळस पयलीं बांधून मागिर फुडल्या वर्साक वणती मदेराक हात घालचो अशें ताणें थारायलें तरी तुळशीची सुवात थारायतना पयलीं घराचें तोंड कशें करचें हे थारावनच मागिर तुळशीक सुवात थारायल्यार बरें अशें येवजून पांडुरंग गांवाच्या पुरोहितागेर गेलो. पांडुरंगाक पुरोहित तसो वळखतालो. एक गांवचो प्रतिष्ठित व्यापारी आपल्या घरा येतगच ताणें ताका येवकारलो. पुरोहिताक ताची दानत खबर आसली. पुरोहित वेळ पडल्यार ताचें कडसुन केळीं व्हरतालो तरी तो ताचे पैशे घेना आसलो. पुरोहित पैशे घेना हे खातिर चडसो ताचे कडलीं केळी व्हर नासलो.

" पुरोहितजी घर बांधिन म्हणतो तेव्हा त्या सोमणची ओढया पलिकडची जागा आहे ना तिथे पाय भरणी केली आहे, तेव्हा घराचे तोंड कुठल्या बाजूला करूं ? प्रसाद लावून बघता का जरा ?"

" पांडुरंगजी घराचं तोंड पुर्वेला असणें इष्ट असतें. तेव्हा आपण शक्य असल्यास पुर्वेला तोंड ठेवणें व घरातुन बाहेर येताना तुळशिचं वृंदावन आपल्या उजव्या बाजूस असावें, आता त्या जागेसाठी प्रसाद लावायची जरूरी नाही. "

" कां ?" पांडुरंगान ताका विचारलें

" गेल्या दहा वर्षा मागे तिथं एक भटजी रहात असे. गावांत फिरून तो देवकार्य करायचा. त्याने प्रसाद लावूनच एक लहानसं घर बांधल होतं. तो द्रव्य संचय करायचा, जास्त खाणे पिणे नव्हतें. त्याला साक्षात्कार जाला होता किं हया जन्मात त्याने द्रव्य संचय करून गेल्या जन्मीचे ऋण फेडायचें आहें त्या साठी तो अविवाहीत राहिला. सोन्याच्या मोहरानी भरलेला हंडा त्याने पुरला आहे असे गांवकरी बोलत असत. खरं खोटं देव जाणे तरी त्यानं जी जोड जोडली होती त्याचा उल्लेख नव्हता. त्याच्या निधना नंतर पोलिसांनी घर दार शोधले तरी हाती काही लागले नाही. सोमणाने सुद्धा चार पाच खडडे मारून बघितले तरी माती वाचुंन काही मिळलं नाही. मला भटजी म्हणाले होते ज्याचं ऋण असेल तो तें घेउन जाईल. बाकी कुणीही प्रयत्न केले तरी हातीं काहीं लागणार नाहीं. तेंव्हा पुर्व दिशेला घर बांधणे व ईष्ट देवतांचे स्मरण करावें. "

# १४

पांडुरंग आपल्या बिराडार आयलो. घराचे तोंड कशें करचें तें थारायलें त्या प्रमाण तुळशिक सुवात ठरयली. हातान पिकास घेवन तो खणुक लागलो. मनान देवतांचे, आवयबापायचे ताणें स्मरण केले. हाताभर खणतगच पोकळी मेळी. ताणें धोपर भर खणलें तेन्ना मदीच ताची कुदळ आयदनाक बसली. ताणें हळूहळू भोवारेन खंणुन पळय तर तो तांब्याचो हांडो आसलो. तो रातचो ताणें बिराडार हाडलो. त्या जमनिन मेळिल्ले धन ताणें थंयच मोडपाचे थारायले. कामगार थंय जाय तितले मेळताले दोन म्हयन्याभितर घर उभे केलें. घराक रंग काडलो तुळशीचे वृंदावन बांधलें. आतां तो बंगलो कसो दिसुंक लागलो. सोमणान ताका बांधुक खुबच मदत केली. सोमणाच्या हातान ताणें उक्तावण केलें. तें दिसा ताणें दासाक, ताराक आफयील्ली. ताराचो घोव मंत्री आयील्लो तरी उक्तावनाचो मान ताणें सोमणाक दिल्लो. वाडयावेले लोक दनपारचे जेवणाक सांगिल्ले.

जेवणा उपरान्त तारा, दास भायर सरिलीं तेन्नाय मळबान अचपित कुपां दाटल्ली. पावस पडुंक लागलो. सगल्याक थंडाय आयली, तांका दिसलें अपुनच पावसाच्या रूपान आशिर्वाद दीला. पावस धार तुटय नासतना पडतालो. तीं सगलीं भावंडा एकठाय रावचीं म्हणुन पावस रकयला आसतलो अशें तांका दिसलें. रातचे आशा म्हणुक लागलें

" हो बंगलो जरी बांधलो तरी घरा कडली सर बंगल्याक येवचीना. ती झर, तीं झाडा परत परत यादेतात."

" जरी हांव हांगा रावलो तरी म्हजे मन हांगा ना. आपलें मोडकरें जरी घर आसलें तरी तें बंगल्या परस व्हडच. हांवच कर्मकदाट्टो, हांवेच म्हज्या पायांर फातर वडवन घेतलो. दुसऱ्याक दोष हांव दिना "

" भाऊ आतां तुवें पयलींची व्यसना सोडुन परत वास्तुची स्थापना केली म्हणतगच जालें, चुक समजतगच परती करची नासता "

" तारा तुकां त्रास दिलो, अपुक छळलें हाचो म्हाका पश्चाताप जाता "

" भाऊ नशिबाचे खेळ तुं सुधारलो हातुनच सगलें आयलें म्हाका किर्ते उर्णे आसा आतां ?"

" तारा तुका अपुचो स्वभाव आयला "

" भाऊ म्हाकाच न्हय तर आमकां सगल्या भावंडाक ताचोच स्वभाव आयला "

" अपुची इत्सा आसली हांवे घर बांधचे, तशेच नातु जावचो. आतां फुडे ताका जाय तशें जावंदी."

तारा, दास बंगल्यानच रावताली, आता पांडुरंगाक बंगलो मेळील्लो. सकाळी उठून तारा, दास गेलीं. सोमण पांडुरंगाच्या बंगल्यार रावतालो. पयलींचे घर पांडुरंगान केळी दवरपाचो गुदांव केल्लो.

पांडुरंगान एक दिस भांगराच्या पोवनाची गजाल सोमणाक सांगल्ली तेन्ना ताणे म्हळें "तुम्ही कुकमाच्या लग्नाला पैसे देवून ती जमीन विकत घेतली त्या मुळें त्या मोहरावर आमचा अधिकार कसा ? आपलीच संपत्ती आपणास मिळाली."

पांडुरंगान चिंतले सोमण गरिब जायत तरी ताचें मन गीरेस्त आसा हें खरें. इस्टेट सगली म्हज्या नावांर करचे खातिर हांवे अपुक धांवडायलें, खरो तो जमीनीचो मालक आसून त्या हांडयाचेर आपलो अधिकार सांगना. कागदपत्र अजुन ताणें म्हज्या नांवार करचें आसा. पैशे दिल्ली म्हजेकडेन पावती लेगित ना मनीस कायद्या परस कोर्शेंस मानता हेंच खरें.

## १५

पांच वर्सानी सोमो कुयटाक साकुन जोड घेवन आयलो. आंगान सुटिल्लो बोटाक मुदयो घालुंक बोटां फाल्त पडतालीं. हाताक मास्कोत तर गळयाक सरपळी. कुयटा साकुन येतना ताणें शाबु हाडिल्ले तो लायतगच सगल्याक वास सूटतालो. ताणें खोपुट काडुन वडयलें आनि अपुच्या घरान रावंक लागलो. 'अपु' हया नावाचो बोर्ड लावंक तो विसरलोना. पांडुरंग घर सोडुन गेल्यान ताका त्या घरान रावचेंच पडिल्लें. गोठो शिवलो, थोडी गोरवां विकती घेतली. कुळागरान आळीं, खण्णी, सांवळ असो वावर चालुच दवरिलो. घराची दुरूस्ती केली: जमनीक मारमीर घाले. तरी अपुची कुड तशीच दवरल्ली. तो ती उघड नासलो ताच्यो वस्तु ताणें जतनायेन दवरिल्यो. मोगरें, तोळु आतां म्हातारी जाल्लीं. पयली सारखे काम आतां झेप नासलें तरी पयली साकुन काम केल्यान जाता नजो करून तीं कामा करतालीं हयाच खातिर तीं बलायकेन बरी आसली. तोळु शेनवताच्यो विडयो ओडतालो, तर मोगऱ्याक पाना बगर जायना आसलें. पेलतडची सून हाडिल्यान घरातलें सगलें काम ती करताली.

सोमो लग्न जावन तीन वर्सा जाल्ली तरी तागेर भुरगें नासलें. सोम्यान ६ ाकटी गाडी घेतिल्ली तीचो रंग तांबडोच, अपु तांबडी कांग न्हेसतालें हया खातिर. सोम्यान दोतोर, देव सगले उपाय केले तरी यश येवंक ना. ताणें एक दिस अपुक उलो मारून वाट दाखोवंक सांगली. तेच राती अपु ताच्या सपनान येवन म्हणुक

लागलें "सोम्या तुका हांवे पळयीलो तेन्नाचो तो सोमो तुं आतां ना, आतां तुं बापाय परस मोठो जाला. तुवें उलो मारलो म्हणुन सांगता हें घर सोड आनि तझ्या मुळ गांवान वच थंय आयतो बंगलो आसा, तांतुनच तुं राव तुका भुरगें जातलें आनि तुझे कल्याण जातलें."

तेन्नाच ताका जाग आयली, ताच्या मनांतले आनिक किर्तें विचारपाचें आसले तें तशेंच उरलें. सोमो अपुक मानतालो, तरी ताचो देवाचेर तितलो भावार्थ नासलो. ताका त्या घराची आशा आसली, ईतली व्हडली ईस्टेट कशी सोडुं? जि विकती घेतल्या. हे ताका दिसुंक लागलें. अपुन सांगला तरी पयली घर सोडुंक ताच्या जीवार येवंक लागलें. चार पांच वर्सा ती ईस्टेट भोगिल्यान ती सोडुंक ताका दुकताली. तोळु, मोगरे जाणतीं जाल्यान आपल्या घरच्या कुळदेवाक मेळुक आंवडेताली. तांची विदादच जुवानपणाची थंय गेल्ली. तांका घरा केन्ना वचनशें जाल्लें.

दुसरे दिस सोमो किर्तें करचें हया विचारान आसलो. तिळसान जायत आयील्ली. मोग थ्यान तुळशीकडेन लायील्लें निरांजन पेटताले, तोळु विडी फुस्कीतालो. वणतीर पाल चुकचुकताली. रातराणयेचो वास दम्दम्तालो. वासान ताका तरीतरी आयली. तरी फोंस असो आवाज कानार पडलो. ताणें कान शेळायले. तो आवाज रातराणी आसा थंयचानच येतालो. सोमो आंगणान देवलो तेन्ना ताका तो चडच व्हडान आयकुंक आयलो. तोळुन विडी पालवयली, तो आवाज कोणाचो हाचो अदमास बांधुक लागलो. तोळुन म्हळें हो सोरपाचोच आवाज सो दिसता. मोगरें कानाक बोटां घालुन घरान गेलें. सोम्याची बायल भीयेली, दारा बंध केली तरी नळयातल्यान सोरोप देवता अशें तोळुन म्हणतगच तांची न्हीदच उडली. रातभर जागरण करचे पडलें. सकाळ जातगच सोम्यान रातराणीये पोनाक बारिक साणेन पळयलें तर थंय कांयच नासलें. सोरपाचे बीळ लेगीत नासलें. एखादे पानाचो आवाज जालो जायत अशी मनाची समजुत ताणें घाली.

दुसरे दिसा तिळसानचो तो परत कान शेळायत रावलो तरी आवाज येवकंना. ताणें दार बंध केले तेन्ना ताका कालच्या सारखोच आवाज आयलो. ताणें दार उघडले तर रातराणये कडसूनच येता हाची ताणें खात्री करून घेतली. ते राती तांका परत जागरण जाले. सोमो बेचैन जालो. मरण केन्ना येत हें ताका कळना जाले. सकाळी उठतगच ताणें रातराणयेचे झोप मारपाचे थारायलें तेन्ना तोळु म्हणु लागलो

" अरे तें कितली वर्सा आसा तें तुवें रोवंक ना मागिर तुं तें कसो मारतलो? इतली वर्सा पोरूस घराण्याची मनश्या रावलीं तरी तांका सोरपान

फोंसकार मारून दाखयले नात. त्यां झाडाचे कांड पळयल्यार तें बरीच वर्सा साकुन आसा हाची गवाय मेळता. सोरपाक मारल्यार तो संतती आड येतलो, म्हाका नातु जायच.''

'' आई असलें कुडडे शास्त्र हांव मानीना ताका हांव बंदुक हाडुन रातीन लायट घालुन मारतलोच.''

'' पुता तुका जाय तें कर आमी अडाणी तरी मुर्ख न्हय, हें लक्षान आसुं तरी हांव म्हणता अपुन सांगला तें कर मागिर त्या सरपाक मार ''

'' अपुनच सोरपाक धाडला आसतलो आम्ही घर सोडची नात म्हणुन, कितेय जालें तर मनीस सुवार्थीच न्हय. आतां हांगा सोरपा भयान रावप शक्य ना, आम्ही गेल्यार बरीं ''

सोम्याक तिचे खरे दिसलें आनिक चार दिसानीं पळोवया असो ताणें विचार केलो. रातचो परत फोसकार मारिल्ले आयकुंक येताले. ताणें भायर सरपाची तयारी केली. तोळु सोम्याक म्हणुक लागलो

'' सोम्या पयली वटेश्वराचे दर्शन घेवया मागिर ज्योतिबाचे दर्शन घेवया. येतना सावंतवाडीच्यान येवया, बस स्थानकाराच आमचें घर आसलें आता कोण रावता काय ना ते पळोवन येवया. ''

'' अपुन म्हळां थंय एक बंगलो बांधला तातुन राव म्हणुन. ''

'' अरे पुण तों मनिस आमकां बंगलो दितलो. ?''

'' बाबा ताची चिंता थंय वतगच करूया हांगा करून कितें फायदो ?''

## १६

सकाळीं उठून ताणीं मुस्तायकी गाडयेन घाली. सोम्यान बायलेक, आवयक बापायक गाडयेन बसोवन आपुण गाडी चलोवंक लागलो. कुयटाक तो गाडयेचो चालक म्हणुनच काम करतालो, ताचे कडेन गाडी चलवपाचो परवानो आसलो. पावसाचे दिस आसले तरी आसोर आसलो. तीं कोल्हापुराक पावली तेन्ना रात जाल्लीं. सकाळी पांचाक उठून तीं न्हालीं आनि वटेश्वराचे दर्शन घेतलें. मदीं

वडाचें झाड आसून पोनांक शंकराचे लिंग आसलें. वटेश्वराच्या देवळा मुखार बरेच भिकारी बसुन आसले. तांका सोम्यान दक्षिणा दिली आनि तीं ज्योतिबाच्या देवळाकडेन गाडयेन वचुंक लागली. ज्योतिबा देउळ दोंगरार आसले. भाविकांची बरीच गर्दी आसली.

" हें जागृत देवस्थान आहें तुमची इच्छा पुरी होईल यात शंका नाही." भटजीन म्हळें मोगऱ्यान सांगुन घेतले

" तुझो विसर पडिल्लो क्षमा कर, आतां फुडे तुझ्याच पायाकडेन दवर " सोमो आपल्या कुळदेवाचे पयलेच फावट दर्शन घेतालो, तर तोळुक ल्हान आसताना ताच्या बापायन देवा म्हऱ्यान व्हेलो तरी ताका देव दर्शन घेतिल्ली याद नासली. देवाचो शेंदूर कपलाक लायतगच ताची कृपा तांका जाणवल्या सारखी दिसली. चाळीशेक वर्सानी तीं आपल्या कुळदेवाक मेळील्यान तांका आगळेच समाधान मेळ्ळें. तोळुक आपल्या देवाक पळयतगच सर्ग दिशील्या सारखो जालो. ज्योतिबाकडेन तोळुन आंगयले " इतले दिस तुका विसरलों, तरी हाचे फुडे तुझ्याच म्हऱ्यान रावपांचे थारायलां तेन्ना म्हाका नातु दी कितेय तुझे रागणें आसल्यार विसर "

ज्योतिबाचे दर्शन घेवन तीं दोंगर देवंक लागली. तोळुच्या मनान नेण्टेपण जागे जातालें. वाहना खुबच दिसताली. झोपडयो वचुन त्या जाग्यार बंगले दिष्टी पडताले. तश्यो थोडयो झोपडयो आसल्यो तरी पयली बंगले दिष्टी पडनासले, त्या जाग्यार आतां वता थंय थोडया थोडया अंतराचेर बंगले दिसताले. रीक्षा पयली नासल्यो मोटरसायकली तर तांका खबरच नासल्यो. आतां त्यो सरसकट दिसताल्यो. सावंतवाडी बसस्थानकार पावतगच ताका आपले घर खंच्या दिशेक आसा हें कळना जालें. ताणें सगल्याक नदर घुवंडायली तर थंय "पोरूस केळे व्यापारी " असो बोर्ड दिसलो.

आपली गाडी ताणीं थंय घेतली आनि केळी घेवचें अशें मनान येतगच ताणीं पांडुरंगाक पळयलो. सोमो गाडयेनसुन देवलो आनि घडाचीं केळी तुटोवन खावंक लागलो. तेन्ना पांडुरंग ताका वळखलो. तोळु मोगरें भायर आयली तोळुन विचारले

" धनी तुमी हांगा आमच्या गावांन पावली ?"

" तुमच्या गावांन न्हय तर तुमच्या बंगल्यान पावलीं.'' कितें उलयता तें तोळु कळचे पयली ताणें म्हळें

" गाडी अशी फुडे घेयात तुमचें घर तुमकांच दाखयतां. "

ती सगली गाडयेन बसून ताच्या घराकडेन गेलीं. घरान व्हडलो बदल जावंक नासलो आंगण तुळस तीच आसली. ताणी पांडुरंगाक विचारले

" हांगा कोण रावता.?"

" सोमणकाका, तांची चली कुकमाक लग्न करून दिलें. सोमणकाका आतां तुमच्या बंगल्यान रावता."

" खंय आसा तो बंगलो ?"

" तो तुमच्याच जाग्यार आसा. सोमणकाका थंयच रावतात."

गाडी थंयच थांबोवन तीं व्हाळांसुन बंगल्यार गेलीं. हळदुवो रंग वतान चडच उजळ दिसतालो. बारीकसाणेन ताणी बंगल्याच्या वयर पळय तर 'अपु' हया अक्षराची पाटी दिसली. तोळुक दिसलें कितेंय जावं मरणा उपरान्त तरी पांडुरंगाक अपुची याद जाली. हो अपुच्याच कृपेन बंगलो जाला हे तोळुक पांडुरंगान सांगुक नाका आसलें.

पांडुरंगान आपली फाटली काणी तांका सांगली. आयकुन तोळुक अजापच जालें सगलें सोडून तो आमच्याच घरान कसो पावलो ? बंगलो रोकडोच कसो बांदलो ? ताच्या वागण्यान बदल कसो जाला ? अपुन सपनान येवन बंगलो पांडुरंगान बांदला हें कशें सांगलें ? व्यापारान रोकडीच बरकत कशी जाली ? तोळुक हया प्रश्नाचो जापो म्हळयार अपुच दिसतालें. केदी शक्त अपुच्या हयातिनच न्हय तर मरणा उपरान्त आसा हाची तो कल्पना करू शक नासलो. ताणे 'अपु' हया अक्षराची पाटी परत एक फावट पळयली. मनश्याक बरप शिकतना 'अ' हया अक्षरान सुरवात करतात तर इग्लीशीन 'A' हे अक्षर पयलीं येता. मुळान जर अपुची शिकवण घेत तर जीणेचो पावंडो घट मुट जावं येता अशें तोळुक दिसलें. अपुन आपल्या घराण्याकच न्हय तर बागेल्याच्या घराण्याक वयर काडुंक मोलादिक वावर केला हाची गवाय ताका बंगलो पळयतगच पटली. अस्तुरेन जी एक लिपीली शक्त आसता ती मनाच्या तागडेन मेजल्यारच तींचे वजन कळता. सोम्या मुखार आतां पांडुरंगाक तकली सकयल घालची गरज नासली.

सोम्यान म्हळें

"भाटकार तुं इतलो व्हडलो बंगलो बांधुक शकलो हातुन तुका ल्हानपण साकुन लायील्ली शिस्त. म्हाका याद जाता आम्ही तेन्ना पांचवी शिकताले. आयतार आशिल्लो गड्डयानी खेळचे खातीर हांव तुमगेर आयील्लो. तेन्ना तुं पापड करतालो तारा पिठ मळतालें तर दास पापड सुकत घालतालो. अपु पिठाचेर मुसळान फार घालतालें सकयल गंगी घरून जाय थंय फार घालून घेताली. तुका गड्डयानी खेळन दिसतालें तरी अपु मुखार पापड सोडुन खेळ खेळपाची कापोस्ताद तुवें केली ना. पापड सगले जातगच काळखानच आमी एक डाव खेळले. गड्डो जेन्ना खंय गेला तें दिसना जालो तेन्ना आमचो खेळ बंद जालो. घरा पावतगच अपुन तुका दोन पटयो मारून म्हळें

" अरे खेळाक काळवेळ कांयच ना तुं काम सोडुन खेळा फाटल्यान लागशी तर संसार सांडशी "

तेन्ना तुं रडत रडत हांत पाय धुंवन देवा म्ह-याान भजन करूक

बशिल्लो.  " झाला महार पंढरीनाथ " तुझो आवाज हांव आंगणान रावन आयकतालो. तेन्ना म्हाका दिशिलें. अपु कडक, ताका भुरग्यांची माया ना तरी तुका काम करपाची सवंय ताणेच लायल्ली, शिस्त ताणेंच शिकयली. तुं खेळानच भोग भोगुंक गुंग जालो आनि संसार विसरलो तरी परत तुं मुळ पदार आयलो. आपल्या कष्टाचेर तुवें परत संसार उबो केलो. "वावटळ येतगच झाडा बावगतातच तरी वारो वतगच परत ताठ मानेन रावतात जी सामकी अशक्त आसतात तीं जमीनदोस्त जातात. तुका याद आसा दास आंगान बारीक आशिल्यान वयर पेरीर चडतालो तेन्ना तुं खंय पाल्यान पेंरा लिपोवन दवरून "पेरां शेणलीं" म्हणतालो. दास सकयल देवंतगच पाल्यान सोदुन सोदुन ती काडतालो तेन्ना कागाळ अपुकडेन पावताली अपु थापटां मारून तुइया कर्तुबाचो भोमान करतालें.

तुका याद आसा देवळे वयल्या तळपार ' बेबका तळे ' आसा थंय आमी निष्पाप बेबकां मारपाचें येवजुन फातर घेवन गेले. अपु बऱ्या वेळान सगली घाटी चडुन थंय आयलें आनि कान पिळुन तुका ताणें बेबकांची क्षमा मागुक लायली हयात भर बेबकांक मारचोना हो सोपुत घेवंक लायील्लो. भाटकार याद आसा काय विसरलो ?"

" सोम्या थोडयो गजाली हांव विसरीलों ताची याद तुवें करून दिली. उगडासांच्या साणीर पयलींच्यो यादी घासतगच परमळ येत रावता, तरी यादी सोपनात तशी साण झरना "

तोळु म्हणुक लागलो

" भाटकार आज म्हाका खरें समाधान जालें, आपल्या बांयचें उदक लेगित गोड लागता हें खरें, इतलीं वर्सां घराक, गावांक सोडुन काडलीं तरी उरील्ले म्हातारपण हांगाच सुखा समाधानान घालोवंक पळयतां. तुम्ही घरदार सोडतगच इलाज ना हे खातिर आमका तुमच्या घरान रावंचे पडलें. सगले सोडुन कशें दितलो केन्नाय तरी तुं येतलो तेन्ना तुमची वस्त आसा ताज्याक वाडोवन दिवपाची, ना तर अपुचें रागणें सोसचें पडतलें. "

मोगरें म्हणुक लागले

" भाटकार आम्ही हांगा ज्योतिबाच्या पायाकडेन रावतात म्हजो जाल्लो आनि दिल्लो होच गांव. "

" म्हळयार तुमी एकमेकाक वळखतालीं लग्ना पयलीं ?"

तोळु म्हणुक लागलो

" हांव पाटे खोऱ्यानी भरून दितालो तर तें माथ्यार घेवन पैस व्हरून वडयतालें. दनपारचो जेवणांक तांगेर वतालो. हे वटेन काम आसल्यार तें आमगेर रावतालें. तशी एकाच वाडयावेलीं. हीचें आवय बापुय ल्हान आसतानाच रोगाची

सांथ येवन सोपिल्लीं. ती अनाथ गरीब आसली. बरे म्हजी स्थिती तर सामकी वायट. दनपारचो पोट भर जेवल्यार रातचें उपाशीं रावचें पड. लग्न जावचो म्हजो विचार नासलो. तर एक दिस पावसाळें आसलें कामाक वचुंक मन येना आसलें. तेन्ना म्हजी पिराय अठरा वर्साची. व्हाळ उदकान भरून व्हांवतालो. हांव आडयार उबो रावलो आनि धाड करून उदकान उडी घेतली, तेन्ना म्हजी तकली उदकान व्हांवत येतल्या लाकडाच्या ओंडक्याचेर बसली. हांव निर्णेलो आनि झोती बरोबर व्हांवन वचुंक लागलो. सकल मोगरें आपले कपडे उमळतालें. व्हांवत येता तो पळोवन ताणें उदकान उडी मारून म्हाका वयर देगेर हांडुन वडयलो. म्हज्या तकलेनसून रक्त व्हांवताले ताणें कपडो बांधलो. आपल्या घरा व्हरून वखद केले. तेन्नाच ताका हांवे लग्नाचे उतर दिले ते दिसा थंय नासलें तर हांव हाताक मेळपाचो नासलो. हे कणके माड पयलीं कवाथे आसताना हांवे पळयील्ले. देगे वेले दोन माड लागताले ताचीं आडसरा हांव खातालो म्हाका दिसता ते वाऱ्यान पडले आसतले. हांगा लोक पोरसुं करताले. लोक शाक जीनस दिताले. शेत नाशिल्यान तांदुळ विकतो हाडचो पड. वयार किर्ते खा, थंड न्हा, थंडी जायना आसली आतां वाऱ्यानच थंडी जाता. त्या पुलाचें आमी काम करतालीं. काम करपी म्हणुन आमचें नांव 'कामकरे' अशें दवरिलें तेन्ना तो कंत्राटदार आमकां गोयान घेवन गेलो, थंय मागिर आमी तुमच्या कुळागरान पावलीं ती थंयच उरलीं."

सोमो म्हणुक लागलो भाटकार " पैर अपु सपनान येवन म्हणुक लागलें 'घर सोड तुइया गावांन वच थंय बंगल्यान राव कल्याण जातलें' भाटकार त्या दिसा साकुन सोरोप रातराणये पोनांक येवन फोसकारता. घरान रावन शांती ना, केन्ना तो चाबत सांगु नजो आमी थंय दिस कंठीत रावलीं."

" सोम्या अपुक पयलीं जरी हावें त्रास दिले तरी आतां ताच्या उतरां भायर ना, म्हजो ट्रक, बंगलो, व्यापार, दुकान सगलें तुझ्या नावार करतां आमच्या घरा आमी वतात. तरी एक म्हजी अट आसा 'सोमणकाकाक' विसरू नाकात, ताका हया बंगल्यान रावुं दी. ताका व्यापार कळता. जाणतेल्याक घरा भायर घालुन कल्याण जावचें ना. हांवे अपुक भायर घालुन जे भोगलां तें आनि कोणेच भोगचें न्हय, अशी म्हजी इत्सा. "

" भाटकार ही अट कसली घाली ? आमकां तो आनि ताका आमी जाय न्हीं ? म्हजे आई बाबा जर ज्योतिबा देवळान रावंक गेलीं तर हें घर आमकां दोघांक खांवक येतलें.

दुसरे दिसा पांडुरंगान सोम्याच्या नावांर बंगलो, ट्रक, दुकान केले. सोमण बरोबर आसलो. मागिर तें सोम्याच्या गाडयेन वसई, आकेरी गेले. थंच्या व्यापाऱ्याकडेन पांडुरंगान वळख करून दिली. मुंबयच्या मामाक पत्र धाडुन ताणे सोम्याक व्यापारान मदत करूक सांगलें. सगलो व्यवहार समजावन सांगलो कोणाचें देणे कोणाचे घेणें तें सगलें ताणें बरोवन दवरिलें. ट्रक ड्रायवराक सोम्याची वळख करून दिवंन "हो पात्रांव" म्हणुन सांगले. वळखींच्या मनश्यांक वचुन ताणें आपल्या गावांन वता म्हणुन सांगलें. कुकमाच्या घरा वचुन ताणें कुकमाक भेट म्हणुन भांगराची नथ दिली. ताच्या घोवाक धोतर आनि शर्टाचो कपडो दीलो. आपली याद म्हणुन सोमणाक ताणें धोतर आनि शाल दीली तेन्ना सोमणांच्या दोळयानसुन खोषेची दुकां व्हांवली.

ताणें म्हळें

" सोम्या पांडुरंग मला देवा सारखा हांकेला पावला, पैशाची अडचण त्यानेच म्हाजी दुर केली. कुकमाचं लगीन मी ह्याच्या मुळं करू शकलो. त्याचे आचार विचार मी आत्मसात केले ती चांगल्या वळणाची माणसं, आतां ती सोडुन चालली हयाच दु:ख होतं. "

" काका दुखातच सूख दडलेलं असतं. तुमचा भाऊ, वहिनी, पुतण्या तुम्हाला मिळाला हरवलेलं गवसलं आतां तुम्ही आणखी भरभराट बघणार आहांत तुम्ही आजोबा होणार नातवाचे लाड तुम्हीच पुरवायचे बरं का" सोमण हांसुक लागलो. पांडुरंगाक घरा केन्ना वचनशें जाल्लें. ताका हांगाचो वाज आयील्लो. पांडुरंगान डब्यातले शंकरपाळे तांका खांवक दिले

" भाटकार अपु आपल्या घोवाचे नावांचे खाण म्हणुन शंकरपाळे करतालें, तें शंकराची फुलां माळताले, हांगा दारा मुखार तुवें शंकराचे झोप रोयलां ते पळोवन अपु तुझ्या काळजान आसा हें कळलें "

" ही गजाल खरी."

ताणें आशाक मुस्तायकी बांधुक सांगली देना गाडयेन वतलें म्हणुन खोशी जालें. आशाक केन्ना जीव घरा व्हरून घालनसो जाल्लो.

सांची चार जावन गेलीं माडाच्यो सावळयो आंगणा मेरेन पाविल्यो. ट्कट्क आवाज आयकतनाच सोम्याची नदर मेल्या माडाचेर गेली. बारीकसाणेन पळय तर मेस्त पक्षी चोंचीन माडाक बुराक मारतालो. ताची चोंच विन्यां सारखी माडाक कोरांत्तालीं. बुराक व्हड जाता तितलो तो भीतर वतालो.

" पुता मेस्त पक्षी घर करता खरो तरी तो तातुन आपुण रावना. साळोरे खातिर तो घर करता. भाटकारान जरी हें घर बांधले तरी तो खंय हया घरान रावतलो

? अरे अपुन कलमां रोयील्ली तीं आपुण खातलें म्हणुन न्हय तर दुसऱ्या खातिर. व्हाळ आपल्या खातिर उदक साठयना, शंकराचें झाड आपणा खातिर फुलां फुलयना. ''

रात जायत आयील्ली सोमण पुड ओडतालो. शंकराचे झाड टायट उभे रावन आंगा खांद्यार फुलां माळुन आसले. इतल्यान चुकचुक असो आवाज जालो तर दिवोड कोनश्याक आशिल्लो हुंदिर गिळतालो.

'' रातिन दिवोड घरान रावना. ज्या घरान तो रावता त्या घराची भरभराट जाता '' दिवोड सान्नी कोनश्याक आसलो.

## १८

दुसरे दिस सकाळी पांडुरंग, देना, अपुर्व आशा कपडे घालुन तयार जालीं. सोम्यान तांका गाडयेन पावयतां म्हळें. सावंतवाडी येतना तांका खंय वच्चें तें खबर नासले तरी आतां घरा वतात हें तांका खबर आसले. गावांनसुन गाडी वतना पयलींचो मातयेचो रस्तो डांबरी जाल्लो. जळामळाक विजेचे खांबे दिसताले. उदका मशिना भाटांनी उदक शिपतना दिष्टी पडताली. दोन तीन पसरे जाल्ले. आखाडो काडुन गेट लायील्ली. गेटीन सून भीतर सरतना ताची नदर घरार गेली 'अपु' हया अक्षराची पाटी दिसताली. देवत्या सुर्याच्या किरणानीं ती अक्षरा भांगराची कशीं दिस. वाटेच्या दोनी वटेन तांबडे,हडवे गुलाब फुल्लीले. आंगणान फातरी बसयील्यो. पांडुरंगाच्या दोळयान खोशेचीं दुकां आयलीं. ताका सर्गान पाविल्या सारखे दिसलें. पाट शिमीटाचे केल्ले. अपुर्व तर फोंडा ऱ्याकडेन धावन आगांर उदक शिपडुन घेतालो. सोम्यान चावयांचो घोस काडुन हुंबरार दवरलो. पांडुरंगान चावयांचो घोस बाग घेत हातान घेतलो तशी दाराचे चावयेन कुलुप काडलें. घरान फरशी बसयील्यो. लोखंडी जनेलां लायील्लीं. हडवो रंग काडिल्लो. पांडुरंगाक दिसलें हांव दुसऱ्याच घराक पावंक ना मुं ? तो देवा कुडीन गेलो. शंकराची मुर्ती देवाऱ्यान दवरली. भोंवडेक गेल्लो शंकर परत जाग्यार बशिल्लो, तो परत भोंवडेक वचचो न्हंय हाचो निश्चय करूनच. पांडुरंगाक घरा हाडची तांक त्या मुर्तिन आसली जावये म्हणुनच पांडुरंगान ती व्हेली जावये. नंदादिप थंड तेवतालो. सोम्यान ताचे सामान हाडुन घरान दवरलें. आशान च्या केली. ती पितकच सोमो सावंतवाडी वचुंक भायर सरलो. तेन्ना पांडुरंगान ताका रातभर रावंक लायलो. तिळसान जावन गेल्ली. रातराणयेचो मंद वास वाठार भरतालो. सोमो कान दिवन सोरपाचो फोंसकार आयकुंक सोदतालो. ताका तो येना आसलो. ताका दिसलें एखादे तो सोरोप तो जागो सोडुन

गेला आसतलो.

सकाळी उठुंक वेळ जालो. सोमो, पांडुरंग सोप्यार बसुन च्या पिताले. सरक असो आवाज जालो. गेटीनसुन मुंगूस येतना ताका दिसलें. ते तशेच वाट काडीत रातराणये पोनांन गेलें. सोमो तायट दोळे उघडे दवरून तें पळयतालो मुंगसान सोरपाचेर झोपय घालुन ताका घांस मारिलो सोरोप वळवळतालो मुंगसाक तो ओडतालो. दोघीजाणा पाटान पडली तरी मुंगसान घास सोडुना. रक्त पाल्यार पडिल्ले शेवटाक पांडुरंग आनि सोमो म्हथान गेले तो मेरेन सोरपाचे दोन कुडके जाल्ले. सोम्याची सुलूस लागतगच मुंगूस गेटीभायर सरून रानान धावलें. मनश्या एदो सोरोप शेपटी बडयत निमणे घटे मेजतालो. आशा भायर यो तर सोरपाचेर ताच्यानी नदर घालु नजो जाली. अपुर्व तर आंगणान वचुंक तयार नासलो. वतार तो चडच तिकतिकतालो खुबच भीरांकुळ. पांडुरंगान सुखाचो आंवडो घोटलो. ताणें असलो सोरोप केन्नाच पळोवं नासलो. रातराणयेचे झाड बरेच पसवलें. सोमो देवाक पाया पडुन आंगणान आयलो. तुळशीच्या उजव्यावटेन प्रदक्षिणा काडुन ताणें जोंते चडयलें

" भाटकार येतां " म्हणतगच पांडुरंगान ताका केळमो काडून दिलो.

" सोम्या हो पिंड पळय कितलो पसवलो, अपुन हाडिल्या केळम्याचो तुगेर तसोच पिंड जातलो वंशावळ वाडतली हो केळमो व्हरून रोय. हो रातरातणयेचो रोपो आपसुकच किल्लला तो ही व्हर."

सोम्यान तो रोपो, केळमो घेतलो.

" भाटकार जरी तें दिसां हांवे कुळागर पावणेर घेतिलें तरी कागदपत्रां तुमच्या नावार आशिल्लीं तशीच आसात, म्हज्या नावार करून घेवंक ना. कुळदिवो पेटतगच तुमकां गाडी घेवन व्हरूक येतलों " अशें म्हणत ताणें गाडी सुरू केली आनि तो गेलो.

पांडुरंग कुळागरान गेलो अनसां पिकील्ली. पणस जुन जाल्ले.बांयन तांबडे गुंज जांब झडुन उफेताले पारीजातका पोनान फुलांनी रांगोळी घाल्ली. आबोली तांबडं तोंड घेवन धोलताली. घोटणे पोनाक वारो येता तशी घोटां पडतालीं. चीचो पिकिल्यो. माच चुडतानी भरिल्लो. नाल्ल कोठार भरून आसले केळी घड थोडे अमुरपिके आसले. निरपणस जुन जावन झडताले. कलमाक आंबे लोबकळताले तर चिक पिकून पडताले भींडी आंगभर तांबडी फुलां माळून रांविल्याचो भास जातालो. शेथाक खावची पानां आंगभर दिसताली तर मिरवली पांचव्या सांगानी भरिल्यो. माडयो शिपटयानी सजिल्यो पिक्यो पापयो कावळे कोचायताले, तर पेरां रातचे पारवे खावन सकयल वडयताले. दुरिग बांधुन वयर




काडिल्यान गोरवां कुळागरान येवची बंध जाल्ली. तणाची पाट बेंताळा सारखा उभी मळबाक तेकल्या सारखी दिसतालीं. करमलांचेर किर येताले. माडांक शिवर बरो आसलो. आळीं सावळ,खण्णी वेळोवेळ सोम्यान केल्ली हें कळुंक पांडुरंगाक वेळ लागलोना. तो चिंतुक लागलो " सोमो कितल्या व्हड मनाचो, नाल्लाचो पाडो पाडुन तो ताणें विकुना, पिकिल्यो वस्तु विकच्यो, दिवच्यो वा खावच्यो असलो मोह ताका जालोना. रखरखीत वाळवंट करून वडयील्ले भाट ताणें नंदनवन कशे सरभरीत केल्लें. गोठयांन विशेंक गोरवां आसली दुध तुपाक तोटो नासलो. ताका अपुच्या उतरांची याद जाली

" आंगणान कुत्रो, घरान मांजर, गोठ्यान गोरवां आसप म्हळयार तेच गीरेस्त घर "

आज पांडुरंगाक सगलें मेळिल्ले. कुत्रो आशिल्यान माकड कुळागरान येना आसलें. मांजर हुंदीर, जीवाणी हाचे पासुन राखण करतालें. पांडुरंग विचार करता तितलो ताका बोध जातलो. अपुच्या उतराची तो सत्यताय अजमायतालो.

## १९

आशान अपुची कुड उघडली. सोम्यान ती तशीच दवरिल्ली. दांडयेर आसलें जुनेर तें न्हेसलें. कितली उब आसली तांतुन. आशाचो गर्व सगलो ना जालो. ताका आपल्या वागण्याचेर पश्चाताप जालो. अपु म्हळयार हिरो तरी ताका कोळशा सारखे तृच्छ समजलें हाचे ताका वायट दिसलें. आतां घडिल्या गजालीक उपाय नासलो. अपुर्बाक अपुचे संस्कार करचे ताणें थारायील्लें. अपुचो फोटो लायील्लो ताका पांया पडत तें म्हणुक लागलें

" केल्ले गुन्याव बक्षी, तुझे सारखी आंगान शक्त दी, तशेच आचार दी " पांडुरंग हळुच कुडिन सरतना ताणें ते आयकले. ताका दिसलें मनीस कर्तुबानच व्हड जाता, आपणाक व्हड म्हणात अशें लोकांकडसुन म्हणुन घेतलें म्हणतगच तो व्हड जायना. फोटवाक पळोवन आशाचे हात आपसुकच जोडिल्ले. अपुन जीणेन फातराक मारतात तशे घाय सोसले तरी ताका देवत्व आज प्राप्त जालें. आज जर अपु तें पळोवंक नासलें तरी ताच्या आत्म्यान तें पळयलां आसतलें. ना तर अपु मरतगच सपनान कशें येता आसलें ? ताका वयर फळयेर आसलो पत्रावळीचो पेळो दिसलो तो ताणें हळुच काडुन पळय तर पत्रावळी वरगेल्यो, वाळतेन खाल्यो तरी व्हीरांची शिवण घटमुट आसली. ताका दिसलें पणसाक पांचवी पाना येतात, फाटसुन कुंवले येतात, कुंवल्याचे पणस जातात,

तांका शेकडयानी भिकणां भरतात, त्या भिकणां कणकणी रोयल्यार पणसाची झाडां जातात, एग्धाशा भिकणान ऐदी व्हडली पणसाची आळ जावची शक्त आसतां, पणसाक पयली पाना येतात, मागिर कुंवले धरतात. पानां बगर झाड वाडुंक शकना. पणसाची पानां वाडतगच पिकतात, झडतात, वतान ताच्यो खोलयो जातात. त्यो खोलयो व्हीरान शिंवतगच ताची पत्रावळ जाता. जेवण जेवंक ती उपकारता. तरी जेवण जेवतगच तीका आमी उष्टया पारार वडयतात. उष्टया पत्रावळीक कोणच घरान दवरिनात. तरी पत्रावळ उष्टी आमीच करतात. अपुचे कितें चुकिल्ले एदी व्हडली ख्यास्त दीली ? कर्मां आमी करप दोषी दुसऱ्याक धरप. आंग व्हीरांनी शिवलें तरी दुसऱ्या खातिर कष्टचप जो एक व्हड गुण पत्रावळीन आसता तो वारखाण्या सारखो. ताका दिसले पत्रावळी परस अपु व्हड. कित्याक पत्रावळ कुस्तगच ताचे अस्तित्व सोंपतां, अपुची कुड मातये भरवण जाली तरी सपनान वचुन मोलादीक शिकवण दिवप हे सोपे काम न्हय. ताणे तो पेळो जतनायेन वयर दवरून अपुर्वाक म्हळें पत्रावळीची देख घे, जीणेन कसलोय वायट प्रसंग येवं, काम करपाचे हावेस सोडु नाका तुं जयतिवंत जातलो.

सोमो गाडी घेवन सांचो सावंतवाडी पावलो. केळमो व्हरून ताणें फाटल्या दारान रोयलो रातराणी दारा मुखार रोयली. आवय बापायक घेवन तो दुसरे दिस ज्योतिबाच्या देवळान गेलो. मोगरें, तोळु थंयच रावन देवाचीं सेवा करूंक पळयतालीं. अपुन गोकर्ण रावलें तशी हीं आपल्या कुळदेवाच्या पाया कडेन रावंक सोदतालीं. धर्मशाळेन ताची व्यवस्था सोम्यान करून तो घरा आयलो. सोमण दुकानार केळीं विकतालो. सोमो केळी हाड व्हर सगलो व्यवहार पळयतालो. कुकमा कुळार म्हणुन मदीं मदीं येवन वतालें. सोम्याची बायल रानवाड करताली.

थोडया दिसांनी सोम्याची नदर माडार वच तर त्या बुराकान साळोरी दिसली. एक एक तणाची काडी घेवन ती त्या बुराकान वताली. ती आपलें घर बांधता हे ताका रोकडेच कळ्ळें. केळम्यान दांव घेतिलें. रातराणयेक कोमरी फुटटील्ली. आपणे रोयील्ली झाडां जाली हाचे ताका समाधान जालें तरी घड येवची वाट तो पळयतालो. मोगरें देवळान सान्न मारतालें तर तोळु चौघुडो वाजयतालो. नातवाचें तोंड पळयल्या बगर खाडमीशी काडचो ना असो निश्चय ताणे केल्लो.

सोम्यान एक दिस माडार चडुन साळोरेचे घर पळय तर तातुन एक ताती आसलें. ताका अजाप जालें साळोरेन केन्ना घर बांधले आनि केन्ना ताती घालें ? तो घरान वच तर बायल म्हणुक लागली मळणोळीं केळी खायन दिसल्यात. तो गाडी घेवन मयडयां गेलो एक घडच घेतलो कुकमाक आफोवन हाडलें केळयाचो हालवो करून बायलेक दी सांगले. कुकमा आतां ताची जतनाय घेतालें. सोमो तिका परत परत दोतोरागेर व्हरून तपासून हाडतालो. आवय बापायक ताणें ही नविदाद सांगली.

"नातु जाल्याबगर आमी त्या बंगल्यार येवचीना."

सोम्याचो व्यापार बरो चलतालो. ताणें आपलें पयलीचे घर तशेच यादस्तेक दवरिल्ले गावचे लोंक सोम्याची गाडी बंगलो पळोवन अचापित जाताले. कुयटाक गेल्यार आमी गीरेस्त जायत काय अशें तांका दिस. वीशेक वर्सा गेली तरी तांच्यान वडलोसो बदल जावंक नासलो.

अशेच णव म्हयने वतगच सोम्यागेर चलो जालो. ताणें मोग्याक, तोव्कुक आफयलीं. आशा पांडुरंगाक देनांक अपुर्वाक सोमो गाडीन घेवन व्हंरूक आयलो. तोव्कुन नातवाचे नांव 'ज्योतिबा' दवरले. तरी सोम्यान व्यवहारीक नांव 'अमुल्य' दवरलें. मनश्या परस देव श्रेष्ट तरी मनश्याक सकयली तरी सुवात दिवप कित्याक तर ताच्या कर्तुबाक. 'अपु' ह्या शब्दातलो 'अ' कार आनि ' उ ' कार त्या अमुल्य नावान आसलो. बारसो मोठया दबाज्यान केलो. पांडुरंगान दिल्लो केळमो आतां व्हड जावन व्हेयेलो. रातराणयेचो घमघम तिळसानचो येतालो तरी सोरपाचो फोंसकार नासलो. माडाकडसून येतना सोम्यान चिंव चिंव असो आवाज आयकलो. सोम्यान वयर चडुन माडाच्या बुराकान पळय तर थंय साळोरेचे पिल उडपाची तयारी करताले. साळोरी घोटेरान नासली. सोम्याक साळोरेचो गोटेर पळोवन लक्तुबाय दिसली, कोणे शिकयलो तिका हो विणूंक ? असो प्रश्न पडलो. साळोरी जल्मतनाच तिका ही विद्या कळता. पोट भरूक तिका कोण शिकयता ? ईतल्यान माडाकडेन साळोरी आयली सोमो आमच्या पिलाक व्हरतले अशे दिसून तिका ताका चोंच मारली, आळख्या विळख्यानी रडुंक लागली. सोमो माडावेल्यान सकल देवलो, ती भीतर गेली ती आता आवाज करी नासली. सोम्याक हिरकणीची याद जाली. रातच्यो सोम्यान कुयटाच्यो खोबरो सांगल्यो. कुकमा घोवाक घेवन आयील्लें. सोमणान सोरो सामकोच सोडिल्लो. वाडयार ताणे लोकांक पेडे वाटले. दूसरे दिसा आशाक, अपुर्वाक, देनाक, पांडुरंगाक ताणें गाडयेन घरा पावयलीं.

पांडुरंग गेटिनसुन भीतर सरतना ताची नदर सायल्यार गेली. घर सोडुन तो फातोडेचो सावंतवाडी गेल्लो तेन्ना ताची पाना किडीनी खावन ताका सामको बोडको केल्लो. तरी आज पांचवी कोमरी ताच्या आंगानसुन फुटील्ली दिष्टी पडताली. श्रावण म्हयनो लागिल्यान सायलो रथा सारखो चवरून दिसतालो. सायलच श्रावणान चंवरता. चंवर दोळयाक थंडाय दितालो. उमेद दितालो. तातुन ताका व्हड पानांचे सपन दिसतालें ताका दिसलें किडी सावल्यांची पाना खातात तरी ताच्या सालाक खावंक शकनात. तशेच मनीस किडचा सारखो घट आसत तर ताका व्यसना किडी सारखी आफडुंक शकचीच नात, बरें व्यसना लागली तरी ती सोडुंक येतात तातुनच बुडुन रावपी न्ही. सायलांची पानां किडीनी खाल्ली तरी कायमची तशीच आसनात. ती झडतगच कोमरी येता. व्हगडायील्लें मेळोवंक कठीण न्हयं तरी कष्ट जाय आसतात. मनश्यान धीर सोडु नजो. कष्टत रावत तर बरे दिस पैस आसनात. ताची

नदर घरार आशिल्या पाटयेर गेली. अपुन आपल्या कर्तुबानच बंगल्यार नांव घालुन तेंवुय दुसऱ्याकडसुन घेतिलें. ताणें तें घाल म्हणुन सांगुना, तरी आपसूकच तें ताचें भोंमान घेवन गेल्ले, तें दिसतगच ताका एक वेगळेंच समाधान मेळलें.

२०

सोम्याक मेळुक वाडयावेले लोक येताले हांची ती गरीबी पळोवन सोम्याक वायट दिसतालें. ताणें 'सोमण दुग्धडेरी' काडली. थंच्या लोकांक म्हशी, गायी घेवंक तो रिण दितालो. ताचे दुध घेतालो तें मुंबय धाडतालो. दुधाचे श्रीखंड तशेंच पेडे करतालो गांवच्या लोकाक काम मेळिल्ले. लोक येवन म्हणटाली

" तूम्ही खरींच भाग्यवान सोम्यो तुमगेर जालो."

" ही सगली ताचीच पुण्याय " ती आपलें बोट बंगल्यार दाखवन अशेंच सांगताली. बोर्ड तसोच फातरा सारखो घराक दसुन आसलो, आपलें काम करतालो, उलोवंक कळना तरी खुबच गिन्यान दितालो. लोकाक प्रश्न पडतालो 'कामकरे' घराण्यान 'अपु' हें जावंक ना ताची पाटी ताणी लायल्या ती अपु नावांची देवी आसत. एक अस्तुरी आसुन लेगित तीणें देवीची सूवात घेतिल्ली. थोडया कोतान ती एक आदर्श चली, तर थोडया कोतान ती एक आदर्श बायल, तर थोडया कोतान आदर्श आवय, तर थोडया कोतान आदर्श आजी, तर थोडया कोतान आदर्श भाटकान, तर थोडया कोतान ती आदर्श धार्मीक वृतींची अस्तुरी, अश्या विंगड, विंगड रूपानी अपु ताच्या काळजान घर करून आसलें. बायलां जल्म मेळलो तरी दादल्या हुन वेली सुवात मेळवं येता. अशेच तें सांगनासले मुं? असो प्रश्न जणा एका अस्तुरेक पडल्या बगर रावनासलो. पोरूस घराण्याक दादु, शंकर, पांडुरंग जाले तरी बोर्ड मात अपुचोच घरार दिष्टी पडलो. तो व्हडविकाय येतल्या वेंतल्याक सांगतालो तशेंच कामकरे घराण्यान इतले दादले आसले, तरी पोरूस घराण्याच्या अस्तुरेन आपलो शेख त्या घरार गाजयीलो तो इतलो की तो बोर्ड काडून त्या जाग्यार कुळदेवाचे नांव लावपाचे धाडस ते करू शकनासलें. सेवा भाव हो एक व्हड गुण अस्तुरेन आसता त्या खातिर ती दुसऱ्याची मना जिंकुक शकता अशें ती 'अपु ' ही अक्षरा सांगनासली मुं ?

मनश्याची पिराय थारायील्ली ल्हानशी आसली तरी, ताचो हावेस ताच्याहुन व्हड आसता तो पुरो जावंक शकता हेंच अपु सांगनासलें मुं ? निस्वार्थी जीण हीच जैताची चावी न्हय मुं ? धार्मिक, त्यागी वृती म्हळयारच जीण न्हय मुं ? अस्तुरी ही एक व्हड शक्त. जिका लागुन रामायण, महाभारत घडलें थंय पोरूस

घराण्याची भरभराट जाली म्हणुन अजाप मानपाचे कारण नासलें. अस्तुरी म्हळ्यार काळखान उजवाड दिवपी पणती. तांतले तेल वात सोपलें तरी पणती तशीच उरतां उजवाड दिवपी शक्त तीचान आसतां. वात तेल रोखडेंच सोपता तरी मातयेचे पणतेन उण्याचो मार सोशिल्लो आसता, हेच खातिर तिका दीर्घ पिराय मेळता. पणती जशी तेल वातीची राखण करून दुसऱ्याक उजवाड दिता तशी ही अस्तुरी, तीच पणती परती तेल वात घालुन पेटों येता. हेच तीं अस्तुरी सांगनासली मुं ? त्या अस्तुरेक कोटी कोटी नमस्कार।



| आमची प्रकाशना | | |
|---|---|---|
| नांव | प्रकार | वर्स |
| खतखतें | कवितां झेलो | १९९६ |
| आवाळें | कादंबरी | १९९८ |
| उगडास जीण | कथा झेलो | १९९९ |
| अपु | कादंबरी | २००० |